म्हाका होलमल्लो

# कोंकणी भास

( संशोधनात्मक ग्रंथ )



● सुरेश रा. पै



दीपा प्रकाशन, कुडचडें - गोंय



म्हजी घरकान्न

सौ. रमा

हिजे

स्मृतिक… … …

दीपा प्रकाशन, कुडचडें - गोंय.

म्हाका होलमल्ली

# कोंकणी भास

( संशोधनात्मक ग्रंथ )

**सुरेश रामचंद्र पै**



दीपा प्रकाशन

कुडचडें - गोंय

# म्हाका होलमल्लो कोंकणी भास

( संशोधनात्मक ग्रंथ )

## दोन अुतरां .......

कोंकणी ही अेक प्राकृत भास, संस्कृत भासेअितलीच अर्थगर्भित, संस्कृतांतलीं जाय तीं वैशिष्टां तिगौन दवरिल्ली मोवाळ, म्होंवाळ भास. काळाच्या आघातान आनी अैतिहासिक, भौगोलिक, सामाजिक कारणांकलागून चिरडल्ली, चेपिल्ली भास, आतां कूस परतिता.

संशोधन सदांच पारंपारिक मतां खोडता. कोंकणी भासेबद्दल जांचीं वेगळीं वेगळीं मतां आसिल्लीं तीं सगळीं काळाभायलीं जाल्यांत आनी जायत आसात. संशोधनांती कोंकणी भासेचें स्थान पाली, शौरसेनीबांगडाच घेवसारखी परिस्थिती आधुनिक भासशास्त्र्यांचेर आयली जाल्यार तांतूंत अजाप अशें कांय अुरचें ना. कोंकणिंत संशोधन करसारखें खूब आसिल्ल्यान आनी संदर्भग्रंथांची अुणीव भासिल्ल्यान हें काम अर्धकुटें दिसलें तरी तें पुराय करचें अेकल्याक असाध्य.

प्रचलित कोंकणिंतलीं जाय तीं अुतरां आधुनिक भासांत आनी तांच्या पोरण्या साहित्यांत घोळतात आनी ह्या अुतरांचो पुंजो अेकठावन कोंकणी भासेची प्राचीनता आनी तिजो अन्य भासांचेर आनी बोलिंचेर जाल्लो प्रभाव दाखौन दिवंक मेळता.

कोंकणिचें मूळ अपभ्रंशांत नासून वेदिक संस्कृतांत आसा आनी कोंकणी संशोधकान ते दिशेन पावलां घालकां. कोंकणी बोलिंचो तुलनात्मक अभ्यास करतना मंगळुरी, कोच्चि, कासरगोड भागांतल्या कोंकणिचो अभ्यास बारकायेन करची आवश्यकता आसा.

– सुरेश रामचंद्र पै
भटकळ

पान # विशयसूचि




# ...त वर्णमाळ

१ अ आ अि अी अु अू अे अॅ ओ औ ऋ ऌ अं अः

क् ख् ग् घ् ङ्

च् छ् ज् झ् ञ्

ट् ठ् ड् ढ् ण्

त् थ् द् ध् न्

प् फ् ब् भ् म्

य् र् ल् व् श् ष् स् ह् ळ् क्ष् ज्ञ्

२ ह्रस्व स्वर – अ अि अु ऋ ऌ

३ दीर्घ स्वर – आ अी अू

४ संयुक्त स्वर – अे अै ओ औ

५ स्वरादि – अं अनुस्वार

– अः विसर्ग

६ व्यंजनां (स्वरांत)

| कठोर | | मृदु | | अनुनासिक |
|---|---|---|---|---|
| क | ख | ग | घ | ङ |
| च | छ | ज | झ | ञ |
| ट | ठ | ड | ढ | ण |
| त | थ | द | ध | न |
| प | फ | ब | भ | म |

७ अर्धस्वर – य र ल व

८ अूष्म – श ष स

९ महाप्राण – ह

१० स्वतत्र वा ल बदलाक ळ

स्वर – अुलैतना जो नाद पुरायपणान मेकळो आनी पूर्ण आसता ताका स्वर म्हणतात वा शास्त्रीय नदरेन जो नाद घडतना तोंड अुगडें आसून ओंटाक ओंटाचो वा जिबेक तोंडांतल्या खंयच्याय भागाचो स्पर्ष जायनासतना जाता ताका स्वर म्हणतात.

अ, आ, अि, अी, अु, अू, ऋ, लृ, अे, अै, ओ, औ हे स्वर.

अ – 'अ' स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जाता. तोंड अुगडें आसता. 'अ' क ह्रस्व स्वर मानतात.

आ – 'आ' स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सर-तना जाता. तोंड अुगडें आसता 'आ' क दीर्घ स्वर मानतात. हो अुच्चार जातना तोंड चडशें अुगडता.

अ, आ हांचो अुच्चार अेकेच सुवातेवयल्यान घडता देखून तांकां सजातीय स्वर म्हणतात. 'अ' स्वर कितलोय ओडलो म्हणून 'आ' स्वर जायना देखून 'आ' स्वर म्हळ्यार 'अ' स्वराचो दीर्घ स्वर न्हय.

अि – 'अि' स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो फुडलो भाग मातसो वयर ताळवेकडेन वतना घडता. तोंड अुगडें आसता. 'अि' क ह्रस्व स्वर म्हणतात.

अी – 'अी' स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो फुडलो भाग मातसो वयर ताळवेकडेन वतना घडता तोंड अुगडें आसता. 'अी' क दीर्घ स्वर म्हणतात.

अि, अी हांचो अुच्चार अेकेच सुवातेवयल्यान घडता देखून तांकां सजातीय स्वर म्हणतात. 'अि' स्वर ओडलो जाल्यार 'अी' चो अुच्चार घडता देखून 'अी' स्वर म्हळ्यार 'अि' स्वराचो दीर्घ स्वर.

अु – ‘ अु ’ स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटां गोलाकार जावन घडता. तोंड मातशें अुगडें आसता. ‘ अु ’ क हृस्व स्वर म्हणतात.

अू – ‘ अू ’ स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटां गोलाकार जावन घडता. तोंड मातशें अुगडें आसता. ‘ अू ’ क दीर्घ स्वर म्हणतात.

अु, अू स्वराचो अुच्चार अेकेच सुवातेवयल्यान घडता देखून तांकां सजातीय स्वर म्हणतात. ‘अु’ स्वर ओडलो जाल्यार ‘अू’ चो अुच्चार घडता देखून ‘अू’ स्वर म्हळ्यार ‘अु’ स्वराचो दीर्घ स्वर.

ऋ – ‘ ऋ ’ स्वर कोंकणिंत घोळतना अितर स्वरांत रुपांतरित जाता.

ऌ – ‘ ऌ ’ स्वर कोंकणिंत घोळना.

अे – ‘ अे ’ स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो फुडलो भाग ताळवेकडेन वतना घडता. तोंड चड अुगडें जाता.

अै – ‘ अै ’ स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो फुडलो भाग सट् करून ताळवेकडेंन वतना घडता. तोंड अुगडें आसता.

ओ – ‘ ओ ’ स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटां गोलाकार रुपांत आसतना घडता. तोंड मातशें अुगडें आसता.

औ – ‘ औ ’ स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटां सट् करून गोलाकार रुपांत येतना घडता. तोंड मातशें अुगडें आसता.

अे, अै, ओ, औ ह्यांकां संयुक्त स्वर मानतात.

अ + अि वा अ + अी म्हळचार अे
आ + अि वा आ + अी म्हळचार अै
अ + अु वा अ + अू म्हळचार ओ
आ + अु वा आ + अू म्हळचार औ

वास्तविक हे स्वर संयुक्त स्वर म्हय. तांका मूल स्वर मानचें पडतलें. संधी घडतना वा दोन अुतरां अेकठांय येतना पैल्या अुतराचें अंत्याक्षर आनी दुसऱ्या अुतराचे सुरवातिचें अक्षर लागीं येतना तांतु-तल्या दोनय स्वराबदलाक तिसरो स्वर येवन दोनय अुतरां अेकरूप जातात. हाजो अर्थ दोन स्वर मेळून तिसरो स्वर जाता असो म्हय. संस्कृत भासेंत स्वरसंधी घडतना हो प्रकार पळौच्याक मेळता पुण कोंकणित असो प्रकार ना. संस्कृत अुतरां व्यंजनलोप जावन दोन स्वर अेकमेकांलागीं येतना त्या दोनय स्वराबदलाक तिसरो स्वर घोळून जाय तीं कोंकणी अुतरां घडल्यांत.

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| देखिक – | छगन – | शअण – | शेण : | अ + अ > अे |
| | कदलि – | कअळि – | केळि : | अ + अ > अे |
| | दिवस – | दिअस – | दीस : | अि + अ > अी |
| | जीवन – | जीअण – | जीण : | अी + अ > अी |
| | राजकुल – | राअअुळ – | रावुळ : | अ + अु > अु |
| | देवकुल – | देअअुळ – | देवुळ : | अ + अु > अु |
| | लवण – | लअण – | लोण : | अ + अ > ओ |
| | नवमी – | नअमि – | नोमि : | अ + अ > ओ |

संस्कृत भासेंत संयुक्त स्वरांक नियमितपण आसा पुण कोंकणित अ-नियमितपण आसा देखून कोंकणित संयुक्त स्वर घोळना.

अॅ – 'अॅ' स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना

जिबेचो फुडलो भाग ताळवेकडेन वतना घडता. तोंड मातशें चड अुगडें जाता.

ऑ – 'ऑ' स्वराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटां गोलाकार रुपांत आसतना घडता. तोंड मातशें चड अुगडें जाता. ॲ, ऑ हे स्वर कोंकणिचेच. खंयचेय भासेकलागून ते कोंकणित रिगिल्ले नात. संस्कृत भासेंत हे स्वर घोळनात.

अं – 'अं' ह्या अनुस्वाराचो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटार ओंट तेंकून घडता. तोंड धांपिल्लें आसून नाकांतल्या–नय तो घुमता. नाक बंद आसत जाल्यार हो अुच्चार सारखो जायना. हो अुच्चार खणखणित जाता पुण कांय बाबतिंत हय न्हयसो जाता.

अंग, आंगण, अिंधन, अुंडो, ॲंडो – हे खणखणित अुच्चार.
न्हंय, जंय, थंय, गंव, मांव, मांय – क्षीण वा हय न्हयसो अुच्चार.

अः – 'अः' ह्या विसर्गाचो अुच्चार घडतना गळ्यांतल्यान हवो जोरान भायर सरून 'ह्' ह्या महाप्राणाचो अुच्चार जाता. तोंड अुगडें आसता.

अः, आः, अिः, अुः, बालकः, देवाः, भानुभिः, देवैः ;

स्वरादि – अनुस्वार आनी विसर्ग हे सदांच स्वरानंतर येतात देखून तांकां स्वरादि म्हणतात.

खंयच्याय स्वराचो अुच्चार घडतना गळ्यांतल्यान हवो भायर सरचोच पडता. जिबेची हालचाल घडता पुण तोंडांतल्या अितर भागांचो स्पर्ष तिका घडना.

व्यंजन – अुलैतना जो नाद पुरायपणान मेकळो नासता आनी मेकळेपण मेळौचेखातीर स्वराचो आधार घेता ताका व्यंजन म्हणतात वा शास्त्रीय नदरेन जो नाद घडतना तोंड अुगडें आसून ओंटाक ओंटाचो

वा जिबेक तोंडांतल्या खंयच्याय भागाचो स्पर्ष घडून जाता ताका व्यंजन म्हणतात.

क, ख, ग, घ, ङ ह्या व्यंजनांचो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना जाता. तोंड अुगडें आसता पुण ओंटाक ओंटाचो वा जिबेचो तोंडांतल्या अितर भागाक स्पर्ष घडनासतना जाता.

च, छ, ज, झ, ञ ह्या व्यंजनांचो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

च̂, छ̂, ज̂, झ̂ ह्या व्यंजनांचो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेक आनी वयल्या दांताक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

ट, ठ, ड. ढ, ण ह्या व्यंजनांचो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेच्या वयल्या भागाक दोडून स्पर्ष घडतना जाता. तोंड अुगडे आसता.

त, थ, द, ध, न ह्या व्यंजनांचो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो वयल्या दांताक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

प, फ, ब, भ, म ह्या व्यंजनांचो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटार ओंट तेंकून घडता.

य, र, ल, व हांकां अर्धस्वर म्हणतात.

'य' चो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

'र' चो अुच्चार गळयांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेच्या वयल्या भागाक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

'ल' चो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो वयल्या दांताक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

'व' चो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना ओंटार ओंट तेंकून घडता.

श, ष, स हांकां अूष्म व्यंजन म्हणतात.

'श' चो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

'ष' चो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेच्या वयल्या भागाक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

'स' चो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो सकल्या दांताक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता.

'ह' चो अुच्चार घडतना गळ्यांतल्यान भायर सरिल्लो हवो तोंडांतल्यान जोरान भायर सरता म्हणून ताका महाप्राण म्हणतात.

'ळ' चो अुच्चार गळ्यांतल्यान हवो भायर सरतना जिबेचो ताळवेच्या वयल्या भागाक स्पर्ष घडून जाता. तोंड अुगडें आसता. 'ळ' चो अुच्चार कोंकणित स्वतंत्रपणान घडता आनी कांय वेळार 'ल' बदलाक घडता.

ख, घ, छ, झ, ठ, ढ, थ, ध, फ, भ, श, ष, स ह्या वर्णांच्या अुच्चारांत 'ह' चो प्रभाव वा अुच्चार आसिल्ल्यान तांकां महाप्राण म्हणतात.

क, ग, च, ज, ट, ड, त, द, प, ब ह्या वर्णांच्या अुच्चारांत 'ह' चो प्रभाव वा अुच्चार नासिल्ल्यान तांकां अल्पप्राण म्हणतात.

क, ख, च, छ, ट, ठ, त, थ, प, फ हांकां कठोर आनी ग, घ, ज, झ, ड, ढ, द, ध, ब, भ हांकां मृदु वर्ण अशेंय म्हणतात.

स्पर्श व्यंजनां – क, ख, धरून भ, म हांचो अुच्चार घडतना तोंडांतल्यान भायर सरतलो हवो जीब, कंठ (गळो), ताळु, मूर्धा (ताळवेचो वयलो भाग), दांत वा ओंट हांकां तेंकून वा लागून जाता देखून तांकां स्पर्श व्यंजनां म्हणतात.

अनुनासिक – ङ, ञ, ण, न, म ह्या व्यंजनांचो अुच्चार घडतना नाकांतल्यान जाता देखून हांकां अनुनासिक म्हणतात.

## वर्णांचें अुच्चारस्थान

| स्वर | व्यंजन | अुच्चारस्थान | नांव |
|---|---|---|---|
| अ, आ | क, ख, ग, घ, ङ, ह | गळो | कंठ्य |
| अि, अी | च, छ, ज, झ, ञ, य, श | ताळु | तालव्य |
| ऋ | ट, ठ, ड, ढ, ण, र, ष, ळ | मूर्धा | मूर्धन्य |
| लृ | त, थ, द, ध, न, ल, स | दांत | दंत्य |
| अु, अू | प, फ, ब, भ, म, व | ओंट | ओष्ट्य |
| अे, अै, अॅ | | गळो + ताळु | कंठतालव्य |
| ओ, औ, ऑ | | गळो + ओंट | कंठौष्ट्य |

वर्ण – स्वर आनी व्यंजनां हांकां वर्ण म्हणतात.

अक्षर – ह्या वर्णांक अक्षर म्हणतात. 'न क्षरति अिति' अक्षर: म्हळचार जें झरना तें अक्षर.

कांय जण स्वर आनी स्वरयुक्त व्यंजनांक अक्षर आनी स्वर-विरैत व्यंजनांक वर्ण म्हणतात.

बाराखडी – खंयच्याय व्यंजनाक स्वरचिन्ह लावन त्या व्यंज–नाची बाराखडी घडता.

स्वर – अ, आ, अि, अी, अु, अू, अे, अै, ओ, औ, अं, अः

चिन्ह – ा, ि, ी, ु, ू, े, ै, ो, ौ, ं, ः,

बाराखडी – क, का, कि की, कु, कू, के, कै, को, कौ, कं, कः

लिपि – प्रत्येक नादाक सांकेतिक रूप दिल्ल्यान आनी ह्या सांके–तिक रुपाच्या आधारान ताजो आशय समजुवच्याक मार्ग अुक्तो जाल्लो आसा. हें सांकेतिक रूप कदाचित् बदलत पुण ताजो अभ्यास आसिल्लो अर्थाचो अनर्थ कसोच करचो ना. ह्या सांकेतिक रुपाक लिपि म्हणतात.

देवनागरी लिपि – संस्कृत भासेन जी लिपि आपणायिल्ली आसा तिका देवनागरी लिपि म्हणतात. संस्कृतोत्पन्न भासो हे लिपि–वरवी जित्यो आसात. देवनागरी लिपित बदल घडौन नवे लिपिवरवी आपलो वेगळो संसार थाटिल्ल्योय भासो आमच्यांत आसात. द्रविड भासांनी मात्र आपापली लिपि घेवन आपलो वेगळो वेगळो संसार मांडिल्लो आसा.

व्यंजनांचे व्दित्व – क्क, ख्ख, ग्ग, घ्घ

च्च, छ्छ, ज्ज, झ्झ

ट्ट, ठ्ठ, ड्ड, ढ्ढ, ण्ण

त्त, थ्थ, द्द, ध्ध न्न

प्प, फ्फ, ब्ब, भ्भ, म्म

य्य, र्र, ल्ल, व्व, श्श, ष्ष, स्स, ह्ह, ळ्ळ

संयुक्त व्यंजन – दोन वेगळीं व्यंजनां अेकठांय आयल्यार ताका संयुक्त वा जोड व्यंजन म्हणतात.
हांचो अुच्चार करतना अंत्याक स्वर हो आसताच.

'र' व्यंजनाचें जोडाक्षर – 'र' युक्त जोड व्यंजनांत 'र' चें स्थान मागीर आसल्यार आडी आसिल्या व्यंजनाक तिरपी रेग दितात.
भ्रम, क्रम, वज्र, तीव्र, प्रकार, क्रांत, प्रीति, श्री, क्रिया.

'र' युक्त जोडव्यंजनांत 'र' चें स्थान मागीर आसल्यार आडी नासिल्ल्या व्यंजनाक सकलाक ् ही कुरु करतात.
ट्राम, राष्ट्र, षड्रिपु, राष्ट्रीय.

'र' युक्त जोड व्यंजनांत 'र' चे स्थान पैलें असून दुसरे व्यंजन मागीर येता जाल्यार त्या व्यंजनाच्या माथ्यार र्‍ अशी शिंगाची कुरु करतात. - सूर्य, पूर्व, गर्व मूर्ख पूर्ण चूर्ण, वर्ण, कर्ण, सर्प, दर्प.

'र' युक्त जोडव्यंजनांत 'र' चे स्थान पैलें आसून 'य' व्यंजन मागीर येता जाल्यार त्या व्यंजनाच्या दाव्या भागासकलाक ॽ अशी कुरु करतात.
दुसऱ्याक, म्हऱ्यांत, तिसऱ्यान, गोऱ्यान, सोऱ्यान, खांऱ्यान.

अनुस्वारामुखार 'य' वा 'ल' आयल्यार अुच्चार घडतना 'य' चो 'य्य' आनी 'ल' चें पैलें 'व' चो अुच्चार घडता म्हणून तशीं बरौची आवश्यकता ना.
संयम – संय्यम; संलग्न – संवलग्न.

अनुस्वारामुखार 'र', 'श', स, आयल्यार अुच्चार घडतना मदीं 'व' चो अुच्चार घडता म्हणून तशी बरौची आवश्यकता ना.
संरक्षण – संवरक्षण; संशय – संवशय; संसार – संवसार; मांस–मांवस; कांस्य – कांवस्य; अंश – अंवश; कंस – कंवस.

संस्कृत भासेंत 'क' वर्गाखातीर 'ङ' 'च' वर्गाखातीर 'ञ' 'ट' वर्गाखातीर 'ण', 'त' वर्गाखातीर 'न', 'प' वर्गाखातीर 'म' अशें स्वरूप आसून कोंकणी भासेंत ह्या अनुनासिकाबदलाक अनुस्वारच घोळता. कङ्क – कंक; सङ्ग – संग; चञ्चल – चंचल;

काञ्चन – कांचन; घण्टा – घांट; दण्ड – दांडो; सन्त – संत; शान्त – शांत; कम्प – कंप; केम्प – केंप;

कोंकणित 'ष' व्यंजन आसून ताजो संबंध 'ट' वर्गाकडेन जोड व्यंजन घडतना येता.

कष्ट, नष्ट, भ्रष्ट, भ्रिष्ट, क्लिष्ट, दुष्ट, पुष्ट, कुष्ट, विष्णु, कृष्ण, अुषा, निषा, भाषा, बिष, विषय, विषाद, निषाद, विशेषण हीं तत्सम अुतरां जशाचीं तशीं कोंकणित घोळतना 'ष' व्यंजन कोंकणित घोळना म्हणचें समंजस न्हय.

तद्भव घडतना 'ष' चें 'श' वा 'स' जाता म्हणून कोंकणित कष्ट, कश्ट, कस्ट अशीं अुतरां दिसतात. 'कष्ट' हें अुतर गोकर्णाच्या दक्षिण दिशेंतले बोलित घोळना आनी 'कश्ट' हें अुतर अंत्रुजी बोलित घोळता. 'कस्ट' हें अुतर सोळाव्या शेंकड्यांतल्या साहित्यांत पळौच्याक मेळता

च, छ, ज झ हांचो अुच्चार जीब ताळवेक तेंकून जाता आनी तशेंच ताळवेक आनी वयल्या दांताक तेंकून जाता.
ताळवेक लागून जाल्या अुच्चारांत 'य' चो वास मारता जाल्यार ताळवेक आनी वयल्या दांताक लागून जाल्या अुच्चारांत 'य' चो अंश नासता. बरैतना ह्रांतुतलो भेद कळना.

| | |
|---|---|
| चार आणे – च्यार आणे<br>झार – झ्यार – रशियेचो राजा. | ताळव्य |
| पाचवीं चार – चार<br>कोडू झार – अेकदम कोडू. | दंत ताळव्य. |

खंयचेय अुतर घेतलें जाल्यार तांतूंत व्यंजन आनी स्वर हांचो आस्पाव आसताच.

यो = य् + ओ; पी = प् + ई; खा = ख् + आ;
जें = ज + अें; जा = ज् + आ; – अेकाक्षरी अुतरां.

धांव = ध् + आं + व् + अ; कर = क् + अ + र् + अ; गांव = ग् + आं + व् + अ; – दोन अक्षरी अुतरां.

सगळें = स् + अ + ग् + अ + ळ् + अें; तरणो = त् + अ + र् + अ + ण् + ओ; तीन अक्षरी अुतरां.

घरकार = घ् + अ + र् + अ + क् + आ + र् + अ; सावकार = स् + आ + व् + अ + क् + आ + र् + अ;
चार अक्षरी अुतरां.

कांय वेळार अंत्याक्षरांत स्वर नासता.

थुत् = थ् + अु + त्; कर् = क + अ + र्;
सट् = स् + अ + ट्;

## कोंकणितलें स्वर आनी अुच्चार

कोंकणित स्वरांचो अुच्चार सकल दिल्ल्या कांय अिंग्लीष अुतरांच्या पैल्या अक्षरांतल्या स्वराप्रमाण घडता.

अ – ह्रस्व – कर, मल, बल, छल – तत्सम अुतरां
Bus, hush, cut, must.

अ – दीर्घ – घर, भर, मन, नळ जड,
fur, turn, burn, churn, furl.

आ – ह्रस्व – आजि (grand mother), काळि (black)
धांवलो, खालो, गाळ्ळो, भाळ्ळो.

आ – दीर्घ – आजि (today), कालि (yesterday).
धांव, मार, खा, साल, दाळ.
Bar, far car, tar, glance, chance.

अ – ह्रस्व – लिपि, गिरि, पिठि, गिडि, पिडि, चिद्दि.
sit, pin, kit, sin, slim, trim.

ई – दीर्घ – चीट, तीट, धीट, कीट, गीत, रीण, खीण.
meet, greet, neet, treat seat, cheat, peak.

उ – ह्रस्व – फुलां, मुळां, अुळि, पुळि, अुळो, कुलो.
put, look, took, book, shook, cook.

ऊ – दीर्घ – मूळ, धूळ, फूल, पूत, कूळ, भूत, दूत.
root, moot, pool, room, rule, bull, groom.

ॲ – ह्रस्व – पेडि, शेंडि, लेंडि, गेलि, मेलि, केळि, पेळि
met, get set, pet, hen, pen, men, then.

ए – दीर्घ – पेट, शेट, तेड, खेळ, मेळ, तेर, वेळ
mate, gate, late, fate, gain, main, chain, paid.

अॅ – बॅत, वॅत, पॅर, मॅर, पॅट, मॅट, पॅज, मॅण, शॅत, वॅग,
man, ban, van, can, than, pan, fan.

ओ – ह्रस्व – तोडुं, मोडुं, कोंडि, बोंडि, सोंडि, कोडु
so, no. bow, go, low.

ओ – दीर्घ – तोळ, गोड, मोड, फोड, मोग, तोड, रोग, फोग.
goal, boat, toad, most, toast, road, cold,

ऑ – आॅट, धॉल, गॉड, मॉड, तॉर, मॉल, बॉर, तॉड, बॉट
pot, got, not, lot, sought. thought,
knot, god, dog.

अं – अनुस्वार – अंक, रंग, भंग, तंग, संद.
sung rung, sunk, chunk, slung, clung.

ऐ – कैलास, कैवल्य, पैं, भैरव, आवै झोपै.

औ – औषध, कौल, चौल, सौभाग्य, खौलो, कौरव.
owl, bowl, cloud, bound, round, ground.

ह्रस्व स्वर – अ, आ, अि, अु, अे, ओ.

दीर्घ स्वर – अ, आ, अी, अू, अे, ओ.

स्वतंत्र स्वर – अँ, अै, ऑ, औ.

अनुस्वार – अं.

कोंकणित अ, आ, अि, अु, अं, ओ, हांचो ह्रस्व आनी दीर्घ अुच्चार जातात. अि, अु, सोडून अुरिल्ल्या स्वरांचो ह्रस्व, दीर्घ अुच्चार दाखौची क्षमता देवनागरी लिपित ना. ॲ, ऑ स्वर कोंकणिचेच आनी स्वतंत्र रितिन घोळतात. कोंकणित ॲ, ऑ चीं अुतरां जाय तीं घोळतात पुण हांचो अुच्चार दाखौची क्षमता हे लिपित ना. ॲ, ऑ च्या स्थानार अे, ओ, बरौची चाल आसा.

ह्रस्व स्वर – ज्या स्वराचो अुच्चार घडतना थोडोसो वेळ लागता ताका ह्रस्व स्वर म्हणतात.

दीर्घ स्वर – ज्या स्वराचो अुच्चार घडतना चडसो वेळ लागता ताका दीर्घ स्वर म्हणतात.

कोंकणितलीं अुतरां स्वरांत आसून चडशीं अुतरां ह्रस्व स्वरान सोंपिल्लीं आसतात पुण अुतरांच्या मदीं आसिल्लो ' अ ' स्वर लोपून तें अक्षर व्यंजनांत जाता. कांय बाबतित अि, अी, अु, अू आनीं ओ स्वर लोपून तें अक्षर व्यंजनांत जाता. असलीं अुतरांमदीं आसिल्ल्या व्यंजनांत अक्षर स्वरांत बरौची चाल आसा.

देखिक – वयर = वय्र; पयर = पय्र; पावस = पाव्स ;

भाटकार = भाट्कार; मुंडकार = मुंड्कार; अुदकांत = अुद्कांत;

काळोखांत = काळ्खांत; नाखुटाक = नाख्टाक;

खाजुरान = खाज्रान; चिखोलांत = चिख्लांत;

साळिकाक = साळ्काक; माणिकाक = माण्काक;

१ कोंकणिंतलीं व्यंजनांत अुतरां – कट्, फट्, कर्, सळ्, फळ्, थुत्, कुट्, चुप्, गुप्, किट्, फिट्, पिट्, चिप्.
असल्या अुतरांतल्या आद्याक्षरांतलो स्वर सदांच ह्रस्व आसून अंत्याक्षर स्वरविरैत आसता

२ कोंकणिंतलीं स्वरांत अुतरां – ह्रस्व 'अ' न सोंपिल्लीं अुतरां सदांच स्वरांत आसून त्या स्वराचो अुच्चार घडता. कांय जण ह्या स्वराचो अुच्चार घडना म्हणतात पुण तांची कल्पना चुकिची आसून ताका आधार ना.

३ अंत्याक्षरांत आ, अि, अु, अे, ओ स्वर आसल्यार सुरवातिचो स्वर ह्रस्व आसता.

४ अंत्याक्षरांत अ, अि, अु स्वर आसल्यार सुरवातिचो स्वर दीर्घ आसता.

५ कांय तत्सम आनी कोंकणी अुतरां हाका आडवाद आसात.
'कर' ह्या धातूंत 'कं' तल्यां 'अ' स्वराचो अुच्चार दीर्घ जाल्यार 'रं' तल्या 'अ' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व. कर = To do .

'कर' ह्या तत्सम अुतरांत 'कं' तलो आनी 'रं' तलो 'अ' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व. कर = हात = hand .

'कर्' ह्या अुतरांत 'कं' तल्या 'अ' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व जाल्यार 'रं' त 'अ' स्वर घोळना.

'हार' ह्या धातुंत 'हां' तल्या 'आ' स्वराचो अुच्चार दीर्घ जाल्यार 'रं' तल्या 'अ' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व.

'हारलो' ह्या क्रियापदांत 'हां' तल्या 'आ' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व जाल्यार 'लों' तल्या 'ओ' स्वराचो अुच्चारय ह्रस्व. 'रं' तल्या 'अ' स्वराचो अुच्चार घडना देखून हारलो = हार्लो अशें बरैतात.

'चीर' ह्या धातूंत 'चीं' तल्या 'ई' स्वराचो अुच्चार दीर्घ जाल्यार 'रं' तल्या 'अ' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व.

'चिर' ह्या तत्सम अुतरांत 'चि' तल्या 'अि' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व आनी 'रं' तल्या 'अ' स्वराचो अुच्चारय ह्रस्व. चिर = दीर्घकाळ.

'सूत' ह्या नामांत 'सूं' तलो 'अू' स्वराचो अुच्चार दीर्घ जाल्यार 'तं' तलो 'अ' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व. सूत्रं > सुत्त > सूत हाजो अर्थ भोंवतणीं आनी सूत = दोरो असो जाता.

'सुत' ह्या तत्सम अुतरांत 'सुं' तल्या 'अु' स्वराचो अुच्चार ह्रस्व जाल्यार 'तं' तल्या 'अ' स्वराचो अुच्चारय ह्रस्व. सुत हाजो अर्थ पूत असो जाता.

६ तीन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षर 'अ' स्वरी आसून मदीं 'अ' स्वरी अक्षर आसल्यार ताजो अुच्चार स्पष्ट जाता.

पदर, हळद, करण, काजळ, माजर, फातर, किरण, चितळ, निसण, पुरण, सुजन, कुशळ, भावज, सावज, दिवज, जेवण, दिवस.

कांय बाबतींत व, य मदीं आसल्यार तांचो अुच्चार व्यंजनांत जाता – वय्‌र, भाय्‌र, काय्‌ल, बाय्‌ल, पाय्‌स, राय्‌स, खाय्‌स, हांय्‌स, वाय्‌स, पात्र्‌स, दाव्‌ल, गाव्‌स, खाव्‌न, जेव्‌न, पिव्‌न, देंव्‌न, न्हांव्‌न, न्हाव्‌न.

७ तीन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षर 'अ' सोडून 'आ', 'अि', 'अे' आनी 'ओ', स्वरी आसून मदीं 'अ' स्वरी अक्षर आसल्यार ताजो अुच्चार व्यंजनांत जाता.

कापड्‌ां, मेर्‌णां, जेव्‌णां, गाड्‌त्रां, डुक्‌रां, देव्‌ळां, अठ्‌रा, चेप्‌ता, तोप्‌ता; बाव्‌लि, तक्‌लि, साट्‌लि, सर्‌लि, आय्‌लि, चड्‌लि, बद्‌लि.

अड्चि, पर्शि; जेव्चें, येव्चें, मर्चें, जग्चें नाच्चें, अुठ्चें, पुस्चें, ताप्चें, ताप्लें, बाव्लें; काव्ळो, ताप्लो, फिर्लो, सर्लो, नाच्लो, आस्लो, पड्लो, बाव्लो, देंव्लो.

अंत्याक्षरांत 'अ' सोडून आ, अि, अे, आनी ओ स्वरी जोडाक्षर आसल्यार मदल्या अक्षरांतल्या 'अ' स्वराचो अुच्चार स्पष्ट जाता.
अुकळ्ळा, धुकळ्ळा, धवळ्ळा, कवळ्ळा, किसळ्ळा, निवळ्ळा;
अुकळ्ळि, धुकळ्ळि, धवळ्ळि, कवळ्ळि, किसळ्ळि, निवळ्ळि;
अुसळ्ळे, धुकळ्ळे, धवळ्ळे, कवळ्ळे, किसळ्ळे, निवळ्ळे;
अुकळ्ळो, धुकळ्ळो, धवळ्ळो, कवळ्ळो, किसळ्ळो, निवळ्ळो;

८ चार अक्षरी अुतरांत दुसरें अक्षर 'अ' स्वरी अुरल्यार त्या स्वराचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.
भाट्कार, मुंड्कार, खर्शेता, बेळ्शेता, धुंव्रेता, चेर्डाक, बायलेक;
च्लयेक, अुद्कांत, काळ्खांत, घर्च्यान, भायल्यान, हांस्तना;
खेळ्तलो, फुल्तलो, नाच्तलो, जेव्तालो, पड्तालो, पर्मळ्ळो;
चार अक्षरी अुतरांत तिसरें अक्षर 'अ' स्वरी अुरल्यार त्या स्वराचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.

निवळ्ता, घुंवळ्ता, बोवाळ्ता, विसर्ता, पसर्ता, निसर्ता, अुसळ्ता, आडाव्ता, सुस्ताव्ता, पिसाव्ता, पैसाव्ता, आवड्ता, पिसुड्ता, आवड्लो, पिसुड्लो, कातर्लो, सताय्ता, सताय्ले;

९ पांच अक्षरी अुतरांत दुसरें आनी चौथें अक्षर 'अ' स्वरी अुरल्यार त्या स्वरांचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.

लक्लक्चें, धांव्डाव्चें, पर्मळ्चें, पस्राव्चें, निव्ळाव्चें, अुस्ळाव्चें, निस्राव्चें, लक्लक्ता, धांव्डाय्ता, पर्मळ्ता, पस्राय्ता, अुस्ळाय्ता निस्राय्ता.

पांच अक्षरी अुतरांत दुसरें अक्षर 'अ' स्वरी आसल्यार त्या

स्वराचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.
चर्तल्यान, मर्तल्यान, जेव्तल्यान, चल्तल्याक, मर्तल्याक, जेव्तल्याक, निद्तल्यान, निद्तल्याक;

पांच अक्षरी अुतरांत तिसरें अक्षर 'अ' स्वरी आसल्यार त्या स्वराचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.
दिसांत्ल्यान, घरांत्ल्यान, दारांत्ल्यान, भितर्ल्यान, न्हातास्तना, खातास्तना, पितास्तना.

१० स अक्षरी अुतरांत दुसरें आनी पांचवें अक्षर 'अ' स्वरी आसल्यार त्या स्वरांचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.
झळ्झळाव्चें, भग्भगाव्चें, आड्खळाव्चें, सर्मराव्चें, झग्झगाव्चें, झळ्झळाय्ता, भग्भगाय्ता, आड्खळाय्ता, सर्सराय्ता, झग्झगाय्ता.

स अक्षरी अुतरांत दुसरें आनी चौथे अक्षर 'अ' स्वरी आसल्यार त्या स्वरांचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.
काळ्खांत्ल्यान, देव्ळांत्ल्यान, साळ्कांत्ल्यान, खिड्किंत्ल्यान, मन्शांत्ल्यान, दिव्चल्च्यान, कार्वार्च्यान, भट्कळ्च्यान.

स अक्षरी अुतरांत तिसरें अक्षर 'अ' स्वरी आसल्यार त्या स्वराचो अुच्चार स्पष्ट जायनासतना व्यंजनांत जाता.
पसर्कारान, मनिस्पणान, कोंकण्कारान.

अुतरांत मदीं आसतना 'अ' स्वर लोपची ही अेक तरा.
तीन अक्षरी अुतरांत 'अि', 'अी', 'अु', 'अू' आनी 'ओ' स्वर कांय वेळार भौवचन घडतना वा कुसां लागतकच लोपतात.

जमीन – जम्नी ; खारिक – खार्कां ;
लोसुण – लोस्णी ; तारिख – तार्खो ;
साळीक – साळ्कां ; कोगूळ – कोग्ळां ;

माणिक – माण्कां : रेडूक – रेड्कां :
मनीस – मन्शाक : खाजूर – खाज्राक :
कापूर – काप्राक : बोकूड – बोक्डाक :
मासोल – मास्लाक : काळोख – काळ्खाक :
काळीज – काळ्जाक : माणिक – माण्काक :
लोसूण – लोस्णिक :

१ १ दोन अक्षरी अुतरांत दोनय स्वर दीर्घ नासतात.

२ अेक स्वर दीर्घ आसून दुसरो ह्रस्व आसता.

कर, धर, मार, फाळ, चीर, धीट, सूट, फूट,
शेट, तेड, गोड, तोंळ.

हांतूंत सुरवातिचो स्वर दीर्घ.

वचूं, चलूं, खावूं, पिळूं, गिळूं, तुटूं, फुटूं, येवूं, घेवूं, घोळूं, तोडूं.
हांतूंत अंत्यस्वर दीर्घ.

३ दोनय स्वर ह्रस्व आसतात.
कर, मल, काका, मामा, हिका, तिका, तुका, धुरा, येता,
घेता, बोडां, तोरां. हांतूंत दोनय स्वर ह्रस्व.

४ आदलो स्वर ह्रस्व आसून दुसरें व्यंजन स्वरविरैत आसता.
सट्, फट्, किट्, किर्, धुस्, फुस्, केस्, फेस्.

२ १ तीन अक्षरी अुतरांत दोन स्वर दीर्घ नासतात.

२ अेक स्वर दीर्घ आसून दोन स्वर ह्रस्व आसतात आनी दीर्घ
स्वर खंयच्याय स्थानार आसुं शकता.

जीवन, कीलक, धारण, कारक, पूरक, पूजन, केसर, केवल,
पोषक, कोमल;

गांडीव, काळीज, किरीट, अिष्टीण, पुनीत, सुनीत, ओतीव, कोरीव,

लसूण, कापूर, किमूस, शिकून, मुलूस, तुटून, रेडूक, पेटूल, बोडूक, बोकूड;

सखोल, खगोळ, काळोख, फातोर, चिखोल, शिवोर, धूंवोर, कोचोप, सोरोप;

चलवूं, लकवूं, कालवूं, माळवूं, फिरवूं, चिरवूं, फुलवूं, धुववूं, न्हेसवूं, खेळवूं, सोडवूं, घोळवूं;

३ संस्कृत व्यंजनांत धातु कोंकणित घोळतना ह्रस्व 'अ' स्वरयुक्त जातात आनी आदलो स्वर दीर्घ जाता.

खन् – खण; रम् – रम; गिल् – गीळ; चल् – चल; भ्रम् – भोंव; नम् – नम; बंध् – बांद; कृष् – कोस; चुर् – चोर; छिद् – शींद; वह् – व्हांव; सिव् – शींव;

४ संस्कृत अेकाक्षरी धातु कोंकणित अेकाक्षरी रुपान घोळतात जाल्यार कांय दोन अक्षरी रुपान घोळतात.

कृ – कर; धृ – धर; मृ – मर; दा – दी; पा – पी; सृ – सर; ज्ञा – जाण; तृ – तर; नृ – नर; हृ – हर – व्हर; गै – गा; या – यो; स्ना – न्हा; भी – भी;

अे – चो अुच्चार –

१ ह्रस्व 'अ' न सोंपिल्लीं अुतरां 'अे' दीर्घ

केळ, मेळ, लेप, वेळ, भेद.

२ ह्रस्व 'आ' 'अि', 'अु' न सोंपिल्लीं अुतरां

येता, घेता,
मेथि, लेंडि, शेंडि, केळि,
पेडि, खेळु, मेळु, पेलु, तेळु, } 'अे' ह्रस्व

३ ह्रस्व 'अु' न सोंपिल्लीं अुतरां — 'अे' दीर्घ

देवु, देरु, देशु, खेळु, मेळु.

४ ह्रस्व 'अ' न सोंपिल्लीं अुतरां — 'अॅ'

केस, मेर, पेट, पेज, मेण, तेल.

५ 'अॅ' न सोंपिल्लीं अुतरां — दोनय स्वर 'अॅ'

रेडे, बेबे, चेडे, पेडे, खेडें.

ओ – चो अुच्चार –

१ ह्रस्व 'अ' न सोंपिल्लीं अुतरां — 'ओ' दीर्घ

बोळ, तोळ, जोळ, मोळ, तोल, खोल,
गोल, फोंड, सोंड, सोड, खोड.

२ ह्रस्व 'अि', 'अु' न सोंपिल्लीं अुतरां — 'ओ' ह्रस्व

गोरि, मोरि, खोलि, रोटि, बोंडि,
मोडुं, सोडुं, तोडुं, फोडुं, कोडु.

३ ह्रस्व 'अु' न सोंपिल्लीं अुतरां — 'ओ' दीर्घ

फोवु, मोरु, चोरु, मोवु, गोडु.

४ 'ऑ' न सोंपिल्लीं अुतरां — 'ऑ'

रवो, गळो, मळो, चलों, गरो, डबो,
धालो, काळो, वाडो, ताजो, वाळो,
विडो, चिरो, खिळो, निळो,
पुडो, पुरो, सुळो, गुळो, मुळो, अुणो.

५ 'ऑ' न सोंपिल्लीं अुतरां — 'अॅ', 'ऑ'

चेबो, रेडो, पेडो, चेडो, गेलो,
चोमो, घोडो, पोळो, गोरो, दोळो. — दोनय स्वर 'ऑ'

'ॲ', 'ऑ' न सुरु जाल्ल्या अुतरांक कुसां लागूनय हे स्वर अुच्चाराचे नदरेन बदलनात.

कॅस, कॅसाक, कॅसान ... ... मॉल, मॉलाक, मॉलान ... ... ...

ॲ, ऑ न सुरु जाल्लीं अुतरां –

कॅस, मॅर, पॅट, पॅज, मॅण, तॅल, मॅट, शॅत, बॅत, गॅत, शॅण, भॅण, धॉल, गॉड, मॉड, तॉर, बॉर, चॉर ऑट, घॉट, बॉट, रॉट, तॉड, खॉट.

दीर्घ स्वरान सुरु जाल्ल्या अुतरांक कुसां लागतकच तो स्वर ऱ्हस्व जाता.

चीट – चिटयेक, चिटयेन ... ... गूट – गुटाक गुटान ... ... .

अे, ओ हांच्या अुच्चाराबाबतित कांय नेम बांदु येतात.

१ ह्रस्व 'अ', 'अु' न सोंपिल्ल्या अुतरांआदि 'अे' स्वर आयल्यार तो दीर्घ आसता.

२ ह्रस्व 'आ', 'अि', 'अु' न सोंपिल्ल्या अुतरांआदि 'अे' स्वर आयल्यार तो ऱ्हस्व आसता.

३ ऱ्हस्व 'अ' न सोंपिल्ल्या कांय अुतरांआदि आयिल्ल्या 'अे' स्वराचो अुच्चार 'ॲ' जाता.

४ ॲ न सोंपिल्ल्या अुतरांआदि 'अे' स्वर आयल्यार ताजो अुच्चार 'ॲ' जाता.

५ ऱ्हस्व 'अ', 'अु' न सोंपिल्ल्या अुतरांआदि 'ओ' स्वर आयल्यार तो दीर्घ आसता.

६ ऱ्हस्व 'अि' 'अु' न सोंपिल्ल्या अुतरांआदि 'ओ' स्वर आयल्यार तो ऱ्हस्व आसता.

७ ऱ्हस्व 'अ', 'आ' 'अि', 'अु' न सुरु जाल्ल्या अुतरांच्या अंत्याक्षरांत 'ओ' आयल्यार ताजो अुच्चार 'ऑ' जाता.

८ 'अ‍ॅ' न सुरु जाल्ल्या अुतरांच्या अंत्याक्षरांत 'ओ' आयल्यार ताजो अुच्चार 'ऑ' जाता.

९ आदलो आनी नंतरचो स्वर 'ओ' आसल्यार तांचो अुच्चार 'ऑ' जाता.

कांय बाबतींत हांचो अुच्चार कोंकणिच्या कांय बोलिप्रमाण आनी लोकांप्रमाण बदलता.

१ दीर्घ स्वरान सुरु जाल्ल्या अुतरांक कुसां लागतकच तो स्वर ऱ्हस्व जाता.

देशु – देशाक; देवु – देवाक; खेट – खेटिक;

वेण – वेणिक; शेट – शेटिक; खेळु – खेळाक;

केळ – केळिक; गेण – गेणिक; चोर – चोराक;

रोग – रोगाक; मोड – मोडिक; बोळ – बोळाक;

मोर – मोराक; भोग – भोगाक; बोर – बोरिक;

२ अ‍ॅ, ऑ न सुरु जाल्ल्या अुतरांक कुसां लागतकच तो स्वर बदलना.

शॅत – शॅताक; मॅण – मॅणाक; तॉंड – तॉंडाक;

तॉर – तॉराक; शॅण – शॅणाक; बॅत – बॅताक;

धॉल – धॉलाक; बॉट – बॉटाक; गॉड – गॉडाक;

असलीं अुतरां चड करून नपुंसकलिंगी आसतात.

३ कांय वेळार दीर्घ 'ओ' न सुरु जाल्ल्या आनी ऱ्हस्व 'अ' न सोंपिल्ल्या पुरुशलिंगी नामांचें भौवचन घडतना दीर्घ 'ओ' स्वर 'ऑ' जाता. चोर – चॉर; मोर – मॉर;

असलीं चडशीं अुतरां मेळनात.

४ आदलो आनी नंतरचो 'ऑ' स्वर आसिल्ल्या पुरुशलिंगी अुतरांचें भौवचन घडतना आनी कुसां लागून रुपां घडतना आदलो 'ऑ' स्वर तसोच अुरता.

चॉमॉ – चॉमे; घॉडॉ – घॉडे; पॉळॉ – पॉळे; दॉळॉ – दॉळे;
चॉम्याक – चॉम्यांक; घॉड्याक – घॉड्यांक;
पॉळ्याक – पॉळ्यांक; दॉळ्याक – दॉळ्यांक;

## ह्रस्व – दीर्घ नेम

१ कोंकणित दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षराचो स्वर ह्रस्व 'अ' आसल्यार सुरवातिचो स्वर सदांच दीर्घ आसता पुण कांय तत्सम अुतरांत दोनय स्वर ह्रस्व आसतात.

घर, मळ, नळ, चड, जड, वड, कर, जर, तर;
खंय, जंय, हंय, थंय;
काल, आज, आस, मार, घाल, खाड, दाड, खाण, सात;
तीख, गीळ, पीळ, चीर, मीठ, गीत, रीण, नीत, खीण, पीट, वीट, चीट, धीर;
धूळ, पूस, मूळ, कूळ, अूठ, धूल, फूल, सूत, मूत, पूत, सूप, धूप;
मेज, केळ, मेळ, लेप, वेळ, भेद, शेर, देर, शेट, देव, भेळ, खेळ;
जोड, घोळ, तोळ, गोड, मोव, तोड, फोड, मोड, खोड, पोर.

कांय तत्सम अुतरां –

कर, मल, गण, तट, पट, कंद, मंद, चंड, छंद, चिर, दिन, विष, शिर, अुप, पुर, मुख, कुश, सुर, मुंड, कुंड, पुंड, रुंड.

२ कोंकणित दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षराचो स्वर ह्रस्व 'आ' आसल्यार सुरवातिचो स्वर सदांच ह्रस्व आसता पुण कांय तत्सम अुतरांत तो दीर्घ आसता.

अगा, तरा, जरा, धरा, गंगा, अंब्रा;
काका, मामा, राया, माया, काया, बाबा, ताका, हांगा, थांगा;
ह्रि.ा, तिका, जिका, दिला, पिला, बिळां. शिंगां, गितां;
तुका, धुरा, सुधा. क्षुधा, पुजा, कुळां, मुळां दुखां, धुपां, फुलां,
येता, घेता, पेरां, केंडां, शेंगां, गेतां, शेतां;
बोडां, तोरां, बोटां, तोंडां, पोरां, सोलां.

कांय तत्सम अुतरां –
टीका, गीता, नीला, सीता, लीला, पीडा, पूजा, मूला.

३ कोंकणित दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षराचो स्वर ह्रस्व 'अि' आसल्यार सुरवातिचो स्वर ह्रस्व अ, आ, अि, अु, अे, ओ आनी दीर्घ अ, आ, अी, अू आसता.

सति, पति, मति, कळि, फणि, मणि, तळि, बडि, सळि, खळि;
भाअि, ताअि, माअि, आअि, काकि, मामि, हाळि, गाळि, माळि;
फांति, लिपि, गिरि, खिळी, पिठि, गिडि, पिंडि, दिंडि, चिंदि;
अुळि, पुळि, सुरि, पुरि, गुळि, गुलि, धुरि, कुंडि, बुंदि, अुंडि;
पेडि, पेळि, पेटि, मेथि, लेंडि, शेंडि, भेंडि;
होळि, चोरि, दोरि, गोरि, मोरि, खोलि, बोलि, रोटि, बोंडि, कोंडि;
म्हैयि, खयि, थयि, करि, धरि, भरि, तळि, मळि, माळि, फाळि,
घाणि, सालि, दाळि, आजि, कालि, फायि, पीळि, गीळि, चीरि,
कोळि, धूयि मूयि, धूळि, सूयि.

४ कोंकणित दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षराचो स्वर ह्रस्व 'अु' आसल्यार सुरवातिचो स्वर ह्रस्व अ, आ, अि, अु, अे, ओ आनी दीर्घ अ, आ, अी, अू, अे, ओ आसता.

कडु, खडु, रडुं, चलुं, वचुं, मरुं, पडुं, तळुं, जायु, मालु, बाळ, राजु, काजु, साधु, हालुं, माळुं, घालुं, रिपु, लिबु, हिंदु, सिंधु, बिंदु, हिंडु, पित्रुं, दिवुं, तुसु, रुनु, सुरु, पुसुं, घुसुं, पुरुं, मुरुं, खेळुं, मेळुं, पेलुं, तेळुं, मोडुं, सोदुं, घोळुं, फोडुं, कोडु,

भटु, मठु, पणु, कणु, गंवु, मामु, भावु, रायु, घानु, सारु, पासु, कानु, गांवु, मांवु, कीरु, खीणु, दीनु, धीरु, दीकु, धीटु, खोरु, तीटु, नीळु, तीळु, मूसु, पूतु, कूळु, खूरु, दूतु, देवु, देरु, देशु, खेळु, मेळु, वेळु, देंटु, फोवु, मोरु, चोरु, मोवु, गोडु, दोषु

५ कोंकणित दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षराचो स्वर ह्रस्व ‘ अे ’ आनी ‘ ओ ’ आसल्यार सुरवातिचो स्वर सदांच ह्रस्व आसता.

तळें, फळें, मळे, चले, गळे, मडें, थडें, गडे,
ताळे, गाडं, ताणें, हाणें, जाणें, हांवें, तांबे, खांदे, हाजें ताजें;
किडे, चिरे, विडे, तिबे, खिळे, तिणें, हिणें, जिणें, पिणें, भिरें, दिणें;
खुबे, पुडे, कुले, अुले, गुळे, तुरे, सुके, भुके, अुणें, तुवें, फुडें, सुणें, धुणें;
रेडे, चेडे, पेडे, मेले, गेले, पेले, येणें, घेणें, येरें, भेंडे, लेंडे, केळें, खेडें;
घोडे, फोडे, तोडे, पोळे, दोळे, पोले, कोले गोरे, भोळे, बोंडे, कोणें.
गळो, मळो, चलो, रवो, गरो, डबो, खबो, धवो,
धालो, कालो, वाळो, वाडो, हाजो, काळो, ताळो, पाळो, आंबो, खांबो.
विडो, चिरो, खिळो, निळो, शिरो, तिबो, हिजो, तिजो, निरो, किडो,
किसो, पिसो, पुडो, पुरो, चुरो, कुलो, अुलो, गुळो, सुळो, मुळो, अुजो,
खुबो, अुभो, तुजो, तुरो, बेबो, भेरो, वेळो, केदो, येंदो, तेदो, धेडो,
चेडो, रेडो, पेटो, गेलो, मेलो, मेंगो, शेंडो, चोमो, चोगो, भोबो, गोरो,
पोळो, पोलो, दोळो, सोरो, मोठो, कोलो, भोरो, घोडो, कोंबो.

६ दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक ‘ र ’ युक्त जोडाक्षर ह्रस्व ‘ अ ’ ‘ अु ’ स्वरी आसून ‘ र ’ चें स्थान पैलें आसल्यार सुरवातिचो स्वर ह्रस्व ‘ अ ’ दीर्घ ‘ आ ’ ‘ अी ’ ‘ अू ’ आसता जांतूंत तत्सम अुतरांच दिसून येतात.

स्वर्ग, वर्ग, अर्थ, कर्क, कर्म, कर्ण, मर्म, गर्क, तर्क, चर्म, गर्व, धर्म.
स्वर्गु, वर्गु. अर्थु, वर्णु, मर्मु, गर्वु, धर्मु, सर्पु.
आर्य, मार्ग, पार्थ, कार्य, सार्थ, आर्त, स्वार्थ; आर्यु, मार्गु, स्वार्थु.
कीर्त, वीर्य, तीर्थ, दीर्घ, जीर्ण, शीर्ष. ( मीर्ग – मृग – कोंकणी )
पूर्ण, चूर्ण, पूर्व, सूर्य, तूर्त, धूर्त. मूर्ख, मूर्त, कूर्म, सूर्ण, म्हूर्त.
म्हूर्तु, सूर्यु, मूर्खु सूर्णु, धूर्तु, चूर्णु.

७ दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक ‘ र ’ युक्त जोडाक्षर ह्रस्व ‘ अ ’ स्वरी आसून ‘ र ’ चें स्थान मागीर आसल्यार सुरवातिचो स्वर ह्रस्व ‘ अ ’ ‘ अि ’ ‘ अु ’ आनी दीर्घ ‘ आ ’ ‘ अी ’ ‘ अू ’ आसता जांतूंत तत्सम अुतरांच दिसून येतात.

पत्र, छत्र, सत्र, तक्र, यत्र, अत्र, नम्र, तंत्र, मंत्र, यंत्र.
चित्र, मित्र, छिद्र, क्षिप्र, विप्र, हिंस्र; पुत्र, शुक्र, कुत्र, क्षुद्र, रुद्र.
गात्र, पात्र, छात्र, आंत्र, मात्र; तीव्र, शीघ्र,
सूत्र, मूत्र, शूद्र, धूम्र,

८ दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षराचो स्वर ह्रस्व ‘अ’, ‘अु’ आसून सुरवातिक ‘र’ युक्त जोडाक्षर जांतूंत ‘र’ चें स्थान मागीर आसल्यार ह्रस्व ‘अ’ स्वर सोडून अितर स्वर सदांच दीर्घ आसतात जांतूंत तत्सम अुतरांच दिसून येतात पुण कोंकणित घोळतना ह्रस्व ‘अ’ स्वर दीर्घ जावन घोळता.

क्रम, भ्रम, श्रम, भ्रष्ट; क्रमु, भ्रमु, श्रमु, भ्रष्टु.
प्राण, क्रांत, भ्रांत, श्रांत, प्रांत, श्राप; प्राणु, प्रांतु, श्रापु.
ग्रीष्म, व्रीद; ग्रीष्मु; क्रूर, भ्रूण; क्रूरु, भ्रूणु; प्रेम, प्रेत,
श्रेष्ट, श्रेय; प्रेमु, श्रेष्टु, श्रेयु; द्रोह, क्रोध; द्रोहु, क्रोधु.

९ दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक जोडाक्षर आसून ह्रस्व ‘ अ ’ स्वरी आसल्यार सुरवातिचो स्वर सदांच ह्रस्व ‘ अ ’, ‘ अि ’, ‘ अु ’ आनी

दीर्घ आ, ई, ऊ, ए, ओ आसता जांतूंत चडशीं अुतरां तत्समच असतात.

गद्य, मद्य, पद्य, खड्ग, कष्ट, भष्ट, सप्त, अष्ट, शक्त, भक्त, अिष्ट, रिक्त, पित्त, मिष्ट, शिश्न, शिल्प, भिन्न, विघ्न, शिस्त, तुस्त, मुक्त, मुख्य, गुप्त, तुल्य, पुण्य, दुष्ट, शुष्क, पुष्ट, कुष्ट, खाद्य, आप्त, काष्ट, घास्ट, भाष्य, काव्य, कांस्य, आद्य, साध्य. तीक्ष्ण, भीष्म; सूक्त, सूक्ष्म, मूल्य, पूज्य, सूप्त; जेष्ट, श्रेष्ट; कोष्ट, ओष्ट.

१० कोंकणित दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक जोडाक्षर आसून ह्रस्व आ, अि, ए, ओ स्वरी आसल्यार सुरवातिचो स्वर सदांच ह्रस्व अ, आ, अि, अु, ए, ओ, आसता.

| | |
|---|---|
| फळ्ळा, गळ्ळा, चल्ला, | हाल्ला, फाळ्ळा, माळ्ळा. |
| गिळ्ळा, पिळ्ळा. | जुळ्ळा। फुल्ला, रुळ्ळा. |
| केन्ना, जेन्ना, येन्ना. | सोल्ला, घोळ्ळा, धोल्ला. |
| चल्लिल, मळ्ळिळ, गळ्ळिळ. | हाल्लिल, माळ्ळिळ, फाळ्ळिळ. |
| पिल्लिल, दिल्लिल, भिल्लिल. | नुस्तिल, अुष्टिल, पुस्तिल. |
| केल्लिल, मेल्लिल, खेळ्ळिळ. | धोल्लिल, घोळ्ळिळ, सोल्लिल. |
| दळ्ळे, गळ्ळे, फळ्ळे. | सात्तें, पाळ्ळे, हाल्ले. |
| अिल्ले, गिळ्ळे, पिळ्ळे. | नुस्तें, गुत्ते, अुष्टें. |
| केल्ले, गेल्ले, मेल्ले. | सोल्ले, घोळ्ळे धोल्ले. |
| गळ्ळो, गड्डो, पट्टो. | गाळ्ळो, न्हाल्लो, जाल्लो. |
| गिळ्ळो, पिळ्ळो, भिल्लो. | अुक्तो, गुत्तो, कुड्डो. |
| केल्लो, गेल्लो, चेप्टो. | सोल्लो, गोट्टो, घोळ्ळो. |

११ कोंकणित कांय एकाक्षरी अुतरां दीर्घ स्वरी आसल्यार कांय ह्रस्व स्वरी आसतात.

| | |
|---|---|
| स, धा, जा, न्हा, पी, दी, भी, धू,<br>तूं, शीं, पू, रूं, गू, फू, ए,<br>मू, की, बी, छी, थू, हं, हां. | } संख्या विशेशण,<br>धातु, सर्वनाम, नाम,<br>अव्यय दीर्घ स्वरी. |

| | |
|---|---|
| तो, ति, तें, हो, हि, हें, ते, त्यो, तिं,<br>हे, ह्यो, हिं, जो, जि, जें, जे, ज्यो,<br>जिं, च, य, कि, गा, वा, गे, रे | सर्वनाम, अव्यय<br>ह्रस्व स्वरी. |

दोन अक्षरी अुतरांत दोनय स्वर ह्रस्व आसतात.

| | |
|---|---|
| आनि, पुण, जरि, तरि, असो, अशि,<br>अशें, अशे, अश्यो, अशिं, तसो, तशि<br>तशें, तशे, तश्यो, आमि, तुमि,<br>तांणि, हांणि, जांणि, तशिं, जसो,<br>जशि, जशें, जशे, जश्यो, जशिं,<br>काजु, बाजु, म्हारु, तारुं, अगे, अगो | अव्यय, सर्वनाम, नाम<br>दोनय स्वर ह्रस्व. |

| | |
|---|---|
| करि, धरि, मारि, हाडि. | अपूर्ण भूतकाळी क्रियापदां<br>दोनय स्वर ह्रस्व. |

| | |
|---|---|
| मस्ति, अुस्ति, निर्मि,<br>अर्पि, घष्टि, खर्चि. | तिसऱ्या गणांतले धातु<br>दोनय स्वर ह्रस्व. |

दोन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षरांतलो स्वर दीर्घ आसता.

| | |
|---|---|
| वच, आस, धांव, खेळ, नज. | अपूर्ण भूतकाळी अकर्मी<br>क्रियापदांचीं रुपां. |

| | |
|---|---|
| वचूं, आसूं, धांवूं, वाचूं, धुवूं | आज्ञार्थी पैलों आनी तिसरो<br>पुरुशी अेकवचनी क्रियापदां. |

दोन अक्षरीं अुतरांत आद्याक्षरांतलो स्वर दीर्घ आसून अंत्याक्षरांतलो स्वर ह्रस्व आसता.

| | |
|---|---|
| करि, धरि, हाडि, पीळि,<br>गीळि, धूयि, पूसि. | आज्ञार्थी दुसरो पुरुशी अेकवचनी<br>कर्मी क्रियापदांचीं रुपां. |

१२ तीन अक्षरी अुतरांत तीनय स्वर ह्रस्व आसतात.

पदर, नदर, हळद, चपल, करण, धरण, परत, सदर;
काजळ, धांवन, खावन, पावन;
चितळ, पितळ, किरण, गिरण, निसण, मिलन;
पुरण, कुरण, सुजन, कुशल;
अखिल, दक्षिण, मंदिर, गणित, पंडित;
माणिक, काणिक, तानिक, चालित, साधित;
शिबिर, विविध, नित्सित, निर्मित, विचित्र, विच्छिन्न;
अुचित, कुपित, कुंठित, रुचिक, मुद्रित, शुचित्व;
अरुण, तरुण, अंकुश, करुण, चतुर, शत्रुत्व, मनुष्य;
दारुण, आपुण, तारुण्य, नाखुट, पावुल, बाप्पुस, मालुंड, कारुण्य;
पुरुश, सुगुर, कुसुम, मुगुट गुरुत्व, दुर्गुण;

तीन अक्षरी अुतरांत पैल्या अक्षरांतलो स्वर दीर्घ आसता.

चालन, पालन, बालक, नारद, पारज, कारक, धारण;
जीवन, शीतल, कीलक;
पूरक, पूजन, कूजन, मूलक, दूशण, पूजक;
केसर, केबल, प्रेरक, प्रेषक, प्रेमळ;
पोषक, कोमल, कोदंड, तोरण, गोलक;
भासिक, त्रासिक, मार्मिक, कार्मिक, मासिक, पांडित्य;
पीडित, सीमित, जीवित;
सूचित, पूजित, अूर्जित, मूर्छित, दूशित;
सेवित, प्रेषित;
घोषित, सोशिक, बोधित, रोगिष्ट, कोपिष्ट;

तीन अक्षरी अुतरांत दुसऱ्या अक्षरांतलो स्वर दीर्घ आसता.

गांडीव, काळीज, साळीक, पानीय, वागीण, नागीण, खारीक;
संगीत, नवीन, रंगीन, प्रवीण, मनीस, जमीन, अजीर्ण, गरीब;
किरीट, अिष्टीण, सिबीण;

पुनीत, धुरीण, सुनीत, सुपीक, अुत्तीर्ण, सुदीर;
ओतीव, कोरीव;
ह्मूण, सरून, पचूंक, पचून, वचून;
कापूस, कापूर, तांदूळ, नाचूंक, खाजूर, लाकूड, रांडूळ माचूल;
किमूस, शिकून, निदून, त्रिशूळ, भिकूण, टिकून, चिरून;
सुलूस, तुटून, फुटून, अुठून, मुंगूस, कुरूट;
रेडूक, बेडूक, पेटूल, शेंबूड, मेळून, देखून;
बोडूक, बोकूड, कोगूळ, गोमूत्र, कोल्क, फोडून, सोलून;
सखोल, खगोल, प्रमोद; काळोख, फातोर, मांटोव;
चिखोल, शिवोर; धुवोर; कोचोप, सोरोप.

तीन अक्षरी अुतरांत अंत्याक्षरांतलो स्वर ह्रस्व आसता.

कळता, चलता, फळता, मळता, सरता.
धांवता, चावता, पाळता, सारता, गाळता.
चिवता विकता, पिकता, शिकता, लिपता.
फुटता, फुकता, चुकता, लुटता, सुटता.
खेपता, चेपता, लेंवता, मेळता, खेळता.
सोबता, पोंवता, सोवता, कोंवता, लोंबता.
धरणि, तरणि, करणि, चरणि सवणि.
पावणि, चाळणि, काळखि, पालखि साकळि.
पिळगि, किसणि, किटलि, तिकलि, पिकलि.
फुडलि, तुटलि, सुतळि, सुटलि, पुतळि.
केमरि, पेरणि, खेळणि, चेरणि.
पोटलि, पोटगि, पोसकि, तोतरि, चोरटि.
असले, तसले, कसले, जसले, बसले.
धांवले, आंकडे, आंवले, कावळ, मावळे.
चिवले, अिंगळे, पिकले, शिकले, चिंतले.
अपरे, अुसणें, सुकणें, सुटले, फुटले.
चेपले, मेकळे, देखणे, तेंकले, वेगळे, देखलें.

थोमणें, गोमलें, मोखले, रोंवले, सोवले.

दवलो, मदलो, सरलो, रकलो, रडलो.

आंकडो, राकणो, धाकलो, राखलो, बावलो.

विकलो, जिकलो, पिकलो, शिकलो, शिंवलो.

कुसको, तुकडो, सुकडो, फुसको, अुकडो.

शेंकडो, देखणो, शेंबडो, भेंबरो, शेंकरो.

पोसको, बोडको, रोकडो, दोंबळो.

परशु, नरकु, गरकु, सरसू.

पावलु, शामळु, माणकु, आणकु.

अज्ञार्थी पैलो पुरुशी आनी तिसरो पुरुशी अेकवचनी रुपां दीर्घ 'अू' स्वरान सोंपिल्लीं आसतात.

चलवूं, बरवूं, चरवूं; खाववूं, न्हाणवूं;
पिववूं, किसळूं, शिकवूं; अुकळूं, सुकवूं, अुडवूं;
खेळवूं, तेंकवूं, पेटवूं; सोडवूं, मोडवूं, गोमवूं;

१३ दीर्घ स्वरान सोंपिल्ल्या धातुंक कुसां लागतना तो स्वर ह्रस्व जाता.

पी – पिता, पिलो, पितलो, पितालो, पिल्लो.

भी – भिता, भिलो, भितलो, भितालो, भिल्लो.

दीर्घ स्वरान सुरु जाल्ल्या नामांक कुसां लागतना तो स्वर ह्रस्व जाता.

भूंय – भुंयेक, भुंयेन, भुंयेत, भुंये.

मूय – मुयेक, मुयेन, मुयेंत, मुये.

पूत – पुताक, पुतान, पुतांत, पुता.

दीर्घ स्वरान सुरु जाल्ल्या तत्सम अुतरांक कुसां लागतना दीर्घ स्वर तसोच अुरता.

सूर्य – सूर्याक, सूर्यान, सूर्यांत, सूर्या

१४ तीन अक्षरी अुतरांत निमाण्या आदल्या अक्षरांत 'अि' 'अी' 'अु' 'अू' आनी 'ओ' स्वर आसल्यार त्या नामाचें सामान्यरूप घडतना तो 'अ' स्वरी जाता. पुरुशलिंगी नामांचें भौवचन घडतना कांय बदल घडना पुण स्त्रीलिंगी नामांचें भौवचन घडतना अंत्याक 'अी' आनी नपुंसकलिंगी नामांचें भौवचन घडतना अंत्याक 'आं' असो बदल घडता.

| नाम | अेकवचन | भौवचन | सामान्यरूप अेकवचन | सामान्यरूप भौवचन | लिंग |
|---|---|---|---|---|---|
| मनीस | मनीस | मनीस | मनशा | मनशां | पु |
| हुंदीर | हुंदीर | हुंदीर | हुंदरा | हुंदरां | पु |
| खाजूर | खाजूर | खाजूर | खाजरा | खाजरां | पु |
| मुंगूस | मुंगूस | मुंगूस | मुंगसा | मुंगसां | पु |
| कापूस | कापूस | कापूस | कापसा | कापसां | पु |
| बापूय | बापुय | बापूय | बापाय | बापायां | पु |
| कापूर | कापूर | कापूर | कापरा | कापरां | पु |
| बाप्पुसु | बाप्पुसु | बाप्पुस | बाप्सु | बाप्सुं | पु |
| तांदूळ | तांदूळ | तांदूळ | तांदळा | तांदळां | पु |
| शेंबूड | शेंबूड | शेंबूड | शेंबडा | शेंबडां | पु |
| गोपूर | गोपूर | गोपूर | गोपरा | गोपरां | पु |
| बोकूड | बोकूड | बोकूड | बोकडा | बोकडां | पु |
| काळोख | काळोख | काळोख | काळखा | काळखां | पु |
| फातोर | फातोर | फातोर | फातरा | फातरां | पु |
| चिखोल | चिखोल | चिखोल | चिखला | चिखलां | पु |
| सोरोप | सोरोप | सोरोप | सोरपा | सोरपां | पु |
| धुंवोर | धुंवोर | धुंवोर | धुंवरा | धुंवरां | पु |
| मांटोव | मांटोव | मांटोव | मांटवा | मांटवां | पु |
| कोचोप | कोचोप | कोचोप | कोचपा | कोचपां | पु |
| अुडीद | अुडीद | अुडीद | अुडदा | अुडदां | पु |

| | | | सामान्यरूप | | |
|---|---|---|---|---|---|
| नाम | अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन | लिंग |
| कुळीद | कुळीद | कुळीद | कुळदा | कुळदां | पु |
| मासोल | मासोल | मासोल | मासला | मासलां | पु |
| जमीन | जमीन | जमीन | जमनि | जमनिं | स्त्री |
| लोसूण | लोसूण | लोसणी | लोसणि | लोसणिं | स्त्री |
| काळीज | काळीज | काळजां | काळजा | काळजां | न |
| साळीक | साळीक | साळकां | साळका | साळकां | न |
| माणिक | माणिक | माणकां | माणका | माणकां | न |
| कारीट | कारीट | कारटां | कारटा | कारटां | न |
| किजील | किजोल | किजलां | किजला | किजलां | न |
| नाखुट | नाखुट | नाखटां | नाखटा | नाखटां | न |
| देवुळ | देवुळ | देवळां | देवळा | देवळां | न |
| पावुल | पावुल | पावलां | पावला | पावलां | न |
| पादुक | पादुक | पादकां | पादका | पादकां | न |
| पेटूल | पेटूल | पेटलां | पेटला | पेटलां | न |
| लाकूड | लाकूड | लाकडां | लाकडा | लाकडां | न |
| रांडूळ | रांडूळ | रांडळां | रांडळा | रांडळां | न |
| मुगुट | मुगुट | मुगटां | मुगटा | मुगटां | न |
| कुरूट | कुरूट | कुरटां | कुरटा | कुरटां | न |
| कोगूळ | कोगूळ | कोगळां | कोगळा | कोगळां | न |
| माचूल | माचूल | माचलां | माचला | माचलां | न |
| कुसुम | कुसुम | कुसमां | कुसमा | कुसमां | न |
| बेडूक | बेडूक | बेडकां | बेडका | बेडकां | न |
| रेडूक | रेडूक | रेडकां | रेडका | रेडकां | न |
| बोडूक | बोडूक | बोडकां | बोडका | बोडकां | न |
| किमूस | किमूस | किमसां | किमसा | किमसां | न |
| भिकूण | भिकूण | भिकणां | भिकणा | भिकणां | न |

| | | | सामान्यरूप | | |
|---|---|---|---|---|---|
| नाम | अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन | लिंग |
| हांतुळ | हांतुळ | हांतळां | हांतळा | हांतळां | न |
| कुलूप | कुलूप | कुलपां | कुलपा | कुलपां | न |

असलीं आनी जाय तीं अुतरां मेळतित.

'अॅ', 'ऑ' न सुरु जाल्ल्या अुतरांक कुसां लागतना तांचो अुच्चार बदलना.

मॅण – मॅणाक, मॅणान, मॅणापरस, मॅणांत.

ताँड – ताँडाक, ताँडान, ताँडापरस, ताँडांत.

प्रचलित कोंकणित कांय अुतरांच्या अंत्याक्षराचो स्वर आवश्यकतेभायर दीर्घ केल्लो आसून ताका शास्त्रीय आधार ना.

नामां – कवी, पती, मती, फणी, राणी, भाअी, ताअी, माअी, काकी, मामी, अुळी, पुडी, सुरी, मुडी, घुडी, पेडी, लेंडी, शेंडी, पेळी, केळीं, पेटी, कोंडी, बोंडी, कोळी, लोणी, मोनो. ह्रस्व 'अि' न सोंपिल्लीं अुतरां.

काजू, बाजू, म्हारू, राजू, गोरूं ह्रस्व 'अु' न सोंपिल्लीं अुतरां.

सर्वनामां – आमी, तुमी, तांणी, हांणी जांणी, ती, ही, जी, तीं, हीं, जीं

सार्वनामिक विशेशणां – असली, तसली, जसली, असलीं, तसलीं, जसलीं

विशेशणां – काळी, धवी, गोरी, निळी, पाचवी, हळदुवी.

अव्ययां – अशी, तशी, जशी, अशीं तशीं, जशीं.

अुभयान्वयी अव्ययां – आनी, पूण, जरी, तरी,

अपूर्ण भूतकाळी क्रियापदां – करी, धरी, हाडी, मारी.

भूतकाळी रुपां – चल्ली, गळ्ळी, हाल्ली, माळ्ळी, पिली, भिली,
केलीं, गेलीं, धोल्ली, घोळ्ळी.

भूतभूतकाळी रुपां – चलिल्ली, आयिल्ली, गळिल्ली, केल्ली गेल्ली,
धोलिल्ली, घोळिल्ली.

भविश्यकाळी रुपां – चलतली, गळतली, हालतली, माळतली,

१५ दोन अक्षरी अुतराच्या अंत्याक्षरांत आसिल्लो 'अि' वा 'अु' स्वर 'अ' स्वरी जाता.

नामांत – रामु – राम; पूतु – पूत; देवु – देव; बसवु – बसव;
पासु – पास; मूसु – मूस; कूळु – कूळ; कीरु – कीर;
खीणु – खीण; गांवु – गांव; मांवु – मांव;
मामु – माम; खेळु – खेळ; भटु – भट; मठु – मठ;

अव्ययांत – कालि – काल; आजि – आज; फायि – फाय;
थंयि – थंय; हंयि – हंय; भायरि – भायर;
भितरि – भितर; मागिरि; – मागीर; पैरि – पैर;
वयरि – वयर;

धातुंत – कांय सकर्मक धातु तिसऱ्या गणाचें 'अि' कूस लागून चलताले पुण हो 'अि' स्वर 'अ' स्वरी जाला.

वाच + अि – वाचि – वाचिता, वाचिलो, वाचितालो, वाचिल्लो,
वाचितलो.

मार + अि – मारि – मारिता, मारिलो, मारितालो, मारिल्लो
मारितलो.

भूतभूतकाळाचें रूप मात्र अजूनय तशेंच घोळता.

कांय जण वाचल्लो, मारल्लो, तळल्लो, गळल्लो, भाजल्लो अशीं रुपां घोळतात पुण तीं चुकिचीं.

# स्वर बदल

१ संस्कृत 'अ' स्वर कोंकणित घोळतना अ, आ, ऎ, ऒ, अं, जावन घोळता.

१ अ – लज्जा > लज; अलवण > अळणि; फलं > फळ; फलाहारः > फळारु; भण > म्हण; रट > रड; वलयं > वळें; स्मशान > मसण;

२ आ – अद्य > आजि; अग्निष्टिका > आगटें; कर्णः > कानु; पर्ण > पान; सप्त > सात; हस्तः > हातु; तक्रं > ताक; अष्ट > आठ; गंधः > गांदु; कश्यपः > कासवु; रज्जुः > राज्जु; वल्लि > वालि;

३ ऎ – तदानिं > तेन्ना; नक्षत्र > नेखेत्र; कदलि > केळि; शतं > शें; मर्यादा > मेर;

४ ऒ – मधुः > म्होंव; भ्रमरः > भोंवरो; मयूरः > मोरु; नवमी > नोमि; बहु > भो; भ्रम > भोंव; अर्प > ओंप; सर्पः > सोरोपु; शप् > सोव; मत्सर > मोसर;

५ अं – अत्र > हंयि; तत्र > थंयि; कुत्र > खुंयि; यत्र > जंयि;

२ संस्कृत 'आ' स्वर कोंकणित घोळतना अ, आ, जावन घोळता.

१ अ – मानस > मन; कठाह > कढयि; पारावतः > पारवो; जिव्हा > जीब; तृष्णा > तान; आरात्रिका > आरति;

२ आ – काल्या > कालि; पाद > पावुल; आदि > आदलो; आत्मन् > आपुण; मान्या > मान; आस्पृष्ट > आपूड; आरात्रिका > आरति; आश्रयः > आसरो;

३ संस्कृत 'अि' स्वर कोंकणित घोळतना अ, अि, अी, अे जावन घोळता.

१ अ – मति > मत; अग्नि > आग; परिमल: > परमळु:
पक्षिरूप: > पाखरु; शनिवार: > शेनवारु;
ज्योतिषी > जोयशि; दधिन् > धंयि > धंय;
भूमि > भूंय; निटिल > निडळ; प्रीति > प्रीत;
रीति > रीत; मक्षिका > मूस;

२ अि – अिगारक: > अिगाळो; हिंड: > हिंडु;
हिंदोलक: > हिंदुळो; मुद्रिका > मुद्दि;
माणिक्यम् > माणिक; अंगिका > आंगि;

३ अी – हिम > हींव; विद्युत् > वीज; जिव्हा > जीब;
पिष्ट > पीठ; निद्रा > नीद;

४ अे – नियम: > नेमु; आिर्दान > अेद्दणा > अेन्ना;
शिखंडि > शेंडि; सिंदूर: > शेंदुरु;

४ संस्कृत 'अी' स्वर कोंकणित घोळतना अि, अी, अीं, अे जावन घोळता.

१ अि – कीटक: > किडो; दीपावली > दिवाळि;
दीप: > दिवो; ग्रीष्मकाल: > गिमाळो;
शीतकाल: > शियाळो;

२ अी – प्रीति > प्रीत; गीतं > गीत; तीक्ष्ण > तीख;
रीति > रीत;

३ अीं – शीतं > शीं; बीजं > बीं;

४ अ – शीतल > शेळि; स्तीम: > थेंबो;

७  ऋ > ओ – मृषः > मोसु., मृदुः > मोवु , कृषि > कोसि.,
पृथुः > फोवु., मृद् > मोळ., मृदुल > मोवाळ.,

८  ऋ > अे – कृतः > केलो., मृतः > मेलो., गृह > घे.,
हृतः > व्हेलो.,

१  अे > अ – अेकादश > अकरा., गवेषण > गवस.,
निःश्रेणी > निसणि.,

२  अे > अे – वेला > वेळु., वेषः > वेसु., चेटः > चेडो.,
क्षेत्र > शेत., वेत्र > बेत., वेष्टः > वेडो.,

१  अै > अे – मैथुनकः > मेवणो; तैल्यम् > तेल., नैवेद्यः > नेवेदु.,

२  अै > अै – वैद्यः > वैजु., शैत्य > सैत.,

अ + अि > अै – वरयितृ > होरैन., बधिरः > भैरो;
भगिनि > भैणि., विरहित > विरैत., पुरोहितः > पुरैतु.,
प्रथिलः > पैलो., अुपविश् > बैस., शिथिल > सैल.,
सहित > सैत.,

१  ओ > अ – अंगोचः > आंगसो., करोटि > करटि.,
गोधूम > गंव., लोमन् > लंव.,

२  ओ > अु – हिंदोलकः > हिंदुळो., गोलकः > गुळो.,
जलोका > जळु.,

३  ओ > ओ – मोहः > मोगु., भोगः > भोगु., कोमल > कोंवळें.,

१  औ > ओ – गौरकः > गोरो., औषध > ओकद., मौक्तिकम् >
मोति., व्दौ > दोनि.,

२  औ > औ – कौल., खौलो., भौजन., भौवचन., बहु > भौ;
चतुर्थः > चौथो., नववरिका > न्हौरि., नववरः > न्हौरो.,
चतुर्दशः > चौदा., प्रतोली > पौळि.,

१ अं > अ – फलं > फळ., वनं > वन., तृणं > तण., पर्णं > पान., गृहं > घर., धनं > धन , शुभं > शुभ., चित्रं > चित्र.,
भाषणं > भाषण., काव्यं > काव्य.,

२ अं > आं – अंग > आंग., अंगणं > आंगण., कंकणं < कांकण;
अंगिका > आंगि., जंघा > जांग., अंगुष्टः > आंगटो.,
संक्रमः > सांकवु , संगत्याम् > सांगाति., अंबा > आम्मा.,

३ अं > आ – वंशकः > वासो., अंति > आति.,

४ आं > आ – कांस्य > काशें., मांस > मास.,

१ अः > अ – मधुः > म्होंव.,

२ अः > अु – पुत्रः > पूतु., देवः > देवु., वृषभः > बसवु.,
गर्भः > गाबु , ग्रामः > गांवु , अुद्गारः > हुंवारु., बालः >
बाळु., घातः > घायु , वातः > वायु., व्याघ्रः > वागु.,

३ अः > ओ – भ्रमरः > भोंवरो., कलशः > कळसो., गलकः >
गळो , घोटकः > घोडो., चणकः > चणो , आश्रयः > आसरो.,
मातुलः > मावळो., खद्योतः > काजुळो.,

४ आद्य स्वरलोप – अभि-अंतर > भितर., अरण्य > रान.,
अंभोदः > मोड , अुपानह > व्हाण., अनंतरं > नंतर., अहम् >
हांव , आहर > हाड., अुपविश् > बैस., अभ्यंजन > भिजचें.,
अपरेद्युस > हेरदीस , अर्भकः > भुरगो., अुपरि > आरि.,
अपि > यि.,

१ दोन स्वर लागीं आयिल्ल्यान स्वर बदलाचेर येवचो अंत्याक्षरावयलो अनुस्वार – शतं > शें., शीतं > शीं., चंपकं > चांपें.,
द्यूतम् > जूं., गोरूपम् > गोरुं., पक्षिरूपम् > पाखरुं., शुनकम् >
सुणें., मस्तकम् > माथें., अकम् > अें , हरितकम् > हरवें.,
फलकम् > फळें., मल्लकम् > माल्लें., सूत्रालयम् > सुत्तालें.,
वलयम् > वळें., मृतकम् > मडें., अिदम् > हें., छत्रकम् > सात्तें.,
मुद्गरम > मोगरें.,

२ दोन स्वरांमदलें 'म' 'व' जावन अनुस्वार फाटल्या स्वराचेर पडता.

कुमारः > कुंवरु, कुमारि > कुंवरि., चामर > चंवरि., भ्रमरः > भोंवरो., भ्रम > भोंव, ग्रामः > गांवु., नामन् > नांव., अजरामर > अजरंवर., हिम > हींव., अहम् > हांव, गोधूम > गंव., लोम > लोंव., विश्रम > विसंव., जेमन > जेंवण, तेम > तेंव., धूम्रः > धुंवरु, कोमलः > कोंवळो., जामातृ > जांवयि., समर्घ > सवंग, आमलकः > आंवाळो. सीमा > शींव., सीमांत > शेंवट., सेमंतिका > शेंवतें., श्यामलः > सांवळो.,

३ जोडाक्षराफाटल्या स्वराचेर अनुस्वार – कक्षः > खांको, कूर्परः > कोंपरु., वक्र > वांकडें., भित्ति > भिंति, पिप्पल > पिंपळ; आस्तरणं > हांतरण., मूर्धन् > मुंड., तत्र > थंयि., कुत्र > खंयि यत्र > जंयि., अत्र > हंयि., स्तब्धी > थंडि, आम्रः > आंबो., अूष्ट्र > अूंट, अुच्च > अुंच, घृष्ट > घांट., नृत्यः > नांचु., ओष्ट > ओंट., निर्वात > निवांत., मर्कटः > मांकडु., शुल्क > सुंक, शुल्ब > सुंब., कुक्कुट > कुंकड., प्लव > पोंव., श्लेष्म > शेंबूड., गुष्प > गुंफा., अर्प > ओंप., शैत्य > सैंत., वर्तुलः > वांटकुळो, अीक्षु > अूंस., सिव् > शींव छिद् > शींद.,

४ कांय अुतरांत अनुस्वार घोळता – नदी > न्हंयि., मधुः > म्होंव., धाव् > धांव, हस् > हांस., रेवा > रेंव., ननादृ > नणंद., काखति > खांकता., वह् > व्हांव., आरभ् > आरंभ., वट् > वांट., वापी > बांयि., शीतकालः > शियाळो., लिह् > लेंव., फूत् > फूंक, गोधूलि > गोंदळि., प्रभातं > फांतें.,

५ कांय अुतरांत अनुस्वार लोपता – मांस > मास., अभि-अंतर > भितर., अभ्यंजन > भिजचें., संलग्न > सलग., अंति > आति., मुंडकः > बोडको., मुंडय > बोडाय., वंशकः > वासो., कांस्य > काशें., दंष्ट्रा > दाड.,

काळांचीं कुसां – वैदिक संस्कृतांतल्या लेट् जातिच्या काळांत 'आ' चो भर पडून कुसां अशीं घोळतात. पैल्या पुरुषाच्या भौवचनी कुसांतलो विसर्गय गळता.

| अेकवचन | भौवचन | पुरुश |
|---|---|---|
| आमि | आम | पै. पु. |
| आसि | आथ | दु. पु. |
| आति | आन्ति | ति. पु. |

'आस' धातुक हीं कुसां लावन अशीं रुपां घडतात.

| अेकवचन | भौवचन | पुरुश |
|---|---|---|
| आस+आमि – आसामि | आस+आम – आसाम | पै. पु. |
| आस+आसि – आसासि | आस+आथ – आसाथ | दु. पु. |
| आस+आति – आसाति | आस+आन्ति – आसान्ति | ति. पु |

१ आसामि – हांतुंतल्या अंत्याक्षरांतलें 'म्' लोपून आदल्या स्वराचेर अनुस्वार घोळून अंत्य 'अि' स्वर लोपून कोंकणी आसां हें रूप घडलां.

आसामि – आसांअि – आसां,

२ आसाम – हांतुंतल्या अंत्याक्षरांतलें 'म्' लोपून आदल्या स्वराचेर अनुस्वार घोळून आसांव हें रूप घडलां.

आसाम – आसांव

३ आसासि – हांतुंतल्या अंत्याक्षरांतलें 'सि' चें 'हि' जावन 'ह' लोपून अंत्य 'अि' स्वर गळून 'आसा' हें रूप घडलां.

आसासि – आसाहि – आसाअि – आसा.,

४ आसाथ – हांतुंतल्या अंत्याक्षरांतलो महाप्राण लोपून अल्पप्राण अुरून 'आसात' हें रूप घडलां.

आसाथ – आसात.,

५ आसाति – हांतुंतल्या अंत्याक्षरांतलें ‘ त् ’ लोपून अंत्य ‘ अि
स्वरय लोपून ‘ आसा ’ हें रूप घडलां. आसाति – आसाअि – आस

६ आसान्ति – हांतुंतल्या अंत्याक्षरांतलो अनुस्वार लोपून ‘ अि
स्वराबदलाक ‘ अ ’ स्वर घोळून ‘ आसात ’ हें रूप घडलां.

| कोंकणी वर्तमानकाळ – | अेकवचन | भौवचन | पुरुश |
|---|---|---|---|
| | आसां | आसांव | पै. पु. |
| | आसा | आसात | दु. पु. |
| | आसा | आसात | ति. पु. |

| वर्तमान काळाचीं कुसां – | अेकवचन | भौवचन | पुरुश |
|---|---|---|---|
| | आं | आंव | पै. पु. |
| | आ | आत | दु. पु. |
| | आ | आत | ति. पु. |

‘ त ’ व्यंजनाबदलाक ‘ व ’ व्यंजन घोळता पुण ‘ आसांव ’ हांतूंत
‘ व ’ व्यंजनाबदलाक ‘ त ’ व्यंजन घोळता देखून ‘ आसांव ’ बदलाक
‘ आसांत ’ हें रूप चड प्रचलित आसा.

संस्कृताप्रमाण कोंकणित धातुक ‘ अत् ’ बदलाक ‘ अत ’ लागून
अपूर्ण धातुविशेशण घडता. ह्या अपूर्ण धातुविशेशणांक वयर दिल्लीं
कुसां जोडून वर्तमानकाळी रुपां घडतात.

‘ आस ’ धातु – आस + अत = आसत – अपूर्णधातुविशेशण

| अेकवचन | भौवचन | पुरुश |
|---|---|---|
| आस + अत + आं–आसतां | आस + अत + आंत–आसतांत | पै. पु. |
| आस + अत + आ–आसता | आस + अत + आत–आसतात | दु. पु. |
| आस + अत + आ–आसता | आस + अत + आत–आसतात | ति. पु. |

संस्कृताप्रमाण कोंकणित धातुक ‘ त ’ बदला ‘ ल ’ जोडून पूर्ण

धातुविशेशण घडता. 'त' प्रमाण 'ल' नामाच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलून भूतकाळी क्रियापदां घडतात.

कोंकणित 'ल' चीं लिंगवचनाप्रमाण बदलल्लीं रुपां

| अेकवचन | भौवचन | लिंग |
|---|---|---|
| लो | ले | पुरुश |
| लि | ल्यो | स्त्री |
| लें | लिं | नपुंसक |

संस्कृत त' चीं लिंगवचनाप्रमाण बदलल्लीं रुपां

| अेकवचन | भौवचन | लिंग |
|---|---|---|
| त: | ता: | पुरुश |
| ता | ता: | स्त्री |
| तम् | तानि | नपुंसक |

'आस' धातुक हीं कुसां लागून घडिल्लीं भूतकालिक रुपां

| अेकवचन | भौवचन | पुरुश लिंग |
|---|---|---|
| आस+लों–आसलों | आस+लें–आसलें | पै. पु. |
| आस+लो–आसलो | आस+ले–आसले | दु. पु. |
| आस+लो–आसलो | आस+ले–आसले | ति. पु. |

| अेकवचन | भौवचन | स्त्रीलिंग |
|---|---|---|
| आस+लि–आसलि | आस+ल्यों–आसल्यों | पै. पु. |
| आस+लि–आसलि | आस+ल्यो–आसल्यो | दु. पु. |
| आस+लि–आसलि | आस+ल्यो–आसल्यो | ति. पु. |

| अेकवचन | भौवचन | नपुंसकलिंग |
|---|---|---|
| आस+लें–आसले | आस+लिं–आसलिं | पै. पु. |
| आस+लें–आसलें | आस+लिं–आसलिं | दु. पु. |
| आस+लें–आसलें | आस+लिं–आसलिं | ति. पु. |

भूतकाळ, भूतभूतकाळ, अपूर्ण भूतकाळ, नित्शयी भविश्यकाळ घडतना ह्या कुसांचो अुपयोग जाता.

वर्तमानकाळ, अपूर्ण वर्तमानकाळ, वर्तमानभूतकाळ घडतना वर्तमानकालिक कुसांचो अुपयोग जाता.

धातुक 'ल' लागून जाल्ल्या धातुविशेशणाचें भौवचन कोंकणिच्या नेमाप्रमाण घडता.

| अेकवचन | भौवचन | लिंग |
|---|---|---|
| आसलो | आसले | पुरुश |
| आसलि | आसल्यो | स्त्री |
| आसलें | आसलिं | नपुंसक |

भूतभूतकाळ घडतना करणेच्या पूर्ण धातुविशेशणाक 'ल' जोडून दोडें पूर्ण धातुविशेशण घडता आनी कर्त्याच्या वा कर्माच्या लिंग–वचनाप्रमाण बदलता.

संस्कृतांत धातुक 'तृ' कूस जोडून 'अस्' धातुचीं वर्तमान-काळी रुपां पालवाक दिल्यार नित्शयी भविश्यकाळ घडता,

धातुक 'तृ' कूस जोडून ताका स्वार्थी 'कः' कूस लावन 'तृकः' रूप घडता आनी तृकः > तको > तओ > तो > लो अशें घडून कोंकणी नित्शयी भविश्यकाळी पुरुशलिंगी अेकवचनी रूप घडता. ह्याजीं अितर रुपां ले, लि, ल्यो, लें, लिं अशीं घडतात.

हीं भविश्यकाळी कुसां करणेच्या अपूर्ण धातुविशेशणांक जोडून नित्शयी भविश्यकाळी क्रियापदां घडतात.

| | | |
|---|---|---|
| आसत + लों–आसतलों | आसत + लें–आसतलें | पै. पु. पु. लिं. |
| आसत + लि–आसतलि | आसत + ल्यों–आसतल्यों | पै. पु. स्त्रीलिं. |
| आसत + लें–आसतलें | आसत + लिं–आसतलिं | पै. पु. न. लिं. |

सादो भविश्य घडतना लेट् जातिच्या वर्तमानकाळाचीं 'आ' गळयिल्लीं कुसां अुकारतात. पैल्या पुरुशाचें भौवचनी कूस 'म' बदलाक 'मु' जाता आनी तिसऱ्या पुरुशाचें अेकवचनी कूस 'ति' बदला 'अि' जाता आनी भौवचनी कुसांतलें 'न' गळता. ह्या कुसांत 'तृ' पासून जाल्लें 'त' भविश्यकाळी कुसाची भर पडता.

| अेकवचन | भौवचन |
|---|---|
| मि + त – मित | मु + त – मुत |
| सि + त – सित | थ + त – थत |
| अि + त – अित | ति + त – तित |

हीं कुसां बदलून प्रचलित कोंकणित अशीं घडतात.

| अेकवचन | भौवचन |
|---|---|
| अन | अूं |
| शीत | शात |
| अत | तित |

'आस' धातुक जोडून -

| अेकवचन | भौवचन |
|---|---|
| आस + अन – आसन | आस + अूं – आसूं |
| आस + शीत – आसशीत | आस + शात – असशात |
| आस + अत – आसत | आस + तित – आसतित |

लेट् जातिच्या वर्तमानकालिक कुसांतलो 'आ' गळून अंत्य 'अि' स्वराचो 'अु' स्वरांत बदल घडता. पैलो पुरुशी भौवचनी कूस 'स' बदला 'मु' जाता तशेंच दुसरो पुरुशी भौवचनी कूस 'थ' बदला 'त' जाता.

| अेकवचन | भौवचन | पुरुश |
|---|---|---|
| आमि – मि – मु | आम – म – मु | पै पु. |
| – – | आथ – थ – त | दु. पु. |
| आति – ति – तु | आन्ति – न्ति – अन्तु | ति. पु. |

प्रचलित कोंकणित हीं कुसां अशीं घोळतात.

| | |
|---|---|
| अूं अूं | 'आस' धातुक हीं कुसां जोडून आज्ञार्थी |
| – आत | रुपां अशीं घडतात. |
| अूं अूंत | |

| अेकवचन | भौवचन | पुरुश |
|---|---|---|
| आसूं | आसूं | पै. पु. |
| आस | आसात | दु. पु. |
| आसूं | आसूंत | ति. पु. |

संस्कृत 'तव्य' कुसापासून कोंकणी विध्यर्थी कुसां घडल्यांत. तव्यः > तव्वो > चओ > चो आनी हें कूस नामाच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलून चो, चि, चें, चे च्यो, चि अशीं कुसां घडतात. धातुक 'का' कूस लावनय विध्यर्थ घडता. संस्कृत कार्य हाजे कज्जं > काज > काअ > का जावन हें रूप घडलां. हें कूस लिंगवचनाचो भेद माननासतना धातुवांगडा घोळता.

धातु अव्ययी कुसां –

१ अून – वेदिक 'त्वीनम्' कुसाचें 'तून' जावन 'अून' कूस घडलां. – त्वीनम् > तीनम् > तूनम् > अून 'अून' कूस लागून पूर्व कालिक कृदंतां घडतात.

२ अत – संस्कृत 'अत्' हें अपूर्ण धातुविशेशणी कूस कोंकणित 'अत' जावन घोळता. कोंकणित ह्या अपूर्ण धातुविशेशणी कुसाचो अव्ययावरी अुपयोग जाता.

३ अतां – संस्कृत ‘अम्’ कुसापासून घडिल्लें ‘आं’ कूस अपूर्ण धातुविशेशणी कुसावांगडा घोळून ‘अतां’ कूस घडलां

अत+अम् > अत+आं > अतां.,

४ अतना – ‘अत्’ ह्या अपूर्ण धातुविशेशणी कुसाक ‘आन’ हें अपूर्ण धातुविशेशणी कूस (आत्मनेपदी) लागून ‘अतान’ कूस घडलें. हें कूस कोंकणिंत ‘अतना’ अशें बदलून घोळता.

अत् + आन > अतान > अतना.,

५ ल्यार – पूर्ण धातुविशेशणी कूस आनी ‘अुपरि’ हें अव्यय मेळून ‘ल्यार’ कूस घडलां.

पूर्ण धातुविशेशणी कूस ‘त’ चें कोंकणिंत ‘ल’ जाता.
ल+अुपरि > ल्युअरि > ल्यअरि > ल्यारि > ल्यार.,

६ अुं – संस्कृत ‘तुम्’ कुसापासून ‘अुं’ कूस घडलां.

तुम् > अुम् > अुं.,

कोंकणिंत ह्या कुसाचो अुपयोग संयुक्त क्रिया घडतना जाता. नाचुं येता, वचुं शकता, वचुं लागता, नाचुं दिता.,

ह्या ‘अुं’ कुसाक चौथे विभक्तिचें ‘क’ कूस लागून धातु-अव्ययां घडतात आनी ह्या वेळार ‘अुं’ दीर्घ जाता. अुं + क – अूंक., नाचूंक, वचूंक, धोलूंक, हालूंक.,

ह्या धातु अव्ययांचो अुपयोग भाववाचक कृदंत नामांच्या चौथे विभक्तिवरी जाता.

करच्याक – करूंक, मरच्याक – मरूंक, नाचच्याक – नाचूंक,

‘तूं ताका हो फातर अुखलुं दी’ ह्या वाक्यांत ‘अुखलुं दी’ हें संयुक्त क्रियापद. कांय व्याकरणकार ‘अुखलुं’ ह्या अुतराक कर्म सम-जतात. ह्या वाक्यांत ‘फातर’ कर्म आसून ‘ताका’ अप्रत्यक्ष कर्म आसा. ‘ताज्यान हो फातर अुखलुं येता’ ह्या वाक्यांत ‘अुखलुं येता’ हें

संयुक्त क्रियापद. ‘ ताज्यान ’ कर्तो आसून ‘ फातर ’ कर्म आसा. ‘ अुखलुं येता ’ हाजो अर्थ अुखलवता.

७ सन् सप्तमी अर्थाचीं धातुअव्ययां – धातुच्या पूर्ण धातु विशेशणाक कांय अव्ययांची जोड दिवन जोड धातु अव्ययां घडतात जाचो अर्थ संस्कृत सन् सप्तमिप्रमाण घडता. संस्कृतांत करणेचें पूर्ण धातुविशेशण आनी ताजी गुणवस्त दोनय सातवे विभक्तित घोळतात जाल्यार कोंकणित जीवनाम आसल्यार तिसरे विभक्तित आनी जिन-सनाम आसल्यार पैले विभक्तित ह्या जोड धातुअव्ययावांगडा घोळतात.

| संस्कृत | कोंकणी |
|---|---|
| मयि नष्टे | हांवें नष्ट जालनंतर |
| गते श्येने | घोणयेन गेलनंतर |
| गते तस्मिन् | ताणें गेलनंतर |
| आगते रामे | रामान आयलनंतर |
| वयसि गते | वय जालनंतर |
| क्षीणे पुण्ये | पुण्य सोंपलनंतर |
| ज्ञाते तत्वे | तत्व जाणलनंतर |
| नष्टें द्रव्ये | द्रव्य नष्ट जालनंतर |

कांय वेळार धातुच्या अपूर्ण धातुविशेशणाक कि, कच, च, रि लागून सन् सप्तमी घडणेचो अर्थ मेळता.

कि – ‘ कृ ’ धातुचें पूर्ण धातुविशेशण ‘ कृत ’ जाता हाजी सातवी विभक्ती कृते जाता. कृते वयल्यान कअे घडून के रूप येता ह्या ‘ के ’ चें रुपांतर ‘ कि ’ त जाता.

सरत + कि – सरतकि; जाणत + कि – जाणतकि;
जात + कि – जातकि; सोंपत + कि – सोंपतकि;

कच – संस्कृत ‘ कृत्य ’ बदलून ‘ कच ’ जालां.

कृत्य > कच्च > कच;

सरत+कच – सरतकच; जाणत+कच – जाणतकच;

जात+कच – जातकच; सोंपत+कच – सोंपतकच;

च – 'कच' कुसांतलें 'क्' लोपून 'अच' उरता आनी 'च' रूप घडता. कच्च > अच > च;

सरत+च – सरतच; जाणत+च – जाणतच;

जात+च – जातच; सोंपत+च – सोंपतच;

रि – संस्कृत 'कृत्वा' चें शौरसेनी प्राकृतांत 'करिय' जावन कोंकणित 'रि' कूस आयलां.

कृत्वा > करिय > अरिअ > अरि > रि;

सरत + रि – सरतरि; जाणत + रि – जाणतरि;

जात + रि – जातरि; सोंपत + रि – सोंपतरि;

विभक्तीकुसां – १) पैली विभक्ती – नामांचें वा सर्वनामांचें जें मूळरूप आसता तेंच पैले विभक्तिच्या एकवचनांत आसता.

अ, आ, अि, अु, अै न सोंपिल्ल्या नामांचें भौवचन एकवचनावरीच आसता. कांय 'अु' न सोंपिल्ल्या नामांचें भौवचन 'अ्' कारावदलाक 'अ' कार लागून घडता जाल्यार 'ओ' न सोंपिल्ल्या नामांचें भौवचन 'अे' कारान सोंपता.

| एकवचन | भौवचन | एकवचन | भौवचन |
|---|---|---|---|
| शेट | शेट | वाणि | वाणि |
| राजा | राजा | गुरु | गुरु |
| कवि | कवि | राजु | राजु |
| स्वामि | स्वामि | शणै | शणै |

कांय 'अु' न सोंपिल्लीं नामां

| एकवचन | भौवचन |
|---|---|
| देवु | देव |
| पूतु | पूत |

कांय 'ओ' न सोंपिल्लीं नामां

| एकवचन | भौवचन |
|---|---|
| चलो | चले |
| दोळो | दोळे |

सर्वनामां –

| अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन |
|---|---|---|---|
| हांव | आमि | तूं | तुमि |
| तो | ते | हो | हे |
| ति | त्यो | हि | ह्यो |
| तें | तिं | हें | हिं |

२ दुसरी विभक्ती – कोंकणित दुसरी विभक्ती घोळता पुण नामाच्या मूळरुपांतच. दुसरे विभक्तिचीं कुसां घोळनात.

१. माजर हुंदीर धरता.
२. माजर मूय धरता.
३. तो पुस्तक धरता.

१. माजरान हुंदीर धरलो.
२. माजरान मूय धरली.
३. ताणें पुस्तक धरलें.

ह्या वाक्यांत कर्तो किते धरता वा कर्त्यान किते धरलें हाजी जाप म्हळचार कर्म आपल्या मूळ रुपांतच आसा.

३ चौथी विभक्ती – क, का, कां अशीं चौथे विभक्तिचीं कुसां घोळतात.

संस्कृत – अस्माकम् > आमकां; युष्माकम् > तुमकां ह्या रुपांतरांतल्यान 'कां' हें भौवचनी कूस घडलां. हाजें अेकवचनी कूस 'का' रुपान घोळता. मामक > माक > माका; तावक > तुक > तुका हांतूंत 'का' हें अेकवचनी कूस. अस्माकम्, युष्माकम् हांतल्या कम् चें 'कं' जावन 'क' कूस दोनय वचनांत घोळूंक लागलें. हें 'क' कूस नामांत आनी कांय सर्वनामांत घोळता जाल्यार का, कां कुसां फक्कत सर्वनामांत घोळतात.

वेदिक संस्कृतांत सटवेचीं हीं रुपां चौथेच्या अर्थान वापरिल्ल्यान कोंकणित तीं चौथे विभक्तित घोळतात. कांय वेळार चौथेचें 'क' कूस गळता आनी सामान्यरूप घोळता.

१ बापूय चल्याक व्याकरण शिकैता.

१ बापायन चल्याक व्याकरण शिकैलें.

२ बापूय चल्या व्याकरण शिकैता.

२ बापायन चल्या व्याकरण शिकैलें.

३ माजर हुंदराक धरता — ३ माजरान हुंदराक धरलें

४ माजर हुंदरा धरता — ४ माजरान हुंदरा धरलें

तिसरेच्या आनी चौथेच्या वाक्यांत कर्तो कोणाक धरता वा कर्त्यान कोणाक धरलें हाजी जाप म्हळ्यार गौण कर्म चौथे विभक्तित आसा.

'क' कूस नामांक दोनय वचनांत लगता. कोण, आपुण, हेर, अपलो, तसलो, कसलो, जसलो, येदो, तेदो, केदो, जेदो, हांकां दोनय वचनांत 'क' कूस लागता.

हांव, तूं, तो, ती, हो, ही, जो, जी, हांकां चौथे विभक्तित 'का' कूस लागता जाल्यार आमी, तुमी, ते, हे, जे हांकां 'कां' कूस लागता.

४ तिसरी विभक्ति – कोंकणित तिसरे विभक्तिचीं कुसां न, नि, अें, णें, णि अशीं घोळतात.

संस्कृत अिन कुसावयल्यान कोंकणी 'न' कूस घडलां. 'न' हें अेकवचनी कूस आसून सगळ्या नामांक अेकवचनांत हें कूस लागता.

संस्कृत 'अैः' 'भिः' कुसांपासून 'हि' 'भि' कुसां जावन 'अि' कूस घडलें. हांतूंत अेकवचनी 'न' कूस भरसून 'नि' कूस घडलां. हें भौवचनी कूस 'नी' सगळ्या नामांक लागता.

नामांक 'अिन' कूस लागतना ताजें 'अेन' जाता.

देव + अिन > देवेन; गोविंद + अिन > गोविंदेन;

संस्कृत 'अेन' कुसांपासून अें कूस घडलां. अेन > अें. हें कूस हांव, तूं, कोण, आपुण, ह्या सर्वनामांक अेकवचनांत लागता.

संस्कृत 'अिण' कुसाचें 'ण' जावन तांतूंत 'अेन' कुसाचें 'अें' जाल्लें रूप भरसल्यान 'णें' कूस घडलां आनी हो, हि, हें, तो, ति, तें, जो, जि, जें हांच्या अेकवचनी रुपावांगडा घोळता.

संस्कृत 'अैः', 'भिः' कुसांपासुन 'हि', 'भि' कुसी जावन 'अि' कूस घडलें. हांतूंत अेकवचनी 'न' वा 'ण' भरसून 'नि' वा 'णि' कूस घडलां आनी हे, ह्यो, हिं, ते, त्यो, तिं, जे, ज्यो, जिं हांच्या वांगडा घोळून भौवचनी रूप घडलां.

हान्नि – हांणि; तान्नि – तांणि; जान्नि – जांणि;
हान्नि > हांनि > हांणि; तान्नि > तांनि > तांणि;
जान्नि > जांनि > जांणि;

५ पांचवी विभक्ती – शौरसेनी आनी नव्या प्राकृतांत पांचवे विभक्तिचीं कुसां अेकवचनांत हिन्तो, भौवचनांत हिन्तो, सुन्तो लागून घडतात. ह्या कुसांवयल्यान कोंकणी कुसां घडल्यांत.

सुन्तो > सुन्त > सुन् > सून; हिन्तो > हुन्त > हुन् > हून;

अम्हाहिन्तो आनी अम्हासुन्तो हीं अेकवचनी आनी भौवचनी रूपां.

थावन – नव्या प्राकृतांत तद् चें पुरुशलिंगी आनी नपुंसकलिंगी पांचवे विभक्तिचें अेकवचन ताहिन्तो वयल्यान 'थावन' घडलां.

ताहिन्तो > ताहुन्त > थाअुन् > थावन;
थान – थावन वयल्यान 'थान' घडलां. थावन > थाअन > थान;
आन – थान वयल्यान 'आन' घडलां थान > हान > आन;
च्यान – वेदिक त्यद् आनी प्राकृत हिन्तो मेळून 'च्यान' घडलां.
त्यद् + हिन्तो > त्याहिन्तो > च्यावन > च्यान;

साकून – संस्कृत साकम् आनी प्राकृत हिन्तो मेळून 'साकून' घडलां.
साकम् + हिन्तो > साकम् + हुन्त > साक + हुन् + साक + अून् + साकून;

थाकून – साकून हाजेंच थाकून रूप घडलां.

पासून – संस्कृत पार्श्व हाजें कोंकणित पास जावन तांतूंत 'अून' कूस लागून पासून हें रूप घडलां.

परस – पार्श्व पासून 'परस' रूप घडलां.

पास्ट – पार्श्वस्थ > पासठ > पासट > पास्ट;

क, की, कय – संस्कृत कुतः वयल्यान क, की, कय रुपां घडल्यांत.

कुतः > कुओ > कअ > कय > क; कुतः > कुओ > कुअ > कअ > कय;
कुतः > कुओ > कअ > कय > कआ > की;

६ सटवी विभक्ती – संस्कृत 'ईयः' कुसापासून कोंकणी जो कूस घडलां. ईयः > जो;

मदीयः > मअिजो > मजो > म्हजो; त्वदीयः > तुअिजो > तुजो;
तदीयः > तअिजो > ताजो हीं पुरूशलिंगाची देख.

ईया वयल्यान जि कूस घडून म्हजि, तुजि, ताजि, तिजि अशीं रुपां घडल्यांत.

ईयम् वयल्यान जें कूस घडून म्हजें, तुजें ताजें, तिजें अशीं रुपां घडल्यांत. जो कूस सर्वनामांक अेकवचनांतच लागिल्ले दिसता.

गेलो – संस्कृत अकीनः वयल्यान गेलो कूस घडलां.

माकीनः > माकीनो > माकेनो > मागेलो > मगेलो > म्हगेलो;
आस्माकीनः > आस्माकीनो > आस्माकेनो > आह्मागेनो > आम्हगेलो
आमगेलो; त्वाकीनः > तुगेलो., यौष्माकीनः > तुमगेलो.,

गेलो चें भौवचनीं कूस गेले जाता.

अकीना वयल्यान गेलि आनी अकीनम् वयल्यान गेलें रुपां घडून हांचीं भौवचनां गेल्यो आनी गेलिं जातात.

हीं कुपां सर्वनामांक आनी मनीसनामांक दोनय वचनांत लागतात.

लो – संस्कृत नः चो प्राकृतांत नो, णो जावन कोंकणित लो जालां संस्कृतांत अि, अुन सोंपिल्ल्या नपुंसकलिंगी नांवांचें सटवे विभक्तिच्या अेकवचनांत नः लागून रुपां घडतात. प्राकृतांत अ, आ, न सोंपिल्लीं नामां सोडून हेर सगळ्या पुरुषलिंगी नामांच्या सटवेच्या अेकवचनांत णो लागता. कोंकणित हें कूस लो जालां.

अेकवचनांत हें कूस नामांच्या लिंगाप्रमाण लो, लि, लें आनी भौवचनांत ले, ल्यो, लिं जाता.

आपुण, कोण, हेर अमको, तमको, ह्या सर्वनामांक आनी मनीस जातिच्या तशेंच मोनजातिच्या नामांक हीं कुसां लागतात.

च्चो – संस्कृत त्यः कुसांपासून चो कूस घडलां.

त्यः > त्यो > च्चो > चो; पुरुशलिंगाक अेकवचनांत हें कूस लागता.

त्या > च्चि > चि., स्त्रीलिंगाक अेकवचनांत हें कूस लागता.

त्यम् > च्चें > चें , नपुंसकलिंगाक अेकवचनांत हें कूस लागता.
ह्या कुसाचें भौवचन चे, च्यो, चि अशें घडता.

हीं कुसां कांय सर्वनामांक भौवचनांत लागतात जाल्यार कांय सर्वनामांक, नामांक दोनय वचनांत लागतात.

कोंकणित कांय वेळार चो, लो, कुसां गळुन अशीं रुपां घडतात.

रुखाचो खांदो = रुखाखांदो; बैलालो कान = बैलाकान;

कोंकणितलो हो षष्टी तत्पुरुश समासाचो अेक प्रकार आसून ह्यांतुतलीं दोनय अुतरां जोडूनच बरौचीं पडतात.

रुखा खांदो आनी बैला कान अशी बरौची प्रथा आसा पुण ती चुकिची आसा.

७ सातवी विभक्ती – कोंकणित सातवे विभक्तिचीं अेकवचनी कुसां आ, अि, अे, अै अशीं घोळतात.

वेदिक संस्कृतांतलें सातवे विभक्तिचें अेकवचनी कूस ‘ आ ’ आसून तें कोंकणित ‘ आ ’ रुपानच घोळता.

घरा, मडगांवा, कारवारा, मंगळुरा, कुंदापुरा, कुमटा, भटकळा;

संस्कृतांतलें सातवे विभक्तिचें अेकवचनी कूस पुरुशलिंगी आनी नपुंसकलिंगी अुतरांत ‘ अि ’ आसून तें कोंकणित ‘ अि ’ रुपानच घोळता – सकाळि, आलतडि, पलतडि, राति, अुडपि दिल्लि.

कांय वेळार ह्या ‘ अि ’ कुसाचें ‘ अे ’ जाता.

सांखळे, कोलवाळे, दिवचले, अकोले, पर्तगाळे;

कांय 'अै' न सोंपिल्ल्या नामांत 'अि' कूस विरगळता.

मुंबै, रासै, कुंडै, मडकै;

सातवे विभक्तिचें भौवचनी कूस म्हळचार 'नि' जें तिसरे विभक्तिचेंय भौवचनी कूस.

घरांनि, रानांनि, पुस्तकांनि, शारांनि, मनशांनि;

संस्कृतांतलें 'अन्तः' हें अव्यय कोंकणित 'अंतु' जावन सातवे विभक्तिच्या दोनय वचनांनी घोळता.

घरांतु, मडगांवांतु, कारवारांतु; अुडपितु, मंकितु, दिल्लितु;
साकळेंतु, कोलवाळेंतु, न्हंयेंतु, पर्तगाळेंतु;
मुंबैंतु, रासैंतु, कुंडैंतु, मडकैंतु;

'अंतु' चें अुकार गळून 'अंत' जाल्लें आसा.

संस्कृत 'अुपरि' ह्या अव्ययावयल्यान कोंकणित 'अर' 'आर' हीं अव्ययां घडल्यांत.

अुपरि > अुवरि > अुअरि > अुआरि > आरि > आर;
नामांक हें अव्यय लागतना 'आ' लोपता.

संस्कृत 'त्यत्' आनी 'अुपरि' वयल्यान कोंकणित 'चेर' कूस घडला.

त्यत् + अुपरि > च्यअ + अुअरि > च्य + अरि > च + अरि > चेरि > चेर;

'गृहे' ह्या संस्कृत सप्तमी अेकवचनी रुपावयल्यान कोंकणित 'गेर' कूस घडलां – गृहे > घरे > गरे > गेर;

८ आठवी विभक्ती – अे – संस्कृतांत अुलो वा संबोधन करतना 'हे' अव्यय वापरतात. हांतुंतलो 'ह' चो लोप जावन 'अे' स्वर अुरता आनी 'हे' बदला 'अे' घोळता.

हो – संस्कृत 'भोः' ह्या अव्ययावयल्यान कोंकणित 'हो'

रूप आयलां. – भो: > भो > हो; कांय वेळार ह्या 'हों' तलो 'ह्' गळून 'ओ' आनी 'वो' हीं रुपां घडलीं. अुलो करच्याक 'ह्य वो' आनी जाप दिवच्याक 'ओ' असो तांचो अुपयोग जाता. कांय वेळार 'वो' चें 'वे' जावन 'हय वे' अुतर घडलां आनी प्रश्न करतना हाजो अुपयोग जाता.

हयवय > व्हाय – संस्कृत 'अस्ति' अुतरावयल्यान 'हअि' 'हयि' अुतर घडून ह्या अुतराचें व्दित्व जाल्लें रूप कोंकणित घोळता. कांय कडेन हेंच अुतर व्हाय ह्या रुपांन घोळता. दुसऱ्यालें लक्ष आपलेकडेन ओडून घेवचेखातीर ह्या अुतराचो अुपयोग जाता.

अरे, रे – संस्कृत अरि – शत्रु ह्या अुतराचें अुल्या विभक्तिचें अेकवचन म्हळ्यार अरे आनी हाजो अुपयोग कोणाकय कुस्कुटावन अुलौचे–खातीर जाता. कांय वेळार 'अरें' तलें 'अ' स्वर लोपून 'रे' अुरता.

अगा, गा – संस्कृत 'अघवत्' वयल्यान 'अगा' अुतर घडलां. 'अगां' तलें 'अ' गळून 'गा' रूप जालां आनी हांचो अुपयोग अनोळखी दादल्यांक अुलो करतना जाता. 'अगे' आनी 'ग' अुतरांय 'अघवत्' वयल्यानच घडल्यांत आनी अनोळखी बायलांक वा म्हागडच्या बायलांक अुलो करतना हांचो अुपयोग जाता. 'अगो', आनी 'गो' अुतरांय 'अघवत्' वयल्यानच घडल्यांत आनी हांचो अुपयोग सान चलयांक वा वांगडच्या चलयांक अुलो करतना जाता. 'अघ' म्हळ्यार 'पाप' आनी हाजेवयल्यान घडिल्ल्या ह्या रुपांक कालांतरान बरो अर्थ प्राप्त जाला.

विशेशणां – विशेशणांत दोन प्रकार आसून कांय विशेशणां नामाच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलतात जाल्यार कांय विशेशणां बदलनात.

१) विकारी विशेशणां – काळो चलो; काळी चली; काळें सुणें
काळे चले; काळचो चलयो; काळीं सुणीं,

ह्या विकारी विशेशणांचो अुपयोग जेन्ना नामावरी जाता तेन्ना तांकां विभक्तीकुसा लागतात.

काळो, काळच्याक, काळच्यान, काळच्याच्यान, काळच्याचो, काळच्यांत, काळच्या; काळे, काळच्यांक, काळच्यांनीं, काळच्यांच्यान, काळच्यांचो, काळच्यांत, काळच्यांनू – ही पुरुशलिंगी देख.

असलीं विशेशणां जेन्ना नामांवांगडा घोळतात तेन्ना पैली विभक्ती सोडून हेर विभक्तित तांचीं सामान्यरुपां घोळतात.

काळच्या मनशाक; काळच्या मनशाचो; काळे बायलेक;
काळच्या मनशांक; काळच्या मनशांचो; काळे बायलेची;
काळच्या बायलांक; काळच्या बायलांचो;
काळच्या सुण्याक; काळच्या सुण्याचो;
काळच्या सुण्यांक; काळच्या सुण्यांचो;

२) अविकारी विशेशणां –

| | | |
|---|---|---|
| सुंदर चलो | सुंदर चली | सुंदर सुणें |
| सुंदर चले | सुंदर चलयो | सुंदर सुणीं |
| सुंदर चल्याक | सुंदर चलयेक | सुंदर सुण्याक |
| सुंदर चल्यांक | सुंदर चलयांक | सुंदर सुण्यांक |

कृदंत विशेशणां –

| | | |
|---|---|---|
| करपि मनीस | : करपि बायल | : करपि चेरडुं |
| करपि मनीस | : करपि बायलो | : करपि चेरडुंवां |
| करपि मनशाक | : करपि बायलेक | : करपि चेरडाक |
| करपि मनशांक | : करपि बायलांक | : करपि चेरडुंवांक |
| पळैतलो मनीस | : पळैतलि बायल | : पळैतलें चेरडुं |
| पळैतले मनीस | : पळैतल्यो बायलो | : पळैतलिं चेरडुंवां |
| पळैतल्या मनशाक | : पळैतले बायलेक | : पळैतल्या चेरडाक |
| पळैतल्या मनशांक | : पळतल्या बायलांक | : पळैतल्या चेरडुंवांक |
| धांवतो घोडो | : धांवति गाडि | : धांवतें सुणें |
| धांवते घोडे | : धांवत्यो गाडयो | : धांवतिं सुणिं |

| | | |
|---|---|---|
| धांवत्या घोडयाक | : धांवते गाडयेक | : धांवत्या सुण्याक |
| धांवत्या घोडयांक | : धांवत्या गाडयांक | : धांवत्या सुण्यांक |
| आसिल्लो मनीस | : आसिल्लि बायल | : आसिल्लें चेरडुं |
| आसिल्ले मनीस | : आसिल्ल्यो बायलो | : आसिल्लि चेरडुंवां |
| आसिल्ल्या मनशाक | : आसिल्ले बायलेक | : आसिल्ल्या चेरडांक |
| आसिल्ल्या मनशांक | : आसिल्ल्या बायलांक | : आसिल्ल्या चेरडुंवांक |

अव्ययांपासून जाल्लीं विशेशणां –

| | | |
|---|---|---|
| हांगाचो मनीस; | हांगाची बायल; | हांगाचें झाड; |
| हांगाचे मनीस; | हांगाच्यो बायलो; | हांगाचि झाडां; |
| हांगाच्या मनशाक | हांगाचे बायलेक; | हांगाच्या झाडाक; |
| हांगाच्या मनशांक | हांगाच्या बायलांक | हांगाच्या झाडांक; |

संख्यावाचक विशेशणां –

| | | |
|---|---|---|
| पैलो चलो; | पैलि चलि; | पैलें चेरडुं; |
| पैल्या चल्याक; | पैले चलयेक; | पैल्या चेरडाक; |
| चौथो मनीस; | चौथि चलि; | चौथें चेरडुं; |
| चौथ्या मनशाक; | चौथे चलयेक; | चौथ्या चेरडाक; |

कांय वेळार विशेशणांक नामाच्या लिंगाचो विकार अेकवचनांत घडता.

सानु चलो; सानि चलि; सान चेरडुं; चांगु चलो; चांगि चलि; होडु चलो; होडि चलि; होड चेरडुं; चांग चेरडुं;
गोकर्णाचे दक्षिण दिशेक ही चाल आसा.

संस्कृतांत नामांक ' कः ' स्वार्थी कूस लागता पुण ताजो अर्थ बदलना. कोंकणितय नामांक ' ल ', ' ड ' लागून त्याच अर्थाचें अुतर घडता आनी पुरुशाच्या लिंगवचनानुसार बदलता.

ल – अंध्र + ल > आंधळ; काकः + ल > कावळो; छाया + ल > सावळि

मुक्त + ल > मोकळ; अेक + ल > अेकल; पाद + ल > पावल;

ड – वक्र + ड > वांकड; अंक + ड > आंकडो; ताम्र + ड > तांबड;

शुष्क + ड > सुकड; नग्न + ड > नागड;

कोंकणित कांय विशेशणांक ' ल ' लागून त्याच अर्थाचें अुतर घडता आनी पुरुशाच्या लिंगवचनानुसार बदलता.

ल – सानु + ल > सानुल; धाकटु + ल > धाकटुल; प्रत्येक + ल > प्रत्येकल; होड + ल > होडल; बारिक + ल > बारकेल; अेक + ल > अेकल; जाड + ल > जाडेल; काळो + ल > काळेल;
कांय विशेशणांक ' ल ' लागतना अंत्याक्षरांत ' अे ' असो बदल घडता.

भूतभूतकालिक रुपां घडतनाय धातुंच्या पूर्ण धातुविशेशणाक ' ल ' लागता आनी तीं विशेशणावरी चलतात.

ल – धांवल + ल > धांविल्ल; हांसल + ल > हांसिल्ल;
अडचिल + ल > अडचिल्ल; खरपिल + ल > खरपिल्ल;

अि – नामांक आनी भावनामांक ' अि ' लागून कर्तृवाचक नामां घडतात जाल्यार कांय धातुंक ' अि ' लागून प्रयोजक धातु घडतात.

संस्कृत अियत्, कियत्, यावत्, तावत्, बदलून येद, केद, जेद, तेद जावन पुरुशाच्या लिंगवचनाप्रमाण चलतात.

अियत् > अिअद > अेद > येद { येदो / येदि / येदें }

कियत् > किअद > केद { केदो / केदि / केदें }

यावत् > जिअद > जेद { जेदो, जेदि, जेदें

तावत् > तिअद > तेद { तेदो, तेदि, तेदें

संस्कृत ओदृश, कीदृश, तादृश, यादृश बदलून स्वार्थी 'ल' कूस लागून पुरुशाच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलून चलतात.

ओदृशी > अअश्शि > अश्शि > अशि + ल > अशिल > असल;
कीदृशी > कअश्शि > कश्शि > कशि + ल > कशिल > कसल;
तादृशी > तअश्शि > तश्शि > तशि + ल > तशिल > तसल;
यादृशी > जअश्शि > जश्शि > जशि + ल > जशिल > जसल;

संस्कृत अयत्, कियत्, यावत्, तावत् हांतूंत व्यंजनलोप जावन घडिल्ल्या रुपांक 'ल', 'क' हीं स्वार्थी कुसां लागून तीं कोंकणित पुरुशाच्या लिंगवचनाप्रमाण चलच्याक लागलीं

अयत् > अअत > अत + ल { अतलो, अतलि, अतलें

अयत् > अअत > अत + क { अतको, अतकि, अतकें

कियत् > किअत > कित + ल { कितलो, कितलि, कितलें

कियत् > किअत > कित + क { कितको, कितकि, कितकें

| | |
|---|---|
| यावत् > जिअत > जित + ल | जितलो<br>जितलि<br>जितलें |
| यावत् > जिअत > जित + क | जितको<br>जितकि<br>जितकें |
| तावत् > तिअत > तित + ल | तितलो<br>तितलि<br>तितलें |
| तावत् > तिअत > तित + क | तितको<br>तितकि<br>तितकें |

'कियत् > किअत > कित + अें > कितें' हें प्रश्नार्थक सर्वनाम कोंकणित घडलां. 'अें' हें नपुंसकलिंगी अेकवचनी कूस. ह्याजें भौ-वचन घडना पुण विभक्तीकुसां लागतात.

'कितें' ह्याजें भौवचन 'किति' अशें घडिल्लें आसा पुण हें अुतर कोंकणिच्या मराठी बोलिन आपणायलां. हें अुतर कितल्ले कितल्यो, कितलीं ह्या अर्थान घोळता.

किती माणसं   किती बायका,   किती मूलं

'किम्' ह्या संस्कृत अुतराचें पुरुषलिंगी अेकवचनी पैली विभक्ती म्हळचार 'कः' आनी ह्याका 'ण' ची भर दिवन कोण हें अुतर घडलां.

कः + ण > को + ण > कोण; ह्या प्रश्नार्थी सर्वनामाक लिंगभेद ना पुण कांय जण कोणु, कोणि, कोण असो लिंगभेद पैले विभक्तिच्या अेकवचनांत करतात. अुरल्ल्या विभक्तित लिंगभेद ना पुण भौवचन आसा. विभक्तीकुसां लागतात.

'किंचित्' ह्या संस्कृत अुतरावयल्यान व्यंजनलोप घडन 'कांय' हें कोंकणी अुतर घडलां.

किंचित् > कांअि > कांयि > कांय; कांय ह्या अुतराक लिंगभेद ना पुण सदांच भौवचनांत चलता. अविकारी विशेशणावरी चलता.

कांय चले; कांय चलयो; कांय चेरडुंवां; कांय चल्यांक; कांय चलयांक; कांय चेरडुंवांक

'कियत्' ह्या संस्कृत अुतरावयल्यान अंत्यव्यंजनलोप घडून 'काय' हें कोंकणी अुतर घडलां.

कियत् > कायअ > काय; 'काय' ह्या अुतरान दुभाव अुक्तावच्याक मेळता. – तो जेवलो काय ? ती आयली काय ?

मराठी बोलिन मात्र 'काय' हें अुतर आपणावन 'कितें' ह्या अर्थान प्रचारांत हाडलां.

संस्कृत 'कियत्' ह्या अुतरांतलें अंत्य, अुपांत्य व्यंजनां लोपून कोंकणी 'कि' हें अुभयान्वयी अुतर घडलां जायत पुण कोंकणित हाजो अुपयोग आविल्ल्या काळांत यान जावच्याक लागला.

कियत् > किअअ > कि; आपुण राजा जातलों अशें ताणें म्हळें. वा आपुण राजा जातलों म्हणून ताणें म्हळें हेंच वाक्य 'ताणें म्हळें कि आपुण राजा जातलो' अशेंय बदलावच्याक जाता.

कांय आंकडे – अेकम् > अेक; हें अेकवचनांतच चलता आनी लिंगविकार जावन अेकु, अेकि, अेक अशीं रुपां घडतात. हाका स्वार्थी 'ल' आनी 'ट' लागून लिंगाप्रमाण चलता. द्वि > दोनि; त्रि > तीनि; दोनांकय 'नि' लागून कोंकणी आंकडे घडतात. कांय वेळार 'नि' तलो 'अि' गळून 'अ' जाता आनी दोन, तीन अशीं अुतरां घडतात. हांकां लिंगविकार ना. दोन चले, दोन चलयो दोन सुणि. कांय वेळार द्वि > द्वि > वि > बि अशें घडून 'बि' चें 'बा' जावन बारा, बावीस, बत्तीस, बेचाळीस, बावन्न, बासस्ट, ब्यात्तर, ब्यांयशी,

ठ्याण्णव अशे आंकडे घडतात. 'त्रि ' बदलून तेरा, त्रेवीस, तेत्तीस, त्रेचाळीस, त्रेप्पन, त्रेसष्ट, त्र्यात्तर, त्र्यांयशी, त्र्याण्णव अशे आंकडे घडतात. चतु: > चारि ह्याका लिंगविकार ना. चतु: > चअु > चौ घडता. ह्याजेवयल्यान चौदा, चोवीस, चौतीस, चोवेचाळीस, चोप्पन्न, चौसस्ट, चौद्यात्तर, चौद्यांयशी, चौद्याण्णव अशे आंकडे घडतात. पंच > पांच ह्याका लिंगविकार ना. कांय वेळार ह्याजें पं, पंच, प घडून पंदरा, पंचवीस, पस्तीस, पंचेचाळीस, पंचावन्न, पांसस्ट, पंचात्तर, पंचांयशी, पंचाण्णव अशे आंकडे घडतात. षट् > स ह्याका लिंगविकार ना. 'स ' चें 'छ ' 'शा ' घडून सोळा, सव्वीस, छत्तीस, सेचाळीस, छप्पन्न, ससष्ट, शात्तर, शांयशी, शाण्णव अशे आंकडे घडतात. सप्त > सात ह्याका लिंगविकार ना. सतरा, सत्तावीस, सदतीस, सत्तेचाळीस, सत्तावन, सदुसस्ट, सत्यांयशी, सत्याण्णव अशे आंकडे घडतात. अष्ट > आठ ह्याका लिंगविकार ना. अष्ट > आठ > अट् > अड असो बदल घडून अठरा, अठ्ठावीस, अडतीस, अष्टेचाळ, अठ्ठावन, अडसस्ट, अठ्ठयात्तर, अठ्ठयांयशी, अठठ्याण्णव अशे आंकडे घडतात.

दश > धा, विंशति > वीस, त्रिंशत् > तीस, चत्वारिंशत् > चाळीस पंचाशत् > पन्नास, षष्टि > साठ, सप्तति > सत्तर, अशीति > अंयशी, नवति > णव्वद, शतं > शें > शंबर; नव > णव जाता. ह्याका लिंगविकार ना. णव्वाचे आंकडे घडतना अेक + ऊण जावन अेकोणीस, अकोणतीस, अेकोणचाळीस, अेकोणपन्नास, अेकोणसाठ, अेकोणसत्तर, अेकोणैंशी, अेकोण्णव्वद अशे घडता.

पंचम धरून फुडल्या आंकड्यावें क्रमवाचक करतना अंत्याक 'व 'ची भर पडून लिंगाप्रमाण बदलता, पंचमच्या अंत्याक 'म ' चें 'व ' घडतना अनुस्वार आदल्या अक्षराचेर पडनासतना गळता. सवो बदला सटवो रूपय घोळता. प्रथम: > प्रथमलो > पयलो > पैलो, द्वितीय: > व्दिअिजो > बिअिजो > बिजो, दुजो, द्विसर: > दुसरो, तृतीय: > तिअिजो > तिजो, त्रिसर: > तिसरो, चतुर्थ: > चअुत्थो > चौथो, चअुथ्थ > चवथ, अशीं रुपांय घडतात. ही पुरूशलिंगी देख.

अंशवाचकरुपां – पाद > पाअ > पाव; अर्ध > अर्ध; सार्ध > साडे; पाद + अून > पादोन > पाव + अूण > पावूण; सपाद > सवाअ > सवाय; द्व्यर्ध > दिवड्ड > दिअड > देड; अर्धतृतीय > अडअिअज > अडज > अडेच; स + अर्ध > सार्ध > साडे; लागूनय अंशवाचक रुपां घडतात. सार्धतृतीय > साडेतीन; सार्धचत्वारि > साडेचारि; सार्धपंच > साडेपांच; सार्धदश > साडेधा;

अव्ययां – संस्कृतांतलीं मुळाकुसां कोंकणित तश्यांची तशीं घोळतात जाल्यार कांय बदल्ल्यांत.

अनु > अण; प्रति > पड;

अनुभव > अणभव; अनुसर > अनसर; प्रतिशब्द > पडसाद; प्रतिबिंब > पडबिंब;

अत्र > अहि > हंयि; तत्र > तहि > थयि; कुत्र > कुहि > खुंयि > खंयि; यत्र > जहि > जंयि; कथम् > कहें > कशें; यथा > जहें > जशें; तथा > तहें > तशें; अित्थम् > अहें > अशें; तादृशी > तअश्शि > तश्शि > तशि; कादृशी > कअश्शि > कश्शि > कशि; यादृशी > जअश्शि > जश्शि > जशि; अिदानीं > अेद्दणा > अेन्ना > येन्ना; तदानीं > तेद्दणा > तेन्ना; यदा > जेन्ना; कदा > केन्ना;

अत्र, तत्र, यत्र, कुत्र, हांचीं अेथां > हेतां, तेथां, केथां, जेथां अशींय रुपां घडतात ह्या रुपांवयल्यान अेथां > अिथें; तेथां > तिथें; जेथां > जिथें केथां > कुठें; अशींय रुपां घडल्यांत आनी हीं रुपां मराठी बोलिन आपणायल्यांत. अशि, तशि, कशि, जशि हीं अव्ययां काळांतरान लिंगवचनानुसार चलच्याक लागलीं.

अशि – असो, अशि, अशें, अशे, अश्यो, अशिं;
तशि – तसो, तशि, तशें, तशे, तश्यो, तशिं;
कशि – कसो, कशि, कशें, कशे, कश्यो, कशिं;
जशि – जसो, जशि, जशें, जशे, जश्यो, जशिं;

कट > कड जावन ही कड, ती कड अशीं अुतरां घडून कोंकणित हेकडेन, तेकडेन अशीं अव्ययां घोळतात आनी मराठी बोलिन हि कड,

ति कड, अव्ययां घेवन हिकडें, तिकडें अशीं रुपां घडैल्यांत.

' वट ' अुतरावयल्यान ही वट, ती वट अशीं अुतरां घडून हेवटेन, तेवटेन अशीं अव्ययां कोंकणित घडल्यांत. अंग > आंग जावन हें आंग, तें आंग अशीं अुतरां घडून हांगा, थांगा हीं अव्ययां घडल्यांत. तर्हि तरि, जर्हि > जरि हाजेवयल्यान तर, जर हीं अव्ययां घडल्यांत.

अपि > अबि > बि; अपि > अअि > अयि > यि, > य; त्य > च्च > च; त्वन > प्पण > पण; अस्ति > अह्हि > हअि > हयि > हय; न + अस्ति> न + अह्हि > न्हअि > न्हयि > न्हय; नकुधि > नाकाहि > नकाअि > नाकायि> नाका; चित् > चि > अि > यि; 'व' चो अुपयोग शक्यतायेधातु करतना आनी कांय धातुंचें साधारणरूप घडतना जाता.

अपि > वअि > वयि > वय; अशें रूप घडून अेकाक्षरी सर्वनामाच्या मूळ रुपांबांगडा घोळता. होवय, तोवय, तीवय, हीवय;

कोंकणितलीं नामां, तांचीं भौवचनां आनी सामान्यरुपां –

कोंकणित भौवचनी सामान्यरुपांचेर अनुस्वार घोळता आनी हो अनुस्वार संस्कृतांतल्या दुसरे आनी सटवे विभक्तिच्या भौवचना रुपांत आसून कोंकणिन तो आपणायला.

देवानाम् – देवांलो – पु. लिं. विद्यानाम् – विद्यांलो स्त्री. लिं.
वनानाम् – रानांचो – न लिं. नामांत

सर्वेषाम् – सगळयांचो { पु. लिं. / न. लिं. } सर्वासाम् – सगळयांचो { स्त्री. लिं.

अस्माकम् - आमगेलो { पु लिं. / नं. लिं / स्त्री लिं. } युष्माकम - तुमगेलो { पु. लिं. / नं. लिं. / स्त्री. लिं.

१ पुरुशलिंगी नामां अ, आ, अि, अु, अे आनी 'ओ' कारांतान सोंपतात.

| नामां – | | | सामान्यरुपां | |
|---|---|---|---|---|
| | अेकवचन | भौवचन | अकवचन | भौवचन |
| १ शेट | शेट | शेट | शेटि | शेटिं |
| आंतोन | आंतोन | आंतोन | आंतोनि | आंतोनिं |
| २ राजा | राजा | राजा | राजा | राजां |
| दादा | दादा | दादा | दादा | दादां |
| ३ कवि | कवि | कवि | कवि | कविं |
| मुनि | मुनि | मुनि | मुनि | मुनिं |
| ४ स्वामि | स्वामि | स्वामि | स्वाम्या | स्वाम्यां |
| भिकारि | भिकारि | भिकारि | भिकाऱ्या | भिकाऱ्यां |
| ५ वाणि | वाणि | वाणि | वाणया | वाणयां |
| धनि | धनि | धनि | धनया | धनयां |
| ६ देवु | देवु | देव | देवा | देवां |
| भावु | भावु | भाव | भावा | भावां |
| ७ गुरु | गुरु | गुरु | गुरु | गुरुं |
| रुतु | रुतु | रुतु | रुतु | रुतुं |
| ८ राजु | राजु | राजु | राजवा | राजवां |
| म्हारु | म्हारु | म्हारु | म्हारवा | म्हारवां |
| ९ शणै | शणै | शणै | शणै | शणैं |
| पै | पै | पै | पै | पैं |
| १० कावळो | कावळो | कावळे | कावळया | कावळयां |
| मावळो | मावळो | मावळे | मावळया | मावळयां |

२ स्त्रीलिंगीं नामां अ, आ, अि, अु, ‘ अै ’ कारांतान सोंपतात.

| नामां | | | सामान्यरुपां | |
|---|---|---|---|---|
| | अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन |
| १ माळ | माळ | माळो | माळे | माळां |
| सून | सून | सुनो | सुने | सुनां |

| | एकवचन | भौवचन | एकवचन | भौवचन |
|---|---|---|---|---|
| २ चाल | चाल | चालि | चालि | चालिं |
| पाल | पाल | पालि | पालि | पालिं |
| ३ आम्मा | आम्मा | आम्मा | आम्मा | आम्मां |
| शांता | शांता | शांता | शांता | शांतां |
| ४ शाळा | शाळा | शाळा | शाळे | शाळां |
| पीडा | पीडा | पीडा | पिडे | पिडां |
| ५ न्हंयि | न्हंयि | न्हंयो | न्हंये | न्हंयां |
| बांयि | बांयि | बांयो | बांये | बांयां |
| ६ विभक्ति | विभक्ति | विभक्ति | विभक्ति | विभक्तिं |
| लिपि | लिपि | लिपि | लिपि | लिपिं |
| ७ राणि | राणि | राणयो | राणये | राणयां |
| बडि | बडि | बडयो | बडये | बडयां |
| ८ आवसु | आवसु | आवसु | आवसु | आवसुं |
| जायु | जायु | जायु | जायु | जायुं |
| ९ जळु | जळु | जळवो | जळवे | जळवां |
| ताळु | ताळु | ताळवो | ताळवे | ताळवां |
| १० आवै | आवै | आवयो | आवै | आवयां |
| झोंपै | झोंपै | झोंपयो | झोंपै | झोंपयां |

३ नपुंसकलिंगी नामां अ, अिं, अुं ' अें ' कारांतान सोंपतात.

| नामां | | | सामान्यरुपां | |
|---|---|---|---|---|
| | एकवचन | भौवचन | एकवचन | भौवचन |
| १ घर | घर | घरां | घरा | घरां |
| रान | रान | रानां | राना | रानां |
| २ मोतिं | मोतिं | मोतयां | मोतया | मोतयां |
| तातिं | तातिं | ततयां | ततया | ततयां |
| ३ तारुं | तारुं | तारवां | तारवा | तारवां |
| मेरुं | मेरुं | मेरवां | मेरवा | मेरवां |

| ४ सुर्णे | सुर्णे | सुर्णि | सुण्या | सुण्यां |
|---|---|---|---|---|
| फळें | फळें | फळि | फळ्या | फळ्यां |

सार्वनामिक विशेशणां आनी तांचीं सामान्यरुपां --

| अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन |
|---|---|---|---|
| तो | ते | त्या | त्या |
| ति | त्यो | ते | त्या |
| तें | तिं | त्या | त्या |
| हो | हे | ह्या | ह्या |
| हि | ह्यो | हे | ह्या |
| हें | हिं | ह्या | ह्या |
| असलो | असले | असल्या | असल्या |
| असलि | असल्यो | असले | असल्या |
| येदो | येदे | येद्या | येद्या |
| येदि | येद्यो | येदे | येद्या |

तसलो, जसलो, कसलो तीनय लिंगांत 'असलो' वरी आनी तेदो जेदो, केदो 'येदो' वरी घोळून वयल्या नेमाप्रमाण तांचीं भौवचनी आनी सामान्यरुपां घडतात.

कर्तृवाचक कृदंतां –

| | अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन |
|---|---|---|---|---|
| तीनय लिंगांत | करपि | करपि | करप्या | करप्या |
| | करतलो | करतले | करतल्या | करतल्या |
| | करतलि | करतल्यो | करतले | करतल्या |
| | करतलें | करतलिं | करतल्या | करतल्या |

वर्तमानकालिक कृदंतां –

| अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन |
|---|---|---|---|
| धांवतो | धांवते | धांवत्या | धांवत्या |
| धांवति | धांवत्यो | धांवते | धांवत्या |
| धांवतें | धांवतिं | धांवत्या | धांवत्या |

भूतकालिक कृदंतां –

| अेकवचन | भौवचन | अेकवचन | भौवचन |
|---|---|---|---|
| आसिल्लो | आसिल्ले | आसिल्ल्या | आसिल्ल्या |
| आसिल्लि | आसिल्ल्यो | आसिल्ले | आसिल्ल्या |
| आसिल्लें | आसिल्लिं | आसिल्ल्या | आसिल्ल्या |

सर्वनामां आनी तांचीं भौवचनां –

| अेकवचन | भौवचन |
|---|---|
| अहम् > हांव | वयम् > आमि |
| त्वम् > तुवं > तूं | यूयम् > तुमि |
| सः > सो > तो | ते > ते |
| सा > ति | ताः > त्यो |
| तद् > तें | तानि > तिं |
| अेषः > अेहो > हो | अेते > हे |
| अेषा > हि | अेताः > ह्यो |
| अेतद् > हें | अेतानि > हिं |

## धातु

धातु – करणेच्या मूळ रुपाक धातु म्हणतात.

कर, धर, खा, न्हा, पी, भी, धू, घे आशे, अुलै, नाचै, यो. हे धातु अ, आ, अि, अी, अू, अे, अै, आनी ओ स्वरांनीं सोंपिल्ले आसतात.

१ 'अ' न सोंपिल्ले धातु – कर, चल, वच, नाच, हास.

२ 'आ' न सोंपिल्लें धातु – खा, न्हा, जा, गा,
३ 'अि' न सोंपिल्ले धातु – अर्पि, निर्मि, भस्टि, खरपि, निर्मळि.
४ 'अी' न सोंपिल्ले धातु – पी, भी, दी, वी जी,
५ 'अू' न सोंपिल्लो धातु – धू
६ 'अे' न सोंपिल्ले धातु – घे, भुके, ताने, आशे, आंके, घोरे.
७ 'अै' न सोंपिल्ले धातु – अुलै, पळै, जागै, हालै.
८ 'ओ' न सोंपिल्लो धातु – यो.

धातुंत दोन प्रकार आसात. १) कर्मी २) अकर्मी

१ कर्मी धातु – ज्या धातुचें क्रियापद आपलो अर्थ पूर्ण जावच्याक कर्माचो पालव घेता त्या धातुक कर्मी धातु म्हणतात.

देखिक – तूं आंबो खा. तो शीत जेवता.

तुवें आंबो खालो तो शीत जेवलो.

२ अकर्मी धातु – ज्या धातुचें क्रियापद आपलो अर्थ पूर्ण जावच्याक कर्माचो पालव घेनासतना स्वयंपूर्ण अर्थ दिता त्या धातुक अकर्मी धातु म्हणतात.

देखिक – तो न्हाता हांव अुठतां.

तो न्हालो. हांव अुठलों.

कोंकणित धातुंचे धा गण आसून ते निर्दिष्ट नेमाप्रमाण चलतात.

विकरण – कोंकणित धातुंक काळाचीं कुसां लातना मदीं अेका अक्षराची भर पडता जाका विकरण म्हणतात. कोंकणित अि, अे, अै, य आनी ये अशीं विकरणां आसात.

पैलो गण – 'अ' कारांतान सोंपिल्लें धातु जे सगळ्या काळांनी कसलोच बदल नासून नेमाप्रमाण चलतात जांतूंत कर्मी आनी अकर्मी धातुंचो आस्पाव आसता. पैल्या गणाक विकरण ना.

आयक – आयकता, आयकलो, आयकतालो, आयकतलो, आयकल्लो.

चिरड – चिरडता, चिरडलो, चिरडतालो, चिरडतलो, चिरडल्लो.

दुसरो गण – 'आ' कारांतान सोंपिल्ले धातु जे सगळ्या काळांनी कसलोच बदल नासून नेमाप्रमाण चलतात जांतूंत कर्मी आनी अकर्मी धातुंचो आस्पाव आसता. दुसऱ्या गणाक विकरण ना.

खा – खाता, खालो, खातालो, खातलो, खाल्लो.

न्हा – न्हाता, न्हालो, न्हातालो, न्हातलो, न्हाल्लो.

तिसरो गण – 'अि' कारातांन सोंपिल्ले धातु जे सगळ्या काळांनी कसलोच बदल नासून नेमाप्रमाण चलतात जांतूंत कर्मी धातुंचोच आस्पाव आसता. तिसऱ्या गणाक 'अि' विकरण आसा.

खरपि – खरपिता, खरपिलो, खरपितालो, खरपितलो, खरपिलो.

थापटि – थापटिता, थापटिलो, थापटितालो, थापटितलो, थापटिल्लो.

चौथो गण – 'अे' कारांतान सोंपिल्ले धातु जे सगळ्या काळांनीं कसलोच बदल नासून नेमाप्रमाण चलतात जांतूंत कर्मी आनी अकर्मी धातुंचो आस्पाव आसता. चौथ्या गणाक 'अे' विकरण आसा.

आशे – आशेता, आशेलो, आशेतालो, आशेतलो, आशेल्लो.

अुदे – अुदेता, अुदेलो, अुदेतालो, अुदेतलो, अुदेल्लो.

पांचवो गण – 'अ' आनी 'अै' कारांतान सोंपिल्ले धातु जे भूतभूतकाळांत धातुच्या अंत्याक 'अ' आनी 'अै' बदलाक 'अि' असो विकार जावन भूतभूतकाळी रुपां घडतात जांतूंत कर्मी आनी अकर्मी धातुंचो आस्पाव आसता.

धर – धरता, धरलो, धरतालो, धरतलो, धरिल्लो.

हास – हासता, हासलो हासतालो, हासतलो, हांसिल्लो.
अुडै – अुडैता, अुडैलो, अुडैतालो, अुडैतलो, अुडयिल्लो.
अुलै – अुलैता, अुलैलो, अुलैतालो, अुलैतलो, अुलैयिल्लो.

सटवो गण – कांय धातुंच्या अंत्याक्षरांत 'आ' सांदीन 'य' ची भर दिल्यार सटव्या गणांतले धातु घडतात जांतूंत कर्मी धातुंचोच आस्पाव आसता पुण भूतभूतकाळांत 'य' चो 'यि' असो विकार जाता. सटव्या गणाक 'य' विकरण आसा.

धू – धुय – धुयता, धुयलो, धुयतालो, धुयतलो, धुयिल्लो.
गा – गाय – गायता, गायलो, गायतालो, गायतलो, गायिल्लो.
अुसळाय – अुसळायता, अुसळायलो, अुसळायतालो, अुसळायतलो, अुसळायिल्लो. भगभगाय – भगभगायता, भगभगायलो, भगभगायतालो, भगभगायतलो, भगभगायिल्लो.

'धू' ह्या अेकाक्षरी धातुक 'य' विकरण लागून 'धुय' हो धातु घडता पुण धातुच्या अंत्याक 'आ' करची आवश्यकता ना.

सातवो गण – अेकाक्षरी धातुवांगडा आनी कांय नामांच्या अंत्याक 'अ' सांदौन 'ये' ची भर दिल्यार सातव्या गणांतले धातु घडतात जांतूंत अकर्मी धातुंचोच आस्पाव आसता आनी सगळया काळांनी कसलोच बदल नासून नेमाप्रमाण चल्तात. सातव्या गणाक 'ये' विकरण आसा.

जी – जिये – जियेता, जियेलो, जियेतालो, जियेतलो, जियेल्लो.
मिरि – मिरये – मिरयेता, मिरयेलो, मिरयेतालो, मिरयेतलो मिरयेल्लो

आठवो गण – 'ळ' आनी 'ल' न सोंपिल्ल्या धातुंचीं भूतकाळी रुपां 'ळ' 'ल' चें द्वित्व जावन घडतात आनी भूतभूतकाळी रुपां धातुच्या अंत्याक 'अ' बदला 'अि' असो विकार घडून

कुसां लागतात जांतूंत कर्मी आनी अकर्मी धातुंचो आस्पाव आसता.

सोल – सोलता, सोल्लो, सोलतालो, सोलतलो, सोलिल्लो.
हाल – हालता, हाल्लो, हालतालो, हालतलो, हालिल्लो.
माळ – माळता, माळ्ळो, माळतालो, माळतलो, माळिल्लो.
घोळ – घोळता, घोळ्ळो, घोळतालो, घोळतलो, घोळिल्लो.

णव्वो गण – ‘ळ’ ‘ल’ न सोंपिल्ल्या धातुंचीं भूतकाळी रुपां ‘ळ’ ‘ल’ चें द्वित्व जावन घडतात आनी भूतभूतकाळी रुपां कसलोच बदल नासून नेमाप्रमाण घडतात जांतूंत अकर्मी धातुंचोच आस्पाव आसता.

बदल – बदलता, बदल्लो, बदलतालो, बदलतलो, बदलल्लो.
निवळ – निवळता, निवळ्ळो, निवळतालो, निवळतलो, निवळल्लो.

धाव्वो गण – अनियमित प्रकारान चलचे सगळे धातु ह्या गणांत आस्पावतात जांतूंत कर्मी आनी अकर्मी धातुंची भरणा आसा.

कर – करता, केलो, करतालो, करतलो, केल्लो.
मर – मरता, मेलो, मरतालो, मरतलो, मेल्लो.
त्या त्या गणांतले कांय धातु.

पैलो गण – आयक, समज, ओळख, मानव, आपट, येवज, झळक, होलम; आडाव, अेकठाव, सुस्ताव, वाटाव, बिरव, बळाव, चाळव, फटव, मरव, वाडव, बडव, पालव, पिमाव, दुखाव, सुखाव, थंडाव, पैसाव, बागव, माडव, चक्राव, कष्टाव, रुंदाव, घटाव, अुंचाव, अुक्ताव स्थिराव, नागव, खालाव, चिरड, खर्च, आरड, करप, परत, भरड, कष्टव, भस्ट, अडच, धपट, हुनट, अुमत, अुस्त, मस्त, घस्ट, झडप, तिरप, घुस्प, किणच, धाडव, भटक, बुरड, करड, फापस, आटप, खोरज, खंवस, हुलप, मरग, अुमग, अंद, तिंब, चिकट, शेवट, अुलग, तिडक, बरग, अुबग, सवक, खरड, खरप, किर्ल, झिरप, मुरड, चमक, जन्म, भरस, अुस्ट, सरक, अडक, तळप, करम, सिरक, परवं,

पुग्व, मुरड, अुपरत, आठव, साठव, नाटव, किडव, लागव, पाठव, चेपट, गिमच, दीपाव, नादाव, दीपक्राव, भाराव, सादव.

दुसरो गण – खा; न्हा, जा,

तिसरो गण – पी, दी, भी; हर्षि, खोरजि, पटकि, परशि, हुमटि, चिरडि, अडचि, खर्चि, आपटि, अुपति, आटपि, करपि कष्टि, घस्टि, क्षुस्ति, निर्मि, परति, पारखि, बदलि, भस्टि, मस्ति, सुरडि, खरपि, सानपि, येवजि, धपटि, करडि, भरडि, भरशि, झडपि, कोरांति, कापसि, तिरपि, घुस्पि, निमगि, वाडावि, बुरडि, अंदि, बरगि, मरगि, थापटि, बाळगि, खरडि, अर्पि, अपेक्षि, आकर्षि, बिरवि, शेत्रटि, कल्पि, अुपरति, चेपटि, गिमचि, अुलटि, भुरकि, तळशि, घुरकि, चर्चि, हटकि, गटकि, भिरकि, मटकि.

चौथो गण – आशे, गरे, तोखे, आवंडे; पोशे, हुसके, अुदे पाने, पाले, आंक्रे, कोमरे, भुके, अबे, भुके, खशे, घोरे, गागे, धुंवरे, मुये, वेरे, हुमे, घामे, निर्शे, फेणे, वाफे, कांचवे, खोरजे, कळमे, शेळे, ताणशे, केरंडे, हुंडके, लाळे, थंडे, पोंत्रशे, पादे, हांबे, भेगे, बेळगे, आमशे, तेंवे, खंत्रटे, धुळे, घावे, काळे, तांबडे, भेरे, म्हेळे, बुरशे, सुस्ते, मदे, वर्शे, गोठे, झेमे, भांबे, सपने, धांपे, फुसके, फातरे.

पांचवो गण – धर, मार, भर, पूर, तार, चोर, सार, दवर, पेर, चाव, जप, काप माप, तोप, चोय, लाय, शींद, बांद, झाड, लास, तास, फास, घास, कांस, कीस, पीस, पूस, चींव, शींव, घोंट, हाड, काड, नाड, पीड, कांड, मांड, तांड, पाड, सोड, फोड, जोड, मोड, कोड, साग, भोग, लाग, सांग कांत, गांत, पोस, सोस, धोंस, रच, पच, वाच, रूच, सूच, वीक, शीक, जांक, जोक, चोक, मोख, शेक, जेव लेंव, सांव, सोद, भाज, कोंब, झोम, लूच, फूंक, राख, अुगड, आवड, पिसूड, शिंगार, स्वीकार, तेंक, तोल भेत, किरै, खावै, करै, धांवै, पिवै, धुवै, घेवै, दंवै, दाखै, सोडै, बरै, आपै, अुठै, हामै, रडै, अुडै, अुबै, नाचै, खेळै, झुजै, ठकै, भंगै, रंगै, पिकै, तुटै, केळै, तिबै, हालै, पट, पट, सताय,

हार, हाल, चर, चल, सर, जीर, फीर, तर, थार, मूर अूर, आस, झर, शोर, रात्र, भोंव, ताप, रम, शीण, अूड, पड, चीड, कड, झड, रड, लिप, खेप, कोप, सोंप, कूस, अूठ, बस, धांव हास. नाच, घूस, थक, सूक, दुख, चड देंत्र, घूंव, कीड, शेंड, तूट, फूट, निसर, पसर, चवर, चूक, भोंक, झेम, धडपड, बडबड, रंग. भंग, खंग, भाग, शीज, कूद, लज, झगड, भिरभिर, सरसर, भरभर, हुरहुर, करकर, फरफर, घुरघुर, खतखत, भगभग, घरघर, फुरफुर, सणसण, घणघण रणरण, भणभण, बाव, खांक, शींक, हाग, मूत नीद, अूतर, तोड, सूट, लक, रक, पीक. कुंट, आकूड, आपूड, फापूड, शिपड.

सटवो गण – धू (धुय), गा, (गाय)

रोय, खोय, बदलाय, निवळाय, घुवळाय, वाटाय, अेकठाय, फटय, माडय, धाडय, चाळय, वाडय, बडय, पालय, नागय, बागय, पसाय. पिसाय, दुखाय, सुखाय, थंडाय, हुमकळाय, निकळाय, अुतराय, आड-खळाय, तिडाय, घोळाय, खिळाय, धुमकाय, फातराय, कुस्कुटाय, भोलाय, चक्राय, घुस्पाय, अुष्टाय, कष्टाय, फिराय, पुंजाय, खटखटाय, खुटखुटाय, खिटखिटाय, किरकिराय, फरफराय, पिरपिराय, झळझ-ळाय, भगभगाय, फुसलाय, गिरगिराय, गुरगुराय, सरसराय, लांबाय, रुंदाय, घटाय, अुंचाय, अुन्ताय, स्थिराय, आपणाय, खालाय, आडाय, अुमळाय, निसराय, विसराय, कोसळाय, पातळाय, वदय, दिपाय, दिपकाय, भाराय, सादय, नादाय.

सातवो गण – कू (कुये), जी (जिये), शीं (शिंये), वी (विये), बी (बिये), मिरि (मिरये), धार (धारये), खार (खारये), माति (मातये), पाणी (पाणये), खाड (खाडये), चीर (चिरये), घुरि घुरये), पाति (पातये).

आठवो गण – सोल, माळ, गाळ, पाळ, फाळ, चाळ, वाळ, दाळ, दळ, तेळ, तळ, मळ, छळ, पीळ, गीळ, कीळ, मेळ, पेल, मोळ, ओळ, अुकळ, धुकूळ, पांगूळ, शिगूळ, कवळ, अुबाळ, किसळ, हिंदूळ, हाल, चल, गळ, घोळ, फळ, जळ, पळ, अुसळ, चळ, धोल, वळ,

विरगळ, सळसळ, भळभळ, घळघळ, हळहळ, कलकल, झळझळ, गिलगिल, कळ, लोळ, मोत्राळ, चवताळ, विखाळ, जूळ, कोसळ, पातळ, हुमकळ, निकळ, आडखळ, कळवळ, तळमळ, फूल, परमळ, अुजळ, बोत्राळ, रगताळ, मळमळ, खुबळ, खळखळ, सुळसुळ, बुळबुळ, कुळकुळ, हुळहुळ, खुळखुळ, गुळगुळ, चुळचुळ, मिळमिळ, किलकिल, खिळखिळ, वळवळ.

णव्वो गण – बदल, निवळ, खवळ, घूवळ, भोंवळ,

धाव्वो गण – कर, व्हर, म्हण, घे, घाल; मर, वच, यो,

अि, अे, अै हीं विकरणां धातुच्या अंत्याक आयिल्लो स्वर गळून सांदतात. य, ये हीं विकरणां स्वतंत्र तरेन घोळून धातु घडतात. विकरण म्हळचार कूस.

प्रयोजक धातु – १ धातुंच्या अंत्याक 'अै' कूस सांदून प्रयोजक धातु घडतात. देखिक – कर+अै–करै; धांव+अै–धांवै; कूस+अै–कुसै; रड+अै–रडै; हाल+अै–हालै; खेळ+अै–खेळै;

२ अेकाक्षरी धातुचें प्रयोजक घडतना 'व' ची भर पडून तांतूंत 'अै' कूस सांदता. देखिक – पी+व+अै–पिवै; भी+व+अै–भिवै; धू+व+अै–धुवै; घे+व+अै–घेवै; खा+व+अै–खावै; न्हा+व+अै–न्हावै;

३ कांय धातुंच्या अंत्याक 'अि' कूस सांदून प्रयोजक धातु घडतात.

देखिक – चिरड+अि – चिरडि; खर्च+अि – खर्चि;
अुमत+अि – अुमति; तिरप+अि – तिरपि;
घस्ट +अि – घस्टि; झाडव+अि – झाडवि;

४ कांय धातुंच्या अंत्याक 'आ' कूस सांदीन 'य' ची भर दिल्यार प्रयोजक धातु घडतात.

देखिक – अुसळ+आ+य – अुसळाय; अुतर+आ+य – अुतराय;

आडखळ + आ + य – आडखळाय;  पातळ + आ + य – पातळाय;
खतखत + आ + य – खतखताय;  गजगज + आ + य – गजगजाय;
कलकल + आ + य – कलकलाय;  सणसण + आ + य – सणसणाय;
भगभग + आ + य – भगभगाय;  सळसळ + आ + य – सळसळाय;

५ कांय धातुंच्या आंगांतलो निमाण्या आदलो स्वर बदलून प्रयोजक धातु घडतात.

देखिक – अ चो आ – मर – मार;  गळ – गाळ;  तर – तार;
पड – पाड;  टळ – टाळ;  सर – सार;
उ चो ओ – तूट – तोड;  फूट – फोड;  सूट – सोड;

६ कांय अकर्मक धातुंक 'काराय' लागून प्रयोजक धातु घडतात.

देखिक – बस + काराय – बसकाराय;  ऊठ + काराय – उठकाराय;
नीद + काराय - निदकाराय;  यो + काराय - येवकाराय;

ह्या धातुंचे बसै, उठै, निदै, येवै अशेय प्रयोजक धातु घडतात.

७ कांय 'अै' न सोंपिल्ल्या धातुंक पुल्लिंगांत असो, अशे, स्त्रीलिंगांत अशी, अश्यो, नपुंसकलिंगांत अशें, अशीं वांगडा दिवन 'कर' धातुकडेन नातें जोडल्यार प्रयोजकाचो अर्थ मेळटा.

देखिक –उलै + असो कर–उलैसो कर;  उलै + अशे कर–उलैशे कर;
उलै + अशी कर – उलैशी कर;  उलै + अश्यो कर – उलैश्यो कर;
उलै + अशें कर – उलैशें कर;  उलै + अशीं कर – उलैशी कर;

८ धातुंक 'उंक' कूस लावन 'लाय' धातुकडेन नातें जोडल्यार प्रयोजकाचो अर्थ मेळटा. करूंक लाय; खावंक लाय; बसूंक लाय; न्हेसूंक लाय; रडूंक लाय; हासूंक लाय; दळूंक लाय; वचूंक लाय;

९ कांय 'व' न सोंपिल्ल्या धातुंचे प्रयोजक धातु घडटना 'व' गळून 'य' ची भर पडटा. बागव – बागय; चाळव – चाळय
वाटाव – वाटाय; पालव – पालय; फटव – फटय; सुखाव – सुखाय;

धाडव - धाडय; पिसाव – पिसाय; दुखाव – दुखाय; कष्टाव – कष्टाय; थंडाव – थंडाय; स्थिराव – स्थिराय;

१० कांय धातुंक 'व' ची भर पडून तिसऱ्या गणाचें 'अि' सांदून प्रयोजक धातु घडतात. कर+व – करव+अि – करवि; जाण+व – जाणव+अि – जाणवि; भर+व – भरव+अि - भरवि; अुखल+व – अुखलव+अि – अुखलवि;

११ कांय वेळार धातुंक 'व' ची भर पडून तिसऱ्या आनी सटव्या गणांचीं कुसां जोडून प्रयोजक धातु घडतात.

कर+व+अि+य – करविय; भर+व+अि+य – भरविय; जाण+व+अि+य–जाणविय; अुखल+व+अि+य–अुखलविय;

नामधातु – नामांवयल्यान घडिल्ल्या धातुंक नामधातु म्हणतात.

१ नामाच्चो निमाणो स्वर गळून 'आ' स्वर सांदता आनी 'य' कुसाची भर पडून नामधातु घडतात आनी सदांच कर्मी आसतात.

कुस्कुट + आ+य – कुस्कुटाय; फातर+आ+य – फातराय;
धांवंडी+आ + य – धांवंडाय; भोंवंडी+आ+य – भोंवंडाय;
अुष्टें+ आ + य – अुष्टाय; म्हेळें+आ+य – म्हेळाय;
पिसो+आ+य - पिसाय; खिळो+आ+य - खिळाय;

२ नामाचो निमाणो स्वर गळून 'अि' स्वर सांदता आनी कर्मी धातु घडतात. चर्चा+अि – चर्चि; भुरको+अि – भुरकि; अपेक्षा+अि – अपेक्षि;

३ नामाच्चो निमाणो स्वर गळून 'अे' स्वर सांदता आनी नामधातु घडतात. हे धातु कर्मी आनी अकर्मी आसतात.

भूक+अे – भुके; मूय+अे – मुये; आशा+अे – आशे;
आंकरी+अे – आंकरे; गरी+अे – गरे
आंवंडो+अे – आंवंडे; हुंडको+अे – हुंडके;

४ नामाचो निमाणो स्वर 'अ' सोडून दुसरो खंयचोय आसल्यार गळून 'अ' स्वर सांदता आनी 'ये' कुसाची भर पडून नामधातु घडतात. हे धातु सदांच अकर्मी आसतात.
माति + ये – मातये; पाणि + ये – पाणये; घुरि + ये – घुरये; खाड + य – खाडये; खार + ये – खारये; चीर + ये – चिरये;

५ अणकारी धातु - खंयचोय नाद वा आवाज लयबद्ध रुपान जायत आसता तेन्ना ताजी द्विरुक्ती जावन अणकारी धातु घडतात. हे धातु सदांच अकर्मी आसतात. चर + चर – चरचर; घर + घर - घरघर; फर + फर – फरफर; सळ + सळ - सळसळ; घळ + घळ - घळघळ; मळ + मळ - मळमळ; फिस + फिस - फिसफिस; घिस + घिस - घिसघिस; लिक + लिक - लिकलिक;

६ विशेशणी धातु - विशेशणाचो निमाणो स्वर गळून 'आ' स्वर सांदता आनी 'य' कुसाची भर पडून विशेशणी धातु घडतात. हे धातु सदांच कर्मी आसतात. रुंद + आ + य - रुंदाय; लांब + आ + य - लांबाय; घट + आ + य - घटाय; अुणें + आ + य - अुणाय, अुक्तें + आ + य - अुक्ताय; वेगळो + आ + य - वेगळाय;
अेकठो + आ + य - अेकठाय; मेंगो + आ + य - मेंगाय;
मेकळो + आ + य - मेकळाय;

७ क्रियाविशेशणी धातु – क्रियाविशेशणाचो निमणो स्वर गळून 'आ' स्वर सांदता आनी 'य' ची भर पडून क्रियाविशेशणी धातु घडतात आनी सदांच कर्मी आसतात.

पैस + आ + य–पैसाय; आड + आ + य–आडाय; स्थिर + आ + य–स्थिराय; खाल + आ + य–खालाय; सकल + आ + य–सकलाय; भायर + आ + य–भायराय;

८ निजवाचक सर्वनामाचो निमाणो स्वर गळून 'आ' सांदता आनी 'य' ची भर पडून सर्वनामी धातु घडता आनी सदांच कर्मी आसता.
आपुण + आ + य–आपणाय.

# धातुची विशेशता

१ पांचव्या गणांतले कांय धातु काळांचीं कुसां लागचें आदि तिसऱ्या गणाचें 'अि' कूस लागून चलताले पुण काळांतरान 'अि' स्वरा–बदलाक 'अ' स्वर लागून घोळतात.

कर+अि–करि; भर+अि–भरि; भाज+अि–भाजि; कांड+अि–कांडि; भरि - भरिता, भरिलो, भरितालो, भरितलो, भरिल्लो. वाचि - वाचिता, वाचिलो, वाचितालो, वाचितलो, वाचिल्लो.

२ सातव्या गणांतले कांय धातु 'ये' विकरण मोवाळून 'अे' जावन चौथ्या गणांत आस्पावल्यात. हे धातु अकर्मी आसतात.

पालो + ये - पालये - पालअे - पाले;
भेग + ये - भेगये - भेगअे - भेगे;
तेंव + ये - तेंवये - तेंवअे - तेंवे;
पानो + ये - पानये - पानअे - पाने;
आंक्रि + ये - आंक्रये - आंक्रअे - आंक्रे;
कोमरि + ये - कोमरये - कोमरअे - कोमरे;

३ 'व' न सोंपिल्ल्या कांय धातुंचे प्रयोजक घडतना तिसऱ्या गणाचें 'अि' कूस सांडून जाता.

बागव+अि - बागवि; पालव+अि - पालवि; वाडव+अि-वाडवि; बिरव+अि - बिरवि; करव+अि - करवि; घडव+अि - घडवि; जाणव+अि - जाणवि; भरव+अि - भरवि; धरव+अि - धरवि;

४ धातुक 'व' ची भर पडून जाल्ले धातु सदांच कर्मी असतात.
चल + व - चलव; राव + व - रावव; हाल + व - हालव;
कर + व - करव; भर + व - भरव; जेव + व - जेवव;

५ कांय नामांक 'व' ची भर पडून जाल्ले धातु कर्मी आनी अकर्मी आसतात. ह्या वेळार नामाचो निमाणो स्वर 'अ' जाता.

बडी + व - बडव;  तडीं + व - तडव;  फट + व - फटव;
कष्ट + व - कष्टव;  साठो + व - साठव;  फाटि + व - फाटव - पाठव;

संस्कृताप्रमाण कोंकणित धातुंचे धा गण आसून तांकां विकरण वा कूस लागूनच क्रियापदां घडतात.

| गण | संस्कृत | कोंकणी | |
|---|---|---|---|
| १ | अ | – , व | शक्यतायेधातु |
| २ | – | – | |
| ३ | – | अि, अैशि, यशि | कर्मी आनी प्रयोजक |
| ४ | य | अे | |
| ५ | नु | –, अै | प्रयोजक |
| ६ | अ | य, अिय | कर्मी आनी प्रयोजक |
| ७ | न | ये | अकर्मी |
| ८ | अु | - | |
| ९ | ना | - | अकर्मी |
| १० | अय | - | अनियमित |

## क्रियापदाची विशेशता

१ अकर्मी धातुंक 'व' ची भर पडून जाल्लीं क्रियापदां बाक्यांत कर्म नासत जाल्यार अकर्मी क्रियापदांवरी चलतात आनी सदांच वर्तमान काळांत घोळतात. अितर काळांत असलीं क्रियापदां घोळनात. असल्या क्रियापदांचो कर्तो सदांच पांचवे विभक्तित आसता.

ताज्यान चलवता - तो चलुं शकता.
तिज्यान राववना - ती रावुं शकना.
तुज्यान धांववता - तूं धावुं शकता.
ताज्यान हालवना - तो हालुं शकना.

२ धातुंक 'व' ची भर पडून जाल्लीं क्रियापदां सदांच कर्मी आसून सगळ्या काळांत नेमाप्रमाण चलतात आनी हांचो कर्तो सदांच पांचवे

विभक्तित आसता. असलीं क्रियापदां शक्यता अुक्तायतात. कर्म सदांच पैले विभक्तित आसून क्रियापद कर्माप्रमाण बदलता.

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| १ | म्हजेकडल्यान / म्हज्यान | तो | सोडवता / सोडवलो | हांव ताका सोडौंक | शकतां / शकलों |
| २ | तुजेकडल्यान / तुज्यान | घोडो | चलवता / चलवलो | तूं घोडो चलौंक | शकता / शकलो |
| ३ | तिजेकडल्यान / तिज्यान | जेवण | पचवता / पचवलें | ती जेवण पचौंक | शकता / शकली |
| ४ | रामाकडल्यान / रामाच्यान | सीता | सोडवतली / सोडवल्ली | राम सितेक सोडौंक | शकतलो / शकिल्लो |

हे तरेची घडण प्रचलित साहित्यांत जरी दिसून येना तरी कोंकणिच्या कांय बोलिंत प्रचलित आसा.

३ धातुंक 'व' ची भर पडून जाल्ल्या धातुंक तिसऱ्या आनी सटव्या गणांचीं कुसां 'अि' आनी 'य' सांदून प्रयोजक धातु घडतात. हांचीं क्रियापदां सगळचा काळांत नेमाप्रमाण चलतात. जाकालागून करणी घडल्या ती व्यक्ती पांचवे विभक्तित आसून कर्म सदांच पैले विभक्तित आसता.

हांव ताजेकडल्यान काम करवियतां — कर्तरी घडण
चावुंडराय शिल्प्याकडल्यान गोमटेश्वराची मूर्ति करवियता.
तो कुंबाराकडल्यान मडकी करवियता.

हांवें ताजेकडल्यान काम करवियलें — कर्मणी घडण
चावुंडरायान शिल्प्याकडल्यान गोमटेश्वराची मूर्ति करवियली.
ताणें कुंबाराकडल्यान मडकी करवियली.

हांवें ताजेकडल्यान करवियलें — भावी घडण
चावुंडरायान शिल्प्याकडल्यान करवियलें.
ताणें कुंबाराकडल्यान करवियलें.

४ धातुंक ' अि ' कूस सांदून जाल्ले कर्मी धातूंचीं क्रियापदां कांय वेळार प्रत्यक्ष कर्म वा अप्रत्यक्ष कर्म घेवन वाक्यांत घोळतात.

प्रत्यक्ष कर्म घेतले धातु - बिरवि, परशि, हुमटि, अडचि, खर्चि, आपटि, अुमति, आटपि, करपि, घस्टि, अुस्ति, निर्मि, परति, पारखि, बदलि, भस्टि, मस्ति, मुरडि, खरपि, सानपि, येवजि, धपटि, करडि, भरडि, झडपि, कोरांति, फापसि, तिरपि, घुस्पि, वाडवि, बुरडि, अंदि बरगि, मरगि, थापटि, बाळगि, खरडि, अर्पि, अपेक्षि, शेवटि, कल्पि, अुपरति, निमगि, चेपटि,

अप्रत्यक्ष कर्म घेतले धातु – परशि, चिरडि, अडचि, आपटि, कष्टि, घस्टि, निर्मि, परति, पारखि, बदलि, भस्टि, मस्ति, मुरडि, खरपि, सानपि, धपटि, फापसि, तिरपि, घुस्पि, निमगि, बुरडि, बरगि, थापटि, खरडि, अर्पि, अपेक्षि, शेवटि, अुपरति, चेपटि,

प्रत्यक्ष कर्म घेतल्या धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी कर्मणी घडणांत घोळतात

अप्रत्यक्ष कर्म घेतल्या धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी भावी घडणांत घोळतात.

कांय धातु प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष कर्म घेवन घोळतात.

| | |
|---|---|
| १ हांव तुका प्रश्न निमगिता | हांवें तुका प्रश्न निमगिलो. |
| २ तूं देवाक निवेद्य अर्पिता | तुवें देवाक निवेद्य अर्पिलो. |
| ३ हांव तुका तकली बागवितां | हावें तुका तकली बागविली. |
| ४ आवै चल्याक शीत भरविता | आवैन चल्याक शीत भरविलें. |
| ५ आवै चल्याक दूद दिता | आवैन चल्याक दूद दिलें. |

५ धातुंक ' अै ' कूस सांदून जाल्लीं कर्मी धातुंचीं क्रियापदां कांय वेळार प्रत्यक्ष कर्म वा अप्रत्यक्ष कर्म घेवन वाक्यांत घोळतात.

प्रत्यक्ष कर्म घेतले धातु – धरै, करै, भरै, पुरै, पेरै, चावै, कापै, मापै, शिंदै, बांदै, लासै, तासै, फासै, घासै, कोसै, किसै, पिसै, पुसै, चिवै,

शिवं, घोंटं, हाडं, काडं, कांडं, मांडं, तांडं, पाडं, सोडं, फोडं, मोडं, कोंडं, मागं, भोगं, सांगं, कांतं, गांतं, पोसं, रचं, पचं, वाचं, सुचं, विकं, शिकं, जिकं, जोकं, चोकं, मोखं, शेकं, जेवं, लेंवं, सोदं, भाजं, कोंबं, झोमं, लुचं, फुंकं, तेंकं, तोलं, भेतं, हालं, चलं, चरं, सरं, जिरं, मुरं, झरं, रावं, अुडं, कडं, झडं, लिपं, सोंपं, कुसं, धांवं, नाचं, घुसं, सुकं, दुखं, चडं, धुंवं, शेंडं, तुटं, फुटं, चुकं, रंगं, भंगं, शिजं, लकं, पिकं, पिवं.

अप्रत्यक्ष कर्म – हालं, हारं, चरं, भरं, चलं, सरं, जिरं, झरं, रावं, भोंवं, खावं, पावं, तापं, रचं, शिणं, चिडं, रडं, लिपं, सोंपं, अुठं, बसं, धांवं, हासं, न्हेसं, नाचं, घुसं, थकं, सुकं, दुखं, चडं, दंवं, घुंवं, किडं, शेंडं, रंगं, भागं, लजं, हागं, मुतं, वांकं, पिवं, पटं, शिकं, सोडं,

प्रत्यक्ष कर्म घेतल्या धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी कर्मणी घडणांत घोळतात.

अप्रत्यक्ष कर्म घेतल्या धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी भावी घडणांत घोळतात.

कांय धातु प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष कर्म घेवन घोळतात.

| | |
|---|---|
| १ हांव तुका आंबो दिवंतां | हांवें तुका आंबो दिवंलो. |
| २ तो तिका सोरोप चावंता | ताणें तिका सोरोप चावंलो. |
| ३ तो चेरडाक पौडर फासंता | ताणें चेरडाक पौडर फासंलो. |
| ४ ती म्हाका कपडें शिवंता | तिणें म्हाका कपडें शिवंलें. |
| ५ हांव तिका विचार सुचंतां | हांवें तिका विचार सुचंलो. |

असले कांय धातु – चिवं, भोगं, शिकं, चोकं शेकं, जेवं, लेंवं, खावं.

६ धातुक 'अं' सांदून जाल्ल्या प्रयोजक धातुंक 'शि' कुसाची भर पडून दोडे प्रयोजक धातु घडतात आनी जाकालागून करणी घडल्या ती व्यक्ती सदांच पांचवे विभक्तित आसून कर्म पैले विभक्तित आसता.

करैं+शि–करैंशि;  हालैं+शि–हालैंशि;  नाचैं+शि–नाचैंशि;
धरैं+शि–धरैंशि;  मारैं+शि–मारैंशि;  चलैं+शि–चलैंशि;

१ आवं दुदकान्निकडल्यान चेरडाक दूद पिवैंशिता.
आवंन दुदकान्निकडल्यान चेरडाक दूद पिवैंशिलें.

२ राजा सेनापतिकडल्यान चोराक शिक्षा दिवंशिता.
राजान सेनापतिकडल्यान चोराक शिक्षा दिवंशिली.

३ हांव तिजेकडल्यान चल्याक लाडु खावैंशितां.
हांवें तिजेकडल्यान चल्याक लाडु खावैंशिलो.

४ दादा म्हजेकडल्यान ताका बडी मारैंशिता.
दादान म्हजेकडल्यान ताका बडी मारैंशिली.

५ बापूय शिवप्याकडल्यान म्हाका कपडें शिवैंशितां
बापायन शिवप्याकडल्यान म्हाका कपडें शिवैंशिले.

प्रत्यक्ष कर्म घेतल्या असल्या प्रयोजक धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी कर्मणी घडणांत घोळतात.

अप्रत्यक्ष कर्म घेतल्या असल्या प्रयोजक धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी भावी घडणांत घोळतात.

कानडी प्रयोजक 'अिसु' आनी कोंकणी प्रयोजक 'अैंशि' हांचो कसलोच संबंध ना.

कोंकणी – धर–धरैं–धरैंशि, कळ–कळैं–कळैंशि, सोड–सोडैं–सोडैंशि,
कर–करैं–करैंशि, पेट–पेटैं–पेटैंशि, मार–मारैं–मारैंशि,

कानडी – हिडि – हिडिसु, तिळि – तिळिसु, बिडु – बिडिसु,
माडु – माडिसु, बडे – बडेयिसु, होडे – होडेयिसु,

धातुक 'ऐशि' कूय सांदून जाल्ले धातु सदांच तिसऱ्या गणा-प्रमाण चलतात आनी हे कोंकणितले दोडे प्रयोजक धातु. हिंदितय असले धातु मेळतात.

| कोंकणी | हिंदी |
|---|---|
| करचें, करौचें, करौसुवचें. | करना, कराना, करवाना. |
| दिवचें, दिवौचें, दिवौसुवचें. | देना, दिलाना, दिलवाना. |
| चलचें, चलौचें, चलौसुवचें. | चलना, चलाना, चलवाना. |
| खावचें, खावौचें, खावौसुवचें. | खाना, खिलाना, खिलवाना. |
| बसचें, बसौचें, बसौसुवचें. | बैठना, बिठाना, बिठवाना. |

हे तरेची दोडी प्रयोजक घडण कोंकणितल्या कांय बोलिंत अजूनय प्रचलित आसा.

१ हांव काम करतां. हांव काम करैतां.
हांव ताजेकडल्यान काम करैशितां.

२ हांव तिका दितां हांव तिका दिवैतां.
हांव तुजेकडल्यान तिका दिवैशितां.

३ हांवें आंबो खालो. हांवें आंबो खावैलो.
हांवें तुजेकडल्यान आंबो खावैशिलो.

४ ताणें नेवरी मागली. ताणें नेवरी मागैली.
ताणें म्हजेकडल्यान नेवरी मागैशिली.

दोडया प्रयोजकांत जाकालागून करणी घडता वा घडल्या ती व्यक्ती पांचवे विभक्तित आसून ताका प्रेरित कर्तो म्हणतात.

साद्या प्रयोजकांत प्रेरित कर्त्याची आवश्यकता नासता पुण कांय कडेन ताजो अुपयोग केल्लो दिसून येता.

१ हांव ताजेकडल्यान काम करैतां.
२ राम हणमंताकडल्यान पर्वत हाडैता.

३ तो धनयाकडल्यान पैशे मागैता.

४ हांव तिजेकडल्यान गाय सोडैतां.

धातुक 'य' ची भर पडून जाल्ल्या धातुंक 'शि' कुसाची भर पडून दोडे प्रयोजक धातु घडतात आनी जाकालागून करणी घडल्या ती व्यक्ती सदांच पांचवे विभक्तित आसून कर्म पैले विभक्तित आसता.

समज - समजाय - समजायशि; निवळ - निवळाय - निवळायशि;
माडव - माडय - माडयशि; अुष्ट - अुष्टाय - अुष्टायशि;
खुटखुट - खुटखुटाय - खुटखुटायशि; बागव - बागय - बागयशि;
पुण धुय – धुवै – धुवैशि; गाय – गावै – गावैशि;
रोय – रोवै – रोवैशि; खोय – खोवै – खोवैशि;

कांय अुदाहरणां –

१) तीं समजता. तो तिका समजायता.
ती आवैकडल्यान तिका समजायशिता.

२) भीम निवळता. तो भिमाक निवळायता.
तो डॉक्टराकडल्यान भिमाक निवळायशिता.

३) पांय माडवता. ती पांय माडयता.
ती पुताकडल्यान पांय माडयशिता.

४) झाड बागवता. हांव झाड बागयतां.
हांव तुजेकडल्यान झाड बागयशितां.

१. तो कपडें धुयता. तो कपडें धुवैता. तो मडवाळाकडल्यान कपडें धुवैशिता. २. ती शेत रोयता. ती शेत रोवैता. ती मानायाकडल्यान शेत रोवैशिता. ३. ती गायता. ती ताका गावैता, ती गितकाराकडल्यान ताका गावैशिता. ४. ती पदर खोयता. ती पदर खोवैता. ती चलयेकडल्यान पदर खोवैशिता.

असले दोडे प्रयोजक धातु तिसऱ्या गणाप्रमाण चलतात. प्रत्यक्ष कर्म घेतल्या असल्या धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी कर्मणी घडणांत घोळतात.

धातुक 'अि' सांदून जाल्ल्या धातुंक 'य' कुसाचीं भर पडून दोडे प्रयोजक धातु घडतात आनी जाकालागून करणी घडल्या ती व्यक्ती सदांच पांचवे विभक्तित आसून कर्म पैले विभक्तित आसता.

अडच – अडचि – अडचिय; थापट – थापटि – थापटिय;
अुमत – अुमति – अुमतिय; शेवट – शेवटि – शेवटिय;

१ बोट अडचता. तो बोट अडचिता.
तो रामाकडल्यान बोट अडचियता.

२ दूद अुमतता. ती दूद अुमतिता.
ती चेरडाकडल्यान दूद अुमतियता.

३ फातोर शेवटता. हांव फातोर शेवटितां.
हांव सेवकाकडल्यान फातोर शेवटियतां.

४ चलो थापटता. हांव चल्याक थापटितां.
हांव बायलेकडल्यान चल्याक थापटियतां.

असले दोडे प्रयोजक धातु पैल्या गणाप्रमाण चलतात. प्रत्यक्ष कर्म घेतल्या असल्या धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी कर्मणी घडणांत घोळतात.

अप्रत्यक्ष कर्म घेतल्या असल्या धातुंचीं क्रियापदां सदांच कर्तरी आनी भावी घडणांत घोळतात.

हे तरेची दोडी प्रयोजक घडण प्रचलित कोंकणिच्या बोलित जरी दिसून येना तरी प्राचीन कोंकणित असलीं क्रियापदां मेळच्याक शकतात. दोडे प्रयोजक धातु सगळ्या काळांत चलतात.

१ कांय क्रियापदां सकर्मक आसूनय भूत, भूतभूत, वर्तमानभूत काळांत कर्तरी घडणेंत घोळतात. कर्तो पैले विभक्तित आसता.

१ प्रत्यक्ष कर्म घेतलीं क्रियापदां भूतकाळांत

१. तो पाठ समजलो. २. ती दूद पिली. ३. तो सुख भोगलो.

४. हांव शीत जेवलों. ५. तो पाठ शिकलो ६. तो रगत ओंकलो.
७. तें पातळ न्हेंसलें. ८. तो खेळ खेळ्ळो. ९. ती मेटां चडली.
१०. हांव पुस्तक ओळखलों. ११. हांव काम विसरलों.
१२. तो मेटणां अुतरलो.

२ अप्रत्यक्ष कर्म घेतलीं क्रियापदां. भूतकाळांत

१ तो म्हाका समजलो. २ ती गायेक ओळखली. ३ तो म्हाका आपटलो. ४ ती म्हाका मानवली. ५ ती म्हाका झळकली. ६ हांव तिका भिलों. ७ ती घोवाक आशेली. ८ तो धुवेक आंवडलो. ९ देव ताका पावलो. १० ती घोवाक विसरलो. ११ हांव तिका आवडलों १२ तो पुताक अुलैलो. १३ तो तिका चावलो. १४ तो तिका भोगलो. १५ ती म्हाका तेंकली.

२ कांय क्रियापदां नेमाप्रमाण कर्मणी घडणेंत घोळतात. कर्तो चौथे विभक्तित आसता. भूतकाळांत

१ ताका आवाज आयकलो. २ तिका पाठ समजळो. ३ म्हाका फातोर आपटलो. ४ म्हाका चलो मानवलो. ५ तिका काणी येवजली. ६ ताका नुस्तें झळकलें. ७ ताका सोरो लागलो. ८ ताका सोरो पचलो. ९ म्हाका जेवण रुचलें. १० ताका कथा सुचली. ११ ताका आंबो आवडलो. १२ ताका सूख भोगलें. १३ तिका विचार पटलो. १४ तिका पाठ कळ्ळो. १५ बापायक पूत मेळ्ळो. १६ तिका सुस्ती मारली. १७ बाबुक नीद आयली. १८ हाताक कांटो तोपलो. १९ म्हाका विचार होलमलो. २० म्हाका सोरोप दिसलो. २१ तिका सपन पडलें. २२ ताका बापूय अंतरलो. २३ तिका सोरो चडलो. २४ तिका गीत कळपलें.

३ कांय सकर्मक क्रियापदां प्रत्यक्ष कर्म घेवन कर्मणी घडणेंत घोळतात. प्रत्यक्ष कर्म सदांच आपल्या मूळ रुपांत आसता. – भूतकाळांत
१ ताणें काणी आयकली. २ तिणें आंबो खालो. ३ ताणें केळें खालें, असले कांय सकर्मक धातु – परशि, हुमटि अडचि, खर्चि, आपटि. आटपि, अुमति, करपि, घस्टि, अुस्ति, निभि, परति, पारखि, बदलि,

मस्ति, मुरडि, खरपि, येत्रजि, करडि, भरडि, भरगि, कोरांति, फापसि, तिरपि, निमगि, वाडवि, अंदि, बरगि, मरगि, थापटि, बाळगि, खरडि, अपि, अपेक्षि, बिरवि, शेवटि, कल्पि, पोशे धर, मार, भर पूर, चोर, सार, दवर, पेर, चाव काप, माप, तोप, चोय, लाय शींद, बांद, झाड, लास, तास, फास, घास, कोस, कीस, पीस, पूस, चींव, शींव, घोंट, हाड, काड, कांड, मांड, तांड, पाड, सोड, फोड, जोड, मोड, माग, सांग, कांत, गांत, पोस, सोस, रच, वाच, वीक, जीक, जोक, चोक, मोख, लेंव, सोद, भाज, कोंब, झोम, फूंक, राख, अुगड, पिसूड, स्वीकार, तोल भंत, रोय, खोय, बदलाय, धू, गा, माडय, वाडय,पालय, बागय, पैसाय, थंडाय, हुमकळाय, निकळाय, अुतराय, मोलाय, अुसळाय, फिराय, पुंजाय, खटखटाय, खुटखुटाय, खिटखिटाय, फरफराय, झळ-झळाय, गिरगिराय, लांबाय, रुंदाय, घटाय, अुंचाय, अुक्ताय निसराय, कोसळाय, पातळाय, सोल, गाळ, पाळ, धवळ पीळ, दळ, अुकळ, धुकूळ, गीळ, पांगूळ, चाळ तळ, कीळ, पेल, फाळ, मोळ, वाळ, कवळ, चोळ, किसळ, ओळ, हिंदूळ, कर, व्हर, म्हण, घे, घाल.

२ कांय सकर्मक क्रियापदां अप्रत्यक्ष कर्म घेवन भावी घडणेंत घोळ-तात. अप्रत्यक्ष कर्म चौथे विभक्तित आसता. – भूतकाळांत

१ ताणें तिका कष्टिलें. २ देवान म्हाका निर्मिलें ३ ताणें तिका परतिलें. कांय असले सकर्मक धातु – घस्टि, पारखि, भस्टि, मस्ति, मुरडि, झडपि, फापसि, घुस्पि, निमगि, बरगि, थापटि, खरडि, अपेक्षि शेवटि, पोशे, धर, मार, पूर, तार, दवर, जप काप, च्होय, बांद, लास, तास, फास, च्हींव, हाड, नाड, फोड, तोड, सोड, कोंड, माग, सांग, पीस, रच, वीक, लेंव, सोव, सोद, भाज, राख, पिसूड, शिगार, स्वीकार, निवळाय, घुवळाय, वाटाय, अेकठाय, फटय, माडय, धाडय, चाळय, बडय, नागय, बागय, पैसाय, फिराय, दुखाय, सुखाय, थंडाय, हुमकळाय, निकळाय, अुतराय, आडखळाय, तिडाय, घोळाय, खिळाय, धुमकाय, फातराय, कुस्कुटाय, मोलाय, चक्राय, घुस्पाय, कष्टाय, पिसाय, पुंजाय, किरकिराय, पिरपिराय, भगभगाय, गिरगि-

राय, सरसराय, गुरगुराय, पुसलाय, लांबाय, घटाय, अंचाय, स्थिराय, आपणाय, खालाय, आडाय अुसळाय, निसराय, विसराय, कोसळाय, पातळाय, सोल, माळ, पाळ, पीळ, तेळ, गाळ, अुकळ, धुकूळ, गीळ, पांगूळ, शिगूळ, अूवाळ, चोळ, हिंदूळ, व्हर, म्हण, घाल.

४. कांय सकर्मक क्रियापदां प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष कर्मां घेतात.

— भूतकाळांत

१ हांवें ताका आंबो दिलो.
२ तिणें म्हाका काणी सांगली.
३ तिणें म्हाका रंग लायलो.
४ ताणें म्हाका धोतर हाडलें.
५ हांवें तिका भीक घालो.
६ ताणें म्हाका तेल चोळ्ळें.
७ तुवें तिका फुलां माळ्ळी
८ तुवें ताका फातोर मारलो.
९ तिणें म्हाका पणस विकलो.
१० हांवें तिका प्रस्न निमगिलो.
११ तिणें म्हाका गीत शिकैलें
१२ हांवें ताका पत्र बरैलें.
१३ बापायन पुताक आशीर्वाद केलो. १४ ताणें आमकां आंबे पावैले. १५ तिणें चेरडाक दूद पिवैलें १६ हांवें ताका आंबो खावैलो १७ ताणें आमकां आंबे वांटले. १८ तिणें म्हाका पेज वाडली.

कांय बाबतित ' अै ' लागून जाल्लीं प्रयोजक क्रियापदां द्विकर्मक आसतात. धातुंची वळेरी पूर्ण ना.

५ ' जाय ' आनी ' नाका ' हीं स्वतंत्र क्रियापदांवरी चलतात. घडण कर्मणी आसून कर्तो सदांच चौथे विभक्तित आसता, हीं क्रियापदां सगळ्या काळांत चलतात.

| अेकवचन | भोवचन | काळ |
|---|---|---|
| आंबो जाय<br>नाका | आंबे जाय<br>नाकात | वर्तमान |
| जाय जाला<br>नाका जाला | जाय जाल्यात<br>नाका जाल्यात | वर्त. भूत |
| जाय जालो<br>नाका जालो | जाय जाले<br>नाका जाले | भूत |

| | | |
|---|---|---|
| जाय जातालो | जाय जाताले | अ. भूत |
| नाका जातालो | नाका जाताले | |
| जाय जाल्लो | जाय जाल्ले | भू. भू. |
| नाका जाल्लो | नाका जाल्ले | |
| जाय जातलो | जाय जातले | नित्श. भ. |
| नाका जातलो | नाका जातले | |
| जाय जायत | जाय जातित | सादो भ. |
| नाका जायत | नाका जातित | |
| जाय जातलो आसलो | जाय जातले आसले | निम. भ. |
| नाका जातलो आसलो | नाका जातले आसले | |
| जाय जावं | जाय जावंत | आज्ञार्थ |
| नाका जावं | नाका जावंत | |
| जाय जावचो | जाय जावचे | विध्यर्थ |
| नाका जावचो | नाका जावचे | |

' जाय ' हें क्रियापद अविकारी असूनय कांय बोलित विकारी जावन घोळता.

| | | | |
|---|---|---|---|
| जायो | जाये | – पुरुषलिंगी | कर्म आसतना |
| जायी | जायो | – स्त्रीलिंगी | |
| जायें | जायीं | – नपुंसकलिंगी | |

क्रियेचें साधारण रूप –

१ ' अ ' न सोंपिल्ल्या धातुंचें साधारण रूप धातुक 'चें' जोडून घडता.
कर + चें – करचें; धर + चें – धरचें; धांव + चें – धांवचें;

२ ' अ ' न सोंपिल्ल्या कांय धातुंचें साधारण रूप धातुक ' चें ' जोडतना मदीं ' उव ' ची भर पडून घडता.

चिरड + उव + चें – चिरडुवचें; समज + उव + चें – समजुवचें;
भरड + उव + चें – भरडुवचें; बाडव + उव + चें – बाडवुवचें;
मस्त + उव + चें – मस्तुवचें; जन्म + उव + चें – जन्मुवचें;

३ ‘ व ’ न सोंपिल्ल्या कांय धातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडून घडता.

अेकठाव + चें – अेकठावचें; वाटाव + चें – वाटावचें; थंडाव + चें – थंडावचें; नागव + चें – नागवचे; सुखाव + चें – सुखावचें; अुंचाव + चें – अुंचावचें;

४ ‘ आ ’ न सोंपिल्ल्या अेकाक्षरी धातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना मदीं ‘ व ’ ची भर पडून घडता.

न्हा + व + चें – न्हावचें; जा + व + चें – जावचें;
गा + व + चें – गावचें; खा + व + चें – खावचें;

५ ‘ अी ’ न सोंपिल्ल्या अेकाक्षरी धातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना मदीं ‘ व ’ ची भर पडून घडता.

पी + व + चें - पिवचें; दी + व + चें – दिवचें;
भी + व + चें – भिवचें;
जी – जिये + व + चें – जियेवचें; शीं – शिंये + व + चें – शिंयेवचें;

६ ‘ अू ’ आनी ‘ ओ ’ न सोंपिल्ल्या धातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना मदीं ‘ व ’ ची भर पडून घडता.

धू + व + चें – धुवचें; कू – कुये + व + चें – कुयेवचें
यो + व + चें – येवचें;

७ ‘ अि ’ न सोंपिल्ल्या प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना मदीं ‘ व ’ ची भर पडून घडता.

चिरडि + व + चें – चिरडिवचें; मुरडि + व + चें – मुरडिवचें;
खरपि + व + चें – खरपिवचें; भरडि + व + चें – भरडिवचें;

८ ‘ शि ’ न सोंपिल्ल्या दोडे प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना ‘ शि ’ गळन ‘ सुव ’ ची भर पडता आनी ‘ अै ’ बदलाक ‘ ओ ’ जावन घडता.

करैशि + सुव + चें – करौसुवचें;    धरैशि + सुव + चें - धरौसुवचें;
घालैशि + सुव + चें - घालौसुवचे;    हालैशि + सुव + चें - हालौसुवचें;

९ 'अै' न सोंपिल्ल्या प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक 'चें' जोडतना 'अै' कूस गळून 'औ' सांदून घडता.

करै + चें – करौचें;   हालै + चें – हालौचें;   धाडै + चें – धाडौचें;
घडै + चें – घडौचें;   धरै + चें – धरौचें;   नाचै + चें – नाचौचें;

१० 'य' न सोंपिल्ल्या प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक 'चें' जोडतना 'य' गळून 'व' ची भर पडून घडता.

अुसळाय + चें – अुसळावचें;    निकळाय + चें – निकळावचें;
विसराय + चें – विसरावचें;    अुतराय + चें – अुतरावचें;
नागय + चें – नागवचें;    वाटाय + चें – वाटावचें;
पिसाय + चें – पिसावचें;    पैसाय + चें – पैसावचें;

११ 'अिय' न सोंपिल्ल्या दोडे प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक 'चें' जोडतना 'अिय' गळून 'अुव' ची भर पडून घडता.

खरपिय + अुव + चें – खरपुवचें;    खरडिय + अुव + चें – खरडुवचें;
भरडिय + अुव + चें – भरडुवचें;    मुरडिय + अुव + चें – मुरडुवचें;

धातुक 'व' जोडून 'अिय' सांदून जाल्ल्या दोडे प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक 'चें' जोडतना 'अिय' गळून 'अुव' ची भर पडता.
करविय + अुव + चें – करवुवचें;    धरविय + अुव + चें – धरवुवचें;
जाणविय + अुव + चें – जाणवुवचें;    भरविय + अुव + चें – भरवुवचें;

१२ आंगांतलो स्वर बदलून घडिल्ल्या प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक 'चें' जोडून घडता.

मार + चें – मारचें;   गाळ + चें – गाळचें;   तास + चें – तासचें;
तोड + चें – तोडचें;   फोड + चें – फोडचें;   सोड + चें – सोडचें;

१३ ‘ काराय ’ लागून घडिल्ल्या प्रयोजक धातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना ‘ य ’ गळून ‘ व ’ ची भर पडून घडता.

बसकाराय + चें - बसकारावचें;    निदकाराय + चें - निदकारावचें;
अुठकाराय + चें - अुठकारावचें;    येवकाराय + चें - येवकारावचें;

१४ ‘ य ’ न सोंपिल्ल्या नामधातुंचें, विशेशणी धातुंचें, क्रियाविशेशणी धातुंचें आनी सर्वनामी धातुचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना ‘ य ’ गळून ‘ व ’ ची भर पडून घडता.

कुस्कुटाय + चें – कुस्कुटावचें;    फातराय + चें – फातरावचें;
धांवडाय + चें – धांवडावचें    भोंवडाय + चें – भोंवडावचें;
रुंदाय + चें – रुंदावचें    लांबाय + चें – लांबावचें;
अुणाय + चें – अुणावचें    वेगळाय + चें – वेगळावचें;
आडाय + चें – आडावचें    स्थिराय + चें – स्थिरावचें;
सकलाय + चें – सकलावचें    भायराय + चें – भायरावचें;
आपणाय + चें – आपणावचें;

१५ ‘ अे ’ न सोंपिल्ल्या नामधातुंचें साधारण रूप धातुक ‘ चें ’ जोडतना मदीं ‘ व ’ ची भर पडून घडता.

आशे + व + चें – आशेवचें;    गरे + व + चें – गरेवचें;
भुके + व + चें – भुकेवचें;    मुये + व + चें – मुयेवचें;
ताने + व + चें – तानेवचें;    पाले + व + चें – पालेवचें;

धातुंचीं क्रियापदां घडतना धातुंच्या साधारण रुपांतलें भर पडिल्लें ‘ व ’ आनी ‘ चें ’ गळतात.

| साधारण रूप | धातु | वर्त | भूत | भूतभूत |
|---|---|---|---|---|
| करचें | कर | करता | केले | केल्ले |
| धरचें | धर | धरता | धरले | धरिल्ले |
| न्हावचें | न्हा | न्हाता | न्हालो | न्हाल्लो |

| साधारण रूप | धातु | वर्त | भूत | भूतभूत |
| --- | --- | --- | --- | --- |
| खावचें | खा | खाता | खालो | खाल्लो |
| दिवचें | दी | दिता | दिलो | दिल्लो |
| भिवचें | भी | भिता | भिलो | भिल्लो |
| अुदेवचें | अुदे | अुदेता | अुदेलो | अुदेल्लो |
| घोरेवचें | घोरे | घोरेता | घोरेलो | घोरेल्लो |
| पळौचें | पळै | पळैता | पळैलो | पळयिल्लो |
| हालौचें | हालै | हालता | हालैलो | हालयिल्लो |
| येवचें | यो | येता | आयलो | आयिल्लो |
| धडधडचें | धडधड | धडधडता | धडधडलो | धडधडिल्लो |
| गडगडचें | गडगड | गडगडता | गडगडलो | गडगडिल्लो |
| जियवचे | जो जिये) | जियेता | जियेलो | जियेल्लो |
| कुयेवचें | कू(कुये) | कुयता | कुयेलो | कुयेल्लो |
| तोडचें | तोड | तोडता | तोडलो | तोडिल्लो |
| फोडचें | फोड | फोडता | फोडलो | फोडिल्लो |

'व' बदला 'य' ची भर पडून जावचीं क्रियापदां.

| | | | | |
| --- | --- | --- | --- | --- |
| धुवचें | धू (धुय) | धुयता | धुयलो | धुयिल्लो |
| गावचें | गा(गाय) | गायता | गायलो | गायिल्लो |
| अुपळावचें | अुपळाय | अुपळायता | अुपळायलो | अुपळायिल्लो |
| विसरावचें | विसराय | विसरायता | विसरायलो | विसरायिल्लो |
| नागवचें | नागय | नागयता | नागयलो | नागयिल्लो |
| पिसावचें | पिसाय | पिसायता | पिसायलो | पिसायिल्लो |
| बसकारावचें | बसकाराय | बसकारायता | बसकारायलो | बसकारायिल्लो |
| अुपकारावचें | अुपकाराय | अुपकारायता | अुपकारायलो | अुपकारायिल्लो |
| रुंदावचें | रुंदाय | रुंदायता | रुंदायलो | रुंदायिल्लो |
| अुंचावचें | अुंचाय | अुंचायता | अुंचायलो | अुंचायिल्लो |

'व' न सोंपिल्ल्या धातुंचीं क्रियापदां घडतना धातुंच्या साधारण रुपांतलें 'चें' गळून घडता.

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| अेकठावचें | अेकठाव | अेकठावता | अेकठावलो | अेकठावल्लो |
| सुखावचें | सुखाव | सुखावता | सुखावलो | सुखावल्लो |

'अुव' लागून जाल्ल्या धांतुंचीं क्रियापदां घडतना धातुंच्या साधारण रुपांतलें 'अुवचें' गळून घडतात.

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| चिरडुवचें | चिरड | चिरडता | चिरडलो | चिरडल्लो |
| खरपुवचें | खरप | खरपता | खरपलो | खरपल्लो |

तिसऱ्या गणांतल्या धातुंचीं क्रियापदां घडतना धातुच्या साधारण रुपांतलें 'वचें' गळून घडतात.

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| चिरडिवचें | चिरडि | चिरडिता | चिरडिलो | चिरडिल्लो |
| खरपिवचें | खरपि | खरपिता | खरपिलो | खरपिल्लो |

धातुक 'अिय' जोडून जाल्ल्या दोडचा प्रयोजकांचीं क्रियापदां घडतना धातुच्या साधारण रुपांतलें 'अुवचें' गळून घडतात.

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| खरपुवचें | खरपिय | खरपियता | खरपियलो | खरपियल्लो |
| चिरडुवचें | चिरडिय | चिरडियता | चिरडियलो | चिरडियल्लो |

'सुव' लागून जाल्ल्या धातुंचीं क्रियापदां घडतना धातुच्या साधारण रुपांतलें 'सुवचें' गळून घडतात.

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| करीसुवचें | करैशि | करैशिता | करैशिलें | करैशिल्लें |
| भोगसुवचें | भोगशि | भोगशिता | भोगशिलें | भोगशिल्लें |
| समजावसुवचें | समजायशि | समजायशिता | समजायशिलें | समजायशिल्लें |
| परसुवचें | परशि | परशिता | परशिलें | परशिल्लें |

## दोडचा प्रयोजकाचें साधारण रूप

| | | सुवचें जोडून |
|---|---|---|
| आयकुवचें | आयकावचें | आयकावसुवचें |

| | | |
|---|---|---|
| समजुवचें | समजावचें | समजावसुवचें |
| न्हावचें | न्हावौचें | न्हावौसुवचें |
| खावचें | खावौचें | खावौसुवचें |
| भिवचें | भिवौचें | भिवौसुवचें |
| पिवचें | पिवौचें | पिवौसुवचें |
| धरचें | धरौचें | धरौसुवचें |
| फिरचें | फिरौचें | फिरौसुवचें |
| गावचें | गावौचें | गावौसुवचें |
| धुवचें | धुवौचें | धुवौसुवचें |
| चिरडुवचें | चिरडिवचें | चिरडुवसुवचें |
| मुरडुवचें | मुरडिवचें | मुरडुवसुवचें |
| हालचें | हालौचें | हालौसुवचें |
| घोलचें | घोलौचें | घोलौसुवचें |
| खवळचें | खवळावचें | खवळावसुवचें |
| वाडवुवचें | वाडविवचें | वाडवुवसुवचें |
| माडवुवचें | माडविवचें | माडवुवसुवचें |

चौथ्या आनी सातव्या गणांतल्या धातुंचीं प्रयोजक आनी दोडे प्रयोजक रुपां घडनात.

वयर दिल्ले क्रियेच्या साधारण रुपांतलें धातु

| | | |
|---|---|---|
| आयक | आयकाय | आयकायशि |
| समज | समजाय | समजायशि |
| न्हा | न्हावै | न्हावैशि |
| खा | खावै | खावैशि |
| भी | भिवै | भिवैशि |
| पीं | पिवै | पिवैशि |
| धर | धरै | धरैशि |
| फिर | फिरै | फिरैशि |

| | | |
|---|---|---|
| गा (गाय) | गावै | गावैशि |
| धू (धुय) | धुवै | धुवैशि |
| चिरड | चिरडि | चिरडिशि |
| मुरड | मुरडि | मुरडिशि |
| हाल | हालै | हालैशि |
| धोल | धोलै | धोलैशि |
| खवळ | खवळाय | खवळायशि |
| बदल | बदलाय | बदलायशि |
| वाडव | वाडवि | वाडविशि |
| माडव | माडवि | माडविशि |

धातुंक 'व' जोडून जाल्ल्या धातुंचे क्रियेचें साधारण रूप नेमाप्रमाण घडतात पुण दोडच्या प्रयोजकाचे क्रियेचें साधारण रूप घोळना. पुण क्रियापदां घडतना 'अिय' ची भर पडना.

| | | | |
|---|---|---|---|
| करवुवचें | करव | करविवचें | करवि |
| धरवुवचें | धरव | धरविवचें | धरवि |
| चलवुवचें | चलव | चलविवचें | चलवि |
| पाठवुवचें | पाठव | पाठविवचें | पाठवि |

कृदंत – धातुंक वेगवेगळीं कुसां लागून तांचो अुपयोग नामावरी, विशेशणावरी आनी अव्ययावरी जाता आनी ह्या अुतरांक कृदंत म्हणतात.

धातुंवयल्यान घडिल्ल्यान ह्या अुतरांक धातुसाधित नामां, धातुसाधित विशेशणां आनी धातुसाधित अव्ययां अशेंय म्हणतात.

कृदंतांत दोन प्रकार आसात. १ विकारी २ अविकारी

विकारी कृदंतांत धातुसाधित नामां आनी धातुसाधित विशेशणां हांचो आस्पाव आसता. जाल्यार अविकारी कृदंतांन धातुसाधित अव्ययांचो आस्पाव आसता.

१ भाववाचक कृदंत – धातुंक 'चें' 'णें' 'प' 'ण' 'णी' 'णूक' कुसां लागून भाववाचक कृदंत वा धातुसाधित नामां घडतात.

चें – करचें, धरचें, रडचें, मागचें. णें – करणें, मागणें, धरणें, रडणें;
प – करप, मागप, धरप, रडप; ण – मरण, घडण, शिवण, जेवण;
णी – करणी, घडणी, सांगणी पावणी;
णूक – घडणूक, वागणूक, रचणूक, चलणूक;

धातुक 'चें' 'णें' 'प' लागून भाववाचक नामां जावची चाल कोंकणिचीच. मागणें, रडणें, (रण्णें), चमकणें, धांकणें, चलणें खाणें, पिणें असलीं उतरां अजूनय प्रचलित आसात पुण सगळ्या धातुंक 'णें' लावची पद्धत उणावल्या पुण ही पद्धत मराठी बोलिन आपणायल्या. कांय धातुंक 'प' लागून भाववाचक नामां जावची चालय कोंकणिचीच. रांदप, वाजप, दळप असलीं उतरां अजूनय प्रचलित आसात पुण सगळ्या धातुंक 'प' लावची पद्धत अंत्रुजी बोलिन आपणायल्या. ण, णी, णूक हीं कुसां सगळ्या धातुंक लागनासतना कांय कांय धातुंकच लागतात.

२ कर्तृवाचक कृदंत – १ धातुक 'पी' कूस लावन कर्तृवाचक कृदंत वा धातुनाम घडता.

वच + पी – वचपी; कर + पी – करपी; धांव + पी – धांवपी;
'पी' लागून जाल्ल्या धातुनामाक लिंगभेद नासून भौवचनय ना. असले धातुनाम गोंयांतच दिसून येता.

२ – धातुच्या अपूर्ण धातुविशेशणाक लो, ली, लें, अेकवचनांत ले, ल्यो, लीं भौवचनांत जोडून कर्तृवाचक कृदंत वा धातुनाम घडता.

| अेकवचन | भौवचन | लिंग |
|---|---|---|
| पळैत + लो – पळैतलो; | पळैत + ले – पळैतले; | पुरुश |
| पळैत + ली – पळैतली; | पळैत + ल्यो – पळैतल्यो; | स्त्री |
| पळैत + लें – पळैतलें; | पळैत + लीं – पळैतलीं; | नपुंसक |

३ वर्तमानकालिक कृदंत – धातुच्या अपूर्ण धातुविशेशणाक ओ, ॲी, अें अेकवचनांत अे, ओ, ॲीं भौवचनांत लागून वर्तमानकालिक कृदंत घडता. हाका वर्तमानकालिक धातुसाधित नाम म्हणतात.

| | | |
|---|---|---|
| धांवत+ओ – धांवतो; | धांवत+अे – धांवते; | पुरुश |
| धांवत+ॲी – धांवती; | धांवत+ओ – धांवत्यो; | स्त्री |
| धांवत+अें – धांवतें; | धांवत+ॲीं – धांवतीं; | नपुंसक |

तिसऱ्या गणाच्या धातुंक 'अत' लागतना 'अ' चो लोप जाता.

खरपि+अत – खरपित; परशि+अत – परशित;

चौथ्या गणाच्या धातुंक 'अत' लागतना 'अ' चो लोप जाता.

पाने+अत – पानेत; हुंडके+अत – हुंडकेत;

सातव्या गणाच्या धातुंक 'अत' लागतना 'अ' चो लोप जाता.

कुये+अत – कुयेत; मिरये+अत – मिरयेत;

४ भूतकालिक कृदंत – धातुच्या पूर्णधातुविशेशणाक 'ल' जोडून ओ, ओ, अें अेकवचनांत अे, ओ, ॲीं भौवचनांत लागून भूतकालिक कृदंत घडता. हाका भूतकालिक धातुसाधित नाम म्हणतात.

| | | |
|---|---|---|
| आसिल+ल+ओ–आसिल्लो; | आसिल+ल+अे–आसिल्ले; | पुरुश |
| आसिल+ल+ॲी–आसिल्ली; | आसिल+ल+ओ–आसिल्यो; | स्त्री |
| आसिल+ल+अें–आसिल्लें; | आसिल+ल+ॲीं–आसिल्लीं; | नपुंसक |

५ विध्यर्थी कृदंत – धातुक चो, ची, चें अेकवचनांत, चे, च्यो, चीं भौवचनांत विध्यर्थी कुसां लागून विध्यर्थी कृदंत घडता.

| | | |
|---|---|---|
| धांव+चो – धांवचो; | धांव+चे – धांवचे | पुरुश |
| धांव+ची – धांवची; | धांव+च्यो – धांवच्यो; | स्त्री |
| धांव+चें – धांवचें; | धांव+चीं – धांवचीं; | नपुसक |

अविकारी कृदंत –

१ पूर्वकालिक कृदंत – धातुक ‘ अून ’ कूस लागून पूर्वकालिक कृदंत घडता.

१ कर+अून – करून; धार+अून – धरून; मर+अून – मरून;

२ ‘आ’ ‘ओ’ ‘अू’ ‘अे’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘ अून ’ कूस लागतना ‘अू’ बदलाक ‘व’ आनी ‘अे’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘ अून ’ कूस लागतना ‘अै’ बदलाक ‘औ’ असो बदल घडता.

खा+अून - खावून - खावन; जा+अून - जावून - जावन;

दी+अून - दिवून - दिवन; पी+अून - पिअून - पिवन;

धू+अून - धुवून - धुवन;

आशे+अून - आशेवून - आशेवन; ताने+अून - तानेवून - तानेवन;

अुलै+अून - अुलौन; पळै+अून - पळौन;

‘यो’ ह्या धातुक होच नेम लागता पुण ‘यो’ चो ‘ये’ असो बदल घडता.

यो+अून – येवून – येवन;

३ ‘व’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘अून’ कूस लागतना ‘अू’ चो लोप जाता.

आडाव+अून – आडावून – आडावन;

अेकठाव+अून – अेकठावून – अेकठावन;

कांय धातुंक ‘ अून ’ लागून घडता.

वाडव+अून – वाडवून; बिरव+अून – बिरवून;

४ ‘य’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘अून’ कूस लागतना ‘य’ बदलाक ‘व’ येवन ‘अू’ चो लोप जाता. रोय+अून – रोवून – रोवन; खांय+अून – खोवून – खावन; समजाय+अून – समजावून – समजावन; विसराय+अून – विसरावून – विसरावन;

५ तिसऱ्या गणांतल्या धातुंक 'अून' कूस लागतना 'अि' चो लोप जावन 'अून' कूस लागता पुण धातुच्या अंत्याक 'अु' ची भर पडता आनी 'अू' चो 'व' असो बदल घडता.

खरपि+अून – खरपुवन; फापसि+अून – फापसुवन;
हुमटि+अून – हुमटुवन; निमगि+अून – निमगुवन;
वार्डवि+अून – वाडवुन; मार्डवि+अून – माडवुन;

६ 'शि' जोडून जाल्ल्या दोडच्या प्रयोजक धातुंक 'अून' कूस लागतना 'शि' बदलून 'स' जाता आनी 'अून' कूस सांदता आनी 'अै' चो 'औ' कारांतांत बदल घडता.

करैशि+अून - करौसून; धरैशि+अून - धरौसून;
भिवैशि+अून - भिवौसून; पिवैशि+अून - पिवौसून;
खावैशि+अून - खावौसून; न्हावैशि+अून - न्हावौसून;
बदलायशि+अून - बदलावसून; समजायशि+अून - समजावसून;

पुण तिसऱ्या गणाच्या प्रयोजक धातुंक 'शि' लागून दोडे प्रयोजक जाल्ल्या धातुंक 'अून' कूस सांदतना धातुच्या अंत्याक 'अु' असो बदल घडून 'व' ची भर पडता आनी 'शि' चो 'स' जावन 'अून' कूस सांदता.

चिरडिशि+अून - चिरडुवसून; मूरडिशि+अून - मूरडुवसून;
वार्डविशि+अून - वाडवुवसून; मार्डविशि+अून - माडवुवसून;

७ 'व' जोडून जाल्ल्या कर्मी धातुंक 'अून' कूस लागतना कांय बदल घडना आनी कोंकणितलो हो प्रकार मराठिन आपणायला.

करव+अून - करवून; धरव+अून - धरवून;
चलव+अून - चलवून; मागव+अून - मागवून;

८ तिसऱ्या गणाचें 'अि' आनी सटव्या गणाचें 'य' कुसां लागून घडिल्ल्या दोडच्या प्रयोजक धातुंक 'अुन' कूस लागून घडिल्लीं रुपां कोंकणित घोळनात.

९ 'ये' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'ऊन' कूस लागतना 'ऊ' बदलाक 'व' येता.
कू - कुये+ऊन - कुयेवन; जी - जिये+ऊन - जियेवन;
मिर - मिरये+ऊन - मिरयेवन;

'अुंक' कूस लागन धातुअव्यय घडतात. 'अु' दीर्घ जाता.

१ कर+अुंक - करूंक; धर + अुंक - धरूंक; मर+अुंक - मरूंक;

२ 'आ', 'ई', 'ऊ', 'ए' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अुंक' कूस लागतना 'अै' बदलाक 'औ' असो बदल घडता.

खा+अुंक - खावूंक - खावंक; जा+अुंक - जावूंक - जावंक;
दी+अुंक - दिवूंक - दिवंक; पी+अुंक - पिवूंक - पिवंक;
धू+अुंक - धुवूंक - धुवंक; आशे+अुंक - आशेवूंक - आशेवंक;
ताने+अुंक - तानेवूंक - तानेवंक;
अुलै+अुंक - अुलौंक; पळै+अुंक - पळौंक;

३ 'व' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अुंक' कूस लागतना 'अु' चो लोप जावन 'व' चेर अनुस्वार घोळता.

जेव+अुंक - जेवूंक - जेवंक; धांव+अुंक - धांवूंक - धांवंक;
आडाव+अुंक - आडावूंक - आडावंक; अेकठाव+अुंक - अेकठावूंक - अेकठावंक; कांय धातुंक 'अुंक' कूस लागून घडता.
बिरव+अुंक - बिरवूंक; वाडव+अुंक - वाडवूंक;

४ 'य' न सोंपिल्ल्या धातुंक अुंक कूस लागतना 'य' बदलाक 'व' असो बदल घडून 'अु' चो लोप जाता.
रोय+अुंक - रोवूंक - रोवंक; खोय+अुंक - खोवूंक - खोवंक;
बदलाय+अुंक - बदलावूंक - बदलावंक;
निवळाय+अुंक - निवळावूंक - निवळावंक;

५ तिसऱ्या गणांतल्या धातुंक अुंक कूस लागतना 'अि' चो लोप जावन अुंक कूस लागता पुण धातुच्या अंत्याक 'अु' ची भर पडून 'अुं' चो 'वं' असो बदल घडता.

खरपि+अुंक - खरपुवंक; फापसि+अुंक - फापसुवंक;
हुगटि+अुंक - हुमटुवंक; निमगि+अुंक - निमगुवंक;

६ 'शि' जोडून जाल्ल्या दोडद्या प्रयोजक धातुंक 'अुंक' कूस लागतना 'शि' बदलून 'स' जाता आनी 'अुंक' कूस सांदता. 'अै' चो मात्र 'औ' कारांत बदल घडता.

करैशि+अुंक–करौसूंक; धरैशि+अुंक–धरौसूंक;
भिवैशि+अुंक–भिवौसूंक पिवैशि+अुंक–पिवौसूंक
खावशि+अुंक–खावौसूंक न्हावैशि+अुंक–न्हावौसूंक
बदलायशि+अुंक–बदलावसूंक; समजायशि+अुंक–समजावसूंक;

पुण तिसऱ्या गणाच्या प्रयोजक धातुंक 'शि' लागून दोडे प्रयोजक जाल्ल्या धातुंक 'अुंक' कूस सांदतना धातुच्या अंत्याक 'अु' असो बदल घडून 'व' ची भर पडता आनी 'शि' चो 'स' जावन 'अुंक' कूस सांदता.

चिरडिशि+अुंक–चिरडुवसूंक; मुरडिशि+अुंक–मुरडुवसूंक;
वाडविशि+अुंक–वाडवुवसूंक; माडविशि+अुंक–मडवुवसूंक;

७ 'व' जोडून जाल्ल्या कर्मी धातुंक 'अुंक' कूस लागतना 'अु' चो लोप जावन धातुच्या अंत्याक आसिल्या 'व' चेर अनुस्वार येता.

करव+अुंक–करवंक; धरव+अुंक–धरवंक;
चलव+अुंक–चलवंक; मागव+अुंक–मागवंक;

८ तिसऱ्या गणाचें 'अि' आनी सटव्या गणाचें 'य' कुसां लागून घडिल्ल्या दोडद्या प्रयोजक धातुंक 'अुंक' कूस लागून घडिल्लीं रुपां कोंकणित घोळनात.

९ 'ये' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अुंक' कूस लागतना 'अु' चो लोप जावन 'व' यता आनी ताजेर अनुस्वार घोळता.

जिये+अंक–जियेवंक;  कुये+अंक–कुयेवंक;  मिरये+अंक–मिरयेवंक.,

'अत' कूस लागून धातुअव्यय - धातुक 'अत' कूस लागून धातुअव्यय घडता आनी अपूर्ण धातुविशेशणय घडता.

१ कर+अत – करत;  धर+अत – धरत;  जेव+अत – जेवत;

२ 'आ' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अत' कूस लागतना 'अ' बदला 'य' येता.  खा+अत – खायत;  न्हा+अत – न्हायत;
जा+अत जायत;  ३ 'अी', 'अे', 'अै', 'ये' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अत' कूस लागतना 'अ' चो लोप जाता.

पी+अत – पित;  भी+अत – भित;  दी+अत – दित;
आशे+अत – आशेत;  ताने+अत – तानेत;  हुंडके+अत – हुंडकेत;
अुलै+अत – अुलैत;  फुलै+अत – फुलैत;  अुडै+अत – अुडैत;
जिये+अत – जियेत;  कुये+अत – कुयेत;  शिये+अत – शियेत;

४ तिसऱ्या गणाच्या धातुंक 'अत' कूस लागतना 'अ' चो लोप जाता.
खरपि+अत – खरपित;  फापसि+अत – फापसित;
निमगिअत+ – निमगित;  अडचि+अत – अडचित;

५ 'य' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अत' कूस लागतना कांय बदल घडना.
खोय+अत – खोयत;  रोय+अत – रोयत;  धुय+अत – धुयत;
सळसळाय+अत – सळसळायत;  खळखळाय+अत – खळखळायत;

६ 'व' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अत' कूस लागतना कांय बदल घडना.
धाडव+अत – धाडवत;  बिरव+अत – बिरवत;
वाडव+अत – वाडवत;  अेकठाव+अत – अेकठावत;

७ 'शि' जोडून जाल्ल्या दोडचा प्रयोजक धातुंक 'अत' कूस लागतना 'अ' चो लोप जाता.

करैंशि+अत – करैंशित;   धरैंशि+अत – धरैंशित;
भिवैंशि+अत – भिवैंशित;   पिवैंशि+अत – पिवैंशित;
खावैंशि+अत – खावैंशित;   न्हावैंशि+अत – न्हावैंशित;
बदलायशि+अत – बदलायशित;   समजायशि+अत – समजायशित;   चिरडिशि+अत - चिरडिशित;
मुरडिशि+अत – मुरडिशित;

८ तिसऱ्या गणाचें 'अि' आनी सटव्या गणाचें 'य' कुसां लागून घडिल्ल्या दोडचा प्रयोजक धातुंक 'अत' कूस लागतना कांय बदल घडना पुण असलीं रुपां घोळनात.

करविय+अत – करवियत;   धरविय+अत – धरवियत;
'अतां' कूस लागून धातुवव्यय – धातुक 'अतां' कूस लागून धातु अव्यय घडता.

१ कर+अतां – करतां; धर+अतां – धरतां; जेव+अतां – जेवतां;

२ 'आ' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अतां' कूस लागतना 'अ' चो लोप जाता.   खा+अतां – खातां;   जा+अतां – जातां;
न्हा+अतां – न्हातां;

३ 'ई', 'ए', 'ऐ', 'ये' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'अतां' कूस लागतना 'अ' चो लोप जाता.

पी+अतां – पितां;   भी+अतां – भितां;   दी+अतां – दितां;
आशे+अतां–आशेतां; ताने+अतां–तानेतां; हुंडके+अतां–हुंडकेतां;
अुलै+अतां – अुलैतां; फुलै+अतां – फुलैतां; अुडै+अतां–अुडैतां;
जी – जिये+अतां – जियेतां;   कू – कुये+अतां – कुयेतां;
शीं – शिंये+अतां – शिंयेतां;

४ तिसऱ्या गणाच्या धातुंक 'अतां' कूस लागतना 'अ' चो लोप जाता.
खरपि+अतां – खरपितां;   फापसि+अतां फापसितां;
निमगि+अतां – निमगितां;   अडचि+अतां – अडचितां;

५ ‘ य ’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘ अतां ’ कूस लागतना कांय बदल घडना.
खोय+अतां–खोयतां; रोय+अतां–रोयतां; धू–धुय+अतां–धुयतां;
सळसळाय+अतां–सळसळायतां; खळखळाय+अतां–खळखळायतां;

६ ‘ व ’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘अत’ कूस लागतना कांय बदल घडना.
धाडव+अतां – धाडवतां; बिरव+अतां – बिरवतां;
वाडव+अतां–वाडवतां;

७ ‘ शि ’ जोडून जाल्ल्या दोडचा प्रयोजक धातुंक ‘अता’ कूस लागतना ‘ अ ’ चो लोप जाता.

करैशि+अतां–करैशितां; धरैशि+अतां–धरैशितां;
पिवैशि+अतां–पिवैशितां; भिवैशि+अतां–भिवैशितां;
खावैशि+अतां–खावैशितां; न्हावैशि+अतां–न्हावैशितां;
बदलायशि+अतां–बदलायशितां; समजायशि+अतां–समजायशितां;
चिरडिशि+अतां–चिरडिशितां; मुरडिशि+अतां–मुरडिशितां;

८ तिसऱ्या गणाचें ‘ अि ’ आनी सटव्या गणाचें ‘ य ’ कुसां लागून घडिल्ल्या दोडचा प्रयोजक धातुंक ‘ अतां ’ कूस लागतना कांय बदल घडना पुण असलीं रुपां वोळनात.

करविय+अतां–करवियतां; धरविय+अतां–धरवियतां;

‘ अतना ’ कूस लागून धातुअव्यय – धातुक ‘अतना’ कूस लागून धातुअव्यय घडता.

१ कर+अतना–करतना; धर+अतना–धरतना;
जेव+अतना–जेवतना;

२ ‘ आ ’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘ अतना ’ कूस लागतना ‘ अ ’ चो लोप जाता.
खा+अतना–खातना; जा+अतना–जातना; न्हा+अतना–न्हातना;

३ ‘ओं’, ‘अे’, ‘अं’, ‘ये’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘अतना’ कूस लागतना ‘अ’ चो लोप जाता. पी+अतना–पितना; भी+अतना–भितना; दी+अतना–दितना; आशे+अतना–आशेतना; ताने+अतना–तानेतना; हुंडके+अतना–हुंडकेतना; अुलै+अतना–अुलैतना; फुलै+अतना–फुलैतना; अुडै+अतना-अुडैतना; जी–जिये+अतना–जियेतना; कू–कुये+अतना-कुयेतना; शीं–शिंये+अतना–शिंयेतना;

४ तिसऱ्या गणाच्या धातुंक ‘अतना’ कूस लागतना ‘अ’ चो लोप जाता. खरपि+अतना–खरपितना; फापसि+अतना–फापसितना; निमगि+अतना–निमगितना; अडचि+अतना–अडचितना;

५ ‘य’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘अतना’ कूस लागतना कांय बदल घडना. खोय+अतना-खोयतना; रोय+अतना–रोयतना; धू–धुय+अतना–धुयतना; सळसळाय+अतना–सळसळायतना; खळखळाय+अतना–खळखळायतना.

६ ‘व’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘अतना’ कूस लागतना कांय बदल घडना. धाडव+अतना–धाडवतना; बिरव+अतना–बिरवतना; वाडव+अतना–वाडवतना; अेकठाव+अतना–अेकठावतना;

७ ‘शि’ जोडून जाल्ल्या दोडचा प्रयोजक धातुंक ‘अतना’ कूस लागतना ‘अ’ चो लोप जाता.

करैशि+अतना–करैशितना; धरैशि+अतना–धरैशितना;
पिवैशि+अतना–पिवैशितना; भिवैशि+अतना–भिवैशितना;
खावैशि+अतना–खावैशितना; न्हावैशि+अतना–न्हावैशितना;
बदलायशि+अतना–बदलायशितना;
समजायशि+अतना–समजायशितना;
चिरडिशि+अतना–चिरडिशितना;
मुरडिशि+अतना–मुरडिशितना;

८ तिसऱ्या गणाचें ‘ अि ’ आनी सटव्या गणाचें ‘ य ’ कुसां लागून घडिल्ल्या दोडच्या प्रयोजक धातुंक ‘ अतना ’ कूस लागतना कांय बदल घडना पुण असलीं रुपां घोळनात.

करविय+अतना–करवियतना; धरविय+अतना–धरवियतना;

‘ ल्यार ’ कूस लागून धातुअव्यय – धातुक ‘ ल्यार ’ कूस लागून धातुअव्यय घडता.

१ धर+ल्यार–धरल्यार; जेव+ल्यार–जेवल्यार;

२ ‘ आ ’, ‘ अि ’, ‘ ओ ’, ‘ अे ’, ‘ अै ’, ‘ ये ’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ल्यार कूस लागतना कांय बदल घडना.

खा+ल्यार–खाल्यार; जा+ल्यार–जाल्यार; न्हा+ल्यार–न्हाल्यार; खरपि+ल्यार–खरपिल्यार; पी+ल्यार–पिल्यार; फापसि+ल्यार–फापसिल्यार; भी+ल्यार–भिल्यार; दी+ल्यार–दिल्यार; निमगि+ल्यार–निमगिल्यार; अडचि+ल्यार–अडचिल्यार; आशे+ल्यार–आशेल्यार; ताने+ल्यार–तानेल्यार; हुंडके+ल्यार –हुंडकेल्यार; अुलै+ल्यार–अुलैल्यार; फुलै+ल्यार–फुलैल्यार., अुडै+ल्यार - अुडैल्यार; जी - जिये+ल्यार - जियेल्यार; कू - कुये+ल्यार - कुयेल्यार; गीं - गिये+ल्यार - गियेल्यार;

३ ‘ य ’ आनी ‘ व ’ न सोंपिल्ल्या धातुंक ‘ ल्यार ’ कूस लागतना कांय बदल घडना.

खोय+ल्यार - खोयल्यार; रोय+ल्यार - रोयल्यार; धू - धुय+ल्यार - धुयल्यार; सळसळाय+ल्यार - सळसळायल्यार;
धाडव+ल्यार - धाडवल्यार; बिरव+ल्यार - बिरवल्यार;
वाडव+ल्यार - वाडवल्यार; अेकठाव+ल्यार - अेकठावल्यार;

४ अनियमित प्रकारान चलतल्या धाव्व्या गणांतल्या धातुंक ‘ ल्यार ’ कूस लागतना तांच्या पूर्णधातुविशेशणांक लागून धातुअव्ययां घडतात पुण ‘ ल्यार ’ कुसांतलें ‘ ल ’ गळता.

कर–केल + ल्यार–केल्यार;  मर–मेल + ल्यार–मेल्यार;
व्हर–व्हेल + ल्यार–व्हेल्यार;  यो–आयल + ल्यार–आयल्यार;
वच–गेल + ल्यार–गेल्यार;  घे–घेतल + ल्यार–घेतल्यार;
म्हण–म्हळ + ल्यार–म्हळ्यार.,  घाल + ल्यार–घाल्यार.,

'घाल' धातुक ल्यार लागून धातुअव्यय घडता पुण 'ल्यार' कुसांतलें 'ल' गळता.

५ 'ल', 'ळ' न सोंपिल्ल्या धातुंक 'ल्यार' कूस लागतना त्या धातुंच्या पूर्णधातुविशेशणांक लागून धातुअव्ययां घडतात पुण 'ल्यार' कुसांतलें 'ल' गळता.

सोल–सोल्ल + ल्यार–सोल्ल्यार;  हाल–हाल्ल + ल्यार–हाल्ल्यार;
गळ–गळ्ळ + ल्यार–गळ्ळ्यार;  खेळ–खेळ्ळ + ल्यार–खेळ्ळ्यार;

६ 'शि' जोडून जाल्ल्या दोडच्या प्रयोजक धातुंक 'ल्यार' कूस लागतना कांयच बदल घडना.

करैशि + ल्यार - करैशिल्यार ,  पिवैशि + ल्यार - पिवैशिल्यार.,
खावैशि + ल्यार - खावैशिल्यार , बदलायशि + ल्यार - बदलायशिल्यार.,
मुरडिशि + ल्यार - मुरडिशिल्यार ,

'की', 'कच', 'री', 'च' कुसां लागून धातुअव्यय – धातुच्या अपूर्ण धातुविशेशणाक 'की', 'कच', 'री', 'च' जोडून धातुअव्ययां घडतात.

१ करत + की–करतकी;  करत + कच–करतकच;  करत + री–करतरी;  करत + च–करतच;  खात + की–खातकी;  खात + कच - खातकच;  खात + री - खातरी;  खातच + - खातच;
पित + की - पितकी;  पित + कच - पितकच;
पित + री - पितरी;  पित + च - पितच;

खरपित + की - खरपितकी; खरपित + च - खरपितच;
खरपित + री - खरपितरी; खरपित + च - खरपितच;
आशेत + की - आशेतकी; आशेत + कच - आशेतकच;
आशेत + री - आशेतरीं; आशेत + च - आशेतच;
अुलैंत + की - अुलैंतकी; अुलैंत + कच - अुलैंतकच;
अुलैंत + री - अुलैंतरी; अुलैंत + च - अुलैंतच;
जी - जियेत + की - जियेतकी; जियेत + कच - जियेतकच;
जियेत + री - जियेतरी; जियेत + च - जियेतच;
गायत + की - गायतकी; गायत + कच - गायतकच;
गायत + री - गायतरी; गायत + च - गायतच;
धाडवत + की - धाडवतकी; धाडवत + कच - धाडवतकच;
धाडवत + री - धाडवतरी; धाडवत + च - धाडवतच.,
करैशितको + - करैशितकी., करैशित + कच - करंशितकच.,
करशित + री - करैशितरी., करैशित + च - करैशितच.,
बदलायशित + की - बदलायशितकी.,
बदलायशित + कच - बदलायशितकच.,
बदलायशित + री - बदलायशितरी.,
बदलायशित + च - बदलायशितच.,

आन लागून धातुअव्ययां – धातुच्या दोडचा पूर्णधातु विशेशणांक ‘आन’ कूस लागून धातुअव्यय घडता.

केल्ल + आन - केल्ल्यान , समजल्ल + आन - समजल्ल्यान.,
जाल्ल + आन - जाल्ल्यान., न्हाल्ल + आन - न्हाल्ल्यान.,
पिल्ल + आन - पिल्ल्यान., भिल्ल + आन - भिल्ल्यान ,
आशेल्ल + आन - आशेल्ल्यान., तानेल्ल + आन - तानेल्ल्यान.,
अुलयिल्ल + आन - अुलयिल्ल्यान., फुलयिल्ल + आन - फुलयिल्ल्यान.,

जी - जियेल्ल + आन - जियेल्ल्यान; कू कुयेल्ल + आन - कुयेल्ल्यान;
खरपिल्ल + आन - खरपिल्ल्यान; फापसिल्ल + आन - फापसिल्ल्यान;
खोयिल्ल + आन - खोयिल्ल्यान; रोयिल्ल + आन - रोयिल्ल्यान;
धाडवल्ल + आन - धाडवल्ल्यान; बिरवल्ल + आन - बिरवल्ल्यान;

'जाण' हो धातु फक्त वर्तमानकाळांत नेमाप्रमाण कुसां लागून चलता पुण अितर काळांत 'आस' वा 'जा' धातुच्या पालवान चलता. 'जाण' ह्या सकर्मक धातुचें निशेधार्थी रूप म्हळचार 'नेण' आनी हो धातुय वर्तमान काळांत नेमाप्रमाण चलता पुण अितर काळांत 'आस' वा 'जा' धातुच्या पालवान चलता. 'जाण' आनी 'नेण' धातु अितर काळांत चलतना वर्तमानकालिक रुपांत आसतात. ह्या धातुंचीं अव्ययी रुपां घडतना 'आस' वा 'जा' धातुंचीं अव्ययी रुपांवांगडा वर्तमान कालिक रुपां आसतात.

जाणा जातना, जाणा जाल्यार, जागा जातकच,
नेणा जातना, नेणा जाल्यार, नेणा जातकच,
जाणा आसतना, जाणा आसल्यार, जाणा आसतकच,
नेणा आसतना, नेणा आसल्यार, नेणा आसतकच,

कांय वेळार जाणल्यार, जाणतकच अशीं रुपां घडतात पुण नेणल्यार, नेणतकच अशीं रुपां घोळनात.

धाव्या गणाचे धातु अनियमितपणान चलतात. 'म्हण' हो धातु भूतकाळांत कर्तरी घडणेंत घोळता आनी दुसऱ्या आनी तिसऱ्या पुरुशांतच दिसून येता.

दु. पु. तूं { म्हळालो, म्हळाली, म्हळालें }     तुमी { म्हळाले – पु. लिं., म्हळाल्यो – स्त्री. लिं., म्हळालीं – न. लिं. }

| ति. पु | तो म्हळालो | ते म्हळाले | पु. लिं. |
|---|---|---|---|
| | ती म्हळाली | त्यो म्हळाल्यो | स्त्री. लिं. |
| | तें म्हळालें | तीं म्हळालीं | न. लिं. |

## सेट्, अनिट् धातु

सेट् - संस्कृताप्रमाण कोंकणिंत पांचव्या, सटव्या आनी आठव्या गणां-तल्या धातुंचो भूतभूतकाळ घडतना धातुच्या अंत्याक 'अि' असो विकार घडिल्ल्यान ह्या धातुंक कोंकणिंतले सेट् धातु हें नांव फावता.

अनिट् - संस्कृताप्रमाण कोंकणिंत पैल्या, दुसऱ्या, चौथ्या, सातव्या आनी णव्या गणांतल्या धातुंचो खंयचोय काळ घडतना धातुच्या अंत्याक 'अि' असो विकार घडनासिल्ल्यान ह्या धातुंक कोंकणिंतले अनिट् धातु हें नांव फावता.

कोंकणिंत तिसऱ्या गणाच्या धातुंचो खंयचोय काळ घडतना धातुच्या अंत्याक गण विकरण 'अि' लागता.

कोंकणिंत तिसऱ्या आनी सटव्या गणांत कर्मी धातुंचोच आस्पाव आसून सातव्या आनी णव्वाव्या गणांत अकर्मी धातुंचोच आस्पाव आसता. कोंकणित वेट् धातु घोळनात.

धाव्व्या गणांतले धातु सोडून अुरिल्ल्या गणांतले सगळे धातु नियमि-तपणान चलतात.

संस्कृताप्रमाण कोंकणिंत मूळ (अव्युत्पन्न) धातु, नामधातु, व्युत्पन्न (धातुसाधित) धातु आसात. धातुसाधित धातुंत प्रयोजक, अनुकरण-वाचक आनी शक्यताये (शक्यार्थक) धातु आस्पावतात.
संस्कृताप्रमाण कोंकणिंत आत्मनेपद आनी परस्मैपद असो भेद धातुंत ना. सगळे धातु परस्मैपदी आसात.

कोंकणिंतले सगळे धातु सगळ्या काळांनी आनी आज्ञार्थांत नियमित-पणान चलतात. विध्यर्थांत थोडो बदल घडता.

# कोंकणी भासेची प्रकृती

संस्कृताप्रमाण कोंकणित धा गण आसून कांय गणांच्या धातुंक विकरण लागूनच क्रियापदां घडतात. कोंकणित 'अि, अे, अै, य, ये, व आनी शि अशीं विकरणां घोळतात.

धातुंचे वा नामांचे धातु घडतना अंत्यस्वर गळून अि, अे, अै विकरण सांदता. अि, अै सांदून प्रयोजक धातु घडतात जाल्यार प्रयोजक धातुक शि, य जोडून दोडे प्रयोजक धातु घडतात. धातुक 'व' जोडून जाल्ल्या धातुंचो अुपयोग शक्यता अुक्तावच्याक जाता.

'अ'न सोंपिल्ल्या कांय कर्मी धातुंचीं क्रियापदां घडतना अंत्यस्वर गळून 'अि' ची भर पडता.

वाच - वाचि - वाचिता, वाचिलो, वाचितालो, वाचिल्लों, वाचितलो.

धर - धरि - धरिता, धरिलो, धरितालो, धरिल्लो, धरितलो.

कोंकणिच्या कांय बोलित ही तरा अजूनय घोळता जाल्यार कांय बोलित 'अि' गळून 'अ' जाल्लें आसा.

'अ'न सोंपिल्ल्या कांय अकर्मी धातुंचो अंत्यस्वर गळौन 'अि' सांदेल्यार प्रयोजक धातु घडतात.

अडच - अडचि - अडचिता, अडचिलो, अडचितालो अडचिल्लो, अड-चितलो., बिरव - बिरवि - बिरविता, बिरविलो, बिरवितालो, बिरविल्लो, बिरवितलो ,

'अ'न सोंपिल्ल्या धातुंचो अंत्यस्वर गळौन 'अै' सांदेल्यार प्रयोजक धातु घडतात. 'अ' सोडून अितर स्वरांत धातुक 'व' ची भर पडून तांतुंतलो 'अ' स्वर गळून 'अै' सांदता.

कर - करै - करैता, करैले, करैतालो, करयिल्लो, करैतलो.,

पी - पिवै., दी - दिवै., गा - गावै., न्हा - न्हावै.,

कांय जणांल्या मतान कोंकणित 'अै' विकरण दोन स्वर लागीं आयिल्ल्यान घडिल्लें आसा. पुण धातुक अि, अे, अै विकरण लागतना अंत्यस्वर गळची प्रथा आसिल्ल्यान वयलें मत अग्राह्य जाता.

'कृ' पासून कर, 'धृ' पासून धर, 'मृ' पासून मर अशीं रुपां कोंकणित आसिल्ल्यान कोंकणितल्या 'अै' पासून 'अय' विकरण घडिल्लें आसत हांतूंत कसलोच दुभाव ना. सस्कृतांत 'अय' विकरण धाव्या गणाक लागता.

कांय नामांच्या अंत्याक आसिल्लो स्वर गळौन 'अे' सांदेल्यार कर्मी आनी अकर्मी नामधातु घडतात. हांचे प्रयोजक घडना.

आशा - आशे - आशेता, आशेलो, आशेतालो, आशेल्लो, आशेतलो.
पालो - पाले - पालेता, पालेलो, पालेतालो, पालेल्लो, पालेतलो;
नामांचो, विशेशणांचो आनी कांय अव्ययांचो अंत्यस्वर गळौन 'आ' सांदौन 'य' ची भर दिल्यार कर्मी नामधातु घडतात. धातुंचे प्रयोजक धातु घडतात.

| | |
|---|---|
| धांवडी - धांवडा + य - धांवडाय; | अुष्टें - अुष्टा + य - अुष्टाय; |
| पिसो - पिसा + य - पिसाय; | खिळो - खिळा + य - खिळाय; |
| रुंद - रुंदा + य - रुंदाय; | अुक्तें - अुक्ता + य - अुक्ताय; |
| पैस - पैसा + य - पैसाय; | भायर - भायरा + य - भायराय; |
| अुसळ - अुसळा + य - अुसळाय; | अुतर - अुतरा + य - अुतराय; |
| गजगज–गजगजा + य–गजगजाय; | आपण–आपणा + य–आपणाय; |

'व' न सोंपिल्ल्या धातुंत 'व' बदला 'य' ची भर दिल्यार प्रयोजक धातु घडतात. बागव–बागय; फटव–फटय; पिसाव–पिसाय;

धातुक 'व' जोडून घडिल्ल्या शक्यतायेच्या धातुंतलें 'व' चें 'प' जावन ताका क्रियेचें साधारणरूप वा भावनाम ही संज्ञा प्राप्त जाल्या. अवधि भासेंत धातुक 'ब' जोडून भावनाम घडतात आनी ताजो प्रभाव कोंकणी भासेचेर कदाचित् जाल्लो आसत असो अभिप्राय भौ. बस्ती पुंडलिक शेणाय अुक्तायतात. प्रचलित कोंकणित शक्यता–येचे धातु घोळनात आनी असल्या शक्यतायेच्या क्रियापदांचो कर्तो सदांच पांचवे विभक्तित आसतालो. प्रचलित कोंकणित हो प्रभाव अजून आसा.

म्हज्यान गाडी चलवता.
हांव गाडी चलौंक शकतां. I can drive the vehicle.

ताज्यान काम करवता.
तो काम करूंक शकता. He can do the work.

तिज्यान कांय नजो.
ती कांय करूंक शकना. She can not do anything.

तुज्यान काम जाता.
तूं काम करूंक शकता. You can do the work.

अंत्रुजी बोलित करव, धरव बदला करप, धरप जावन 'प' हें क्रियेच्या साधारण रुपाचें कूस जाल्लें आसा.

शक्यतायेच्या धातुंचो अंत्यस्वर गळौन 'अि' विकरण सांदेल्यार प्रयोजक धातु घडतात.

करव—करवि; धरव–धरवि; मागव–मागवि; भरव–भरवि;

ही पद्धत मराठी बोलिन आपणायल्या. प्रचलित कोंकणित 'अ' न सोंपिल्या कांय कर्मी धातुंक 'अि' विकरण लायनासतना क्रियापदां घडची चाल पडल्या आनी हे पद्धतेक अनुसरून शक्यतायेच्या धातुंपासून घडिल्ल्या प्रयोजक क्रियापदांतलें 'अि' विकरण गळिल्लें आसा.

करविती > करवती; भरविती > भरवती; नाचविती>नाचवती;
करविले > करवल; भरविले > भरवल; नाचविले > नाचवल;

नामांचो अंत्यस्वर 'अ' सोडून दुसरो खंयचोय आसल्यार गळून 'अ' स्वर सांदून 'ये' बिकरण लागता. हे नामधातु सदांच अकर्मी आसतात आनी हांचे प्रयोजक घडना.

माति - मात+ये - मातये; पाणि - पाण+ये - पाणये;
खार – खार+ये – खारये; घुरी—घुर+ये–घुरये;

कांय वेळार 'ये' चें 'अे' जावनय कांय अकर्मी धातु घडल्यात 'यो' ह्या धातुच्या वर्तमानकाळी रुपावयल्यान 'ये' कूस घडलां.

ताका हूम येता – तो हुमयेता – तो हुमेता.,
झाडाक आंक्रि येता. – झाड आंक्रयेता - झाड आंक्रेता.

कर्त्यांक जी अवस्था प्राप्त जाल्या वा ताज्यांत कसलो बदल घडलां हें अुक्तावच्याक असले नामधातु अुपकारतात आनी चौथे विभक्तित आसिल्लो कर्तो पैले विभक्तित घोळता. हांचे प्रयोजक घडना.

धातुक 'अै' विकरण लागून घडिल्ल्या प्रयोजक धातुंक 'शि' विकरण लागून दोडे प्रयोजक धातु घडतात. दोडे प्रयोजक घडणेंत प्रेरित कर्तो आसचोच पडता आनी तो सदांच पांचवे विभक्तित आसता. असले दोडे प्रयोजक धातु हिंदितय घोळतात.

करचें, करौचें, करौसुवचें., दिवचें, दिवौचें, दिवौसुवचें;
चलचें, चलौचें चलौसुवचें , नाचचें, नाचौचें, नाचौसुवचें.

भटकळाचे दक्षिण दिशेक आसिल्ल्या लोकांभितर असले दोडे प्रयोजक घडणेची चाल आसा.

धातुंक 'अि' विकरण लागून घडिल्ल्या प्रयोजक धातुंक 'य' विकरण लागून दोडे प्रयोजक धातु घडतात. दोडे प्रयोजक घडणेंत प्रेरित कर्तो आसून तो सदांच पांचवे विभक्तित आसता.

चिरडुवचें, चिरडिवचें, चिरडुवचें., खरपुवचें, खरपिवचें, खरपुवचें., शेवटुवचें, शेवटिवचें, शेवटुवचें., करवुवचें, करविवचें करवुवचें.,

श्रवणबेळगोळांत आसिल्ल्या गोमटेश्वर पाशाण मूर्तिच्या पांयांकडेन कोंत्रायिल्ल्या शिलालेखांत 'करवियलें' रूप घोळता तें असल्ल्या दोडया प्रयोजक धातुचें भूतकालिक क्रियापद. प्रचलित कोंकणित असलीं रुपां घोळनात पुण पुर्विल्ल्या साहित्यांत असलीं रुपां मेळतात.

कोंकणितलें कांय धातु प्रत्यक्ष कर्म घेतात जाल्यार कांय धातु अप्रत्यक्ष कर्म घेतात. कांय धातु दोनय कर्म घेतात. दोडे प्रयोजक धातु प्रेरित कर्तो घेतात.

कांय सकर्मक धातु भूतकाळांत कर्तरी घडणेंत घोळतात जाल्यार कांय कर्मणी घडणेंत घोळतात.

१ कर्तरी घडण - कर्तरी घडणेंत क्रियापद सदांच कर्त्याच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलता. वर्तमान, अपूर्ण वर्तमान, वर्तमानभूत, भूत, अपूर्ण भूत, भूतभूत आनी भविश्य ह्या काळांत कर्तरी घडण घोळता.

वर्तमान, अपूर्ण वर्तमान आनी सादो भविश्य ह्या काळांतल्या क्रियापदांक लिंगभेद ना. वर्तमानभूत, भूत, अपूर्ण भूत, भूतभूत आनी नित्शयी भविश्य ह्या काळांतल्या क्रियापदांक लिंगभेद आसा.

२ कर्मणी घडण - कर्मणी घडणेंत क्रियापद सदांच कर्माच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलता. वर्तमानभूत, भूत आनी भूतभूत ह्या काळांत कर्मणी घडण घोळता. 'जाय' आनी 'नाका' हीं अविकारी क्रियांपदां सदांच कर्मणी घडणेंत घोळतात. हांचो कर्तो चौथे विभक्तित आसून वर्तमान काळांतय कर्मणी घडण घोळता.

| | | |
|---|---|---|
| म्हाका | आंबो | } जाय |
| आमकां | आंबे | |

हांतूंत 'जाय' हें अविकारी क्रियापद कर्माच्या वचनाप्रमाण बदलता.

| | | |
|---|---|---|
| म्हाका } | आंबो | नाका |
| आमकां } | आंबे | नाकात |

हांतूंत 'नाका' हें क्रियापद कर्माच्या वचनाप्रमाण बदलना.

३ भावी घडण – भावी घडणेंत क्रियापद कर्त्याच्या वा कर्माच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलनासतना सदांच तिसरो पुरुशी नपुंसक लिंगी अेकवचनी आसता. भूत, भूतभूत आनी वर्तमानभूत ह्या काळांत भावी घडण घोळता.

४ कोंकणित कर्तरी घडणेंतलें वाक्य कर्मणी घडणेंत वा कर्मणी घडणेतलें वाक्य कर्तरी घडणेंत बदलच्याक जायना.

५ आज्ञार्थांत फक्त कर्तरी घडण घोळता.

६ विध्यर्थांत कर्तरी, कर्मणी आनी भावी घडणो घोळतात.

१ कोंकणितलीं पुरुशलिंगी नामां अ, आ, अि, अु, अै आनी 'ओ' कारांतान सोंपतात. २ कोंकणितलीं स्त्रीलिंगी नामां अ, आ, अि, अु, आनी 'अै' कारांतान सोंपतात. ३ कोंकणितलीं नपुंसक लिंगी नामां अ, अि, अुं आनी 'अें' कारांतान सोंपतात.

संकृतांतलो विसर्ग कोंकणित घोळतना अु वा ओ जाता. कोंकणित कांय पुरुशलिंगी नामां 'अु' कारांतान सोंपतात जाल्यार कांय 'ओ' कारांतान सोंपतात ही देख अपभ्रंश भासेन आपणायल्या आनी तांतूंत पुरुशलिंगी आनी नपुंसकलिंगी नामां 'अु' कारांतान सोंपतात. कोंकणित नियमितपण आसा जाल्यार अपभ्रंशांत नियमितपण ना. भो. बस्ती पुंडलिक शेणाय हांच्या मताप्रमाण कोंकणितलो हो 'अु'

कार, 'ओ'काराचें ह्रस्वरूप पुण हाका आधार ना. 'ओ'कारान सोंपिल्लीं नामां अु'कारान सोंपलीं नात देखून कोंकणित जाय तीं पुरुशलिंगी नामां 'अु' न सोंपल्यांत जाल्यार कांय 'ओ' न सोंपल्यांत. संस्कृतांत 'आ' कारांतान सोंपिल्लीं स्त्रीलिंगी अेकवचनी सर्वनामां कोंकणित 'अि' कारांतान घोळतात.

कांय विकारी विशेशणांक नामाच्या लिंगाचो विकार अेकवचनांत घडता जाल्यार कांय विकारी विशेशणांक दोनय वचनांत घडता. कोंकणितलीं कांय अव्ययां नामाच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलतात आनी प्रचलित साहित्यांत हाजो प्रभाव दिसून येता. मंगळुर आनी कोचि बोलित हीं अव्ययां नामाच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलनात.

कोंकणित कर्ताकारक पैले, तिसरे, चौथे आनी पांचवे विभक्तित आसता आनी कोण, कोणें, कोणाक आनी कोणाच्यान वा कोणाकडल्यान हाजी जाप दिता

१ तो आंबो खाता. कोण आंबो खाता ? तो – कर्ताकारक
२ ताणें आंबो खालो. कोणें आंबो खालो ? ताणें–कर्ताकारक
३ ताका आवाज आयकलो. कोणाक आवाज आयकलो ? ताका – – कर्ताकारक. ४ ताज्यान काम करवता. कोणाच्यान काम करवता ? ताज्यान–कर्ताकारक

कोंकणित कर्मकारक आपल्या मूळ रुपांतच म्हळ्यार पैले विभक्तितच आसता आनी कितें हाजी जाप दिता.

१ तो नेवरी खाता. तो कितें खाता ? नेवरी – कर्मकारक
२ ताणें नेवरी खाली. ताणें कितें खालें ? नेवरी – कर्मकारक
३ ताका कथा सुचली. ताका कितें सुचलें ? कथा – कर्मकारक
४ ताज्यान आंबो खाववता. ताज्यान कितें खाववता ? आंबो कर्मकारक

कोंकणित कर्ताकारक वा कर्मकारक आपल्या मूळ रुपांत आसतनाच क्रियापद तांचेप्रमाण बदलून कर्तरी वा कर्मणी घडण घडता.

कर्ताकारक वा कर्मकारक आपल्या मूळ रुपांत नासल्यार क्रियापदां नपुंसकलिंगीं अेकवचनांत घोळून भावी घडण घडता.

कोंकणितलीं कांय क्रियापदां प्रत्यक्ष कर्म घेतात जाल्यार कांय क्रियापदां अप्रत्यक्ष कर्म घेतात. थोडीं क्रियापदां दोनय कर्मां घेतात. अप्रत्यक्ष कर्म वाक्यांत स्वतंत्रपणान घोळता.

कोंकणित संप्रदानकारक चौथे विभक्तित आसता आनी कोणाक ह्राजी जाप दिता. १ ताणें म्हाका आंबो दिलो. ताणें कोणाक आंबो दिलो ? म्हाका – सप्रंदानकारक २ रामान सितेक प्रश्न निमगिलो. रामान कोणाक प्रश्न निमगिलो ? सितेक –संप्रदानकारक

दी आनी निमगी हे धातु दोनय कर्मां घेतात पुण प्रत्यक्ष कर्म नासत जाल्यार हीं वाक्यां भावी घडणेंत घोळतात.

१ ताणें म्हाका दिलें. ताणें कोणाक दिलें ? म्हाका–संप्रदानकारक
२ रामान सितेक निमगिलें. रामान कोणाक निमगिलें ?
सितेक – संप्रदानकारक

कांय व्याकरणकार अप्रत्यक्ष कर्माक प्रत्यक्ष कर्म मानून कर्मणी घडण करतात.

१ ताणें म्हाका दिलो. २ रामान सितेक निमगिली.
३ रामान रावणाक मारलो. ४ वागान रेडयाक धरलो.
५ वागान म्हशेक धरली.

कोंकणित अप्रत्यक्ष कर्माप्रमाण क्रियापद घोळना आनी क्रियापद सकर्मक आसूनय भावी घडणेंत घोळता.

१ रामान रावणाक मारलें. २ रामान सितेक दिलें.
मार आनी दी दोनय द्विकर्मक धातु.

१ तिणें घोवाक कष्टिलें. २ देविन राक्षसाक मस्तिलें.
२ रामान सितेक आपैलें ४ ताणें तिका फटैलें.

कष्टि, मस्ति, आपै आनी फटै हे धातु सकर्मक पुण अप्रत्यक्ष कर्म घेवन भावी घडणेंत घोळतात. हे धातु प्रत्यक्ष कर्म घेनात.

१ तिणें आंबो खालो.   २ तिणें नेवरी शेवटिली.

३ चोरान दागिने चोरले.   ४ ताणें भाजी चिरली.

खा, शेवटि, चोर आनी चीर हे धातु सकर्मक आनी कर्मणी घडणेंत घोळतात. हे धातु अप्रत्यक्ष कर्म घेनात.

वाक्यांत अप्रत्यक्ष कर्म प्रत्यक्ष कर्माचे सुवातेर येता म्हणून कर्मणी घडण घडना. जर अप्रत्यक्ष कर्म आपल्या मूळ रुपांत आसत जाल्यार कर्मणी घडण घडता.

| | कर्मणी घडण | भावी घडण |
|---|---|---|
| १ | माजरान मूय धरली. | माजरान मुयेक धरलें. |
| २ | वागान कोलो धरलो. | वागान कोल्याक धरलें. |
| ३ | रामान रावण मारलो. | रामान रावणाक मारलें. |
| ४ | ताणें बायल हाडली. | ताणें बायलेक हाडलें. |
| ५ | रामान दूत धाडलो. | रामान दुताक धाडलें. |

कर्मणी आनी भावी घडणांत आसिल्ल्या वाक्यांचो अर्थ अेकच.

१ रामान दुताक धाडलें. –
Ramaa sent his messenger.
रामान दुताक आंबो धाडलो. –
Ramaa sent a mango to his messenger.

२ ताणें बायलेक हाडलें –
He brought his wife.
ताणें बायलेक कापड हाडलें. –
He brought a saree to his wife.

प्रत्यक्ष कर्माचे सुवातेर जिनसनाम वा जीवनाम येता तशें अप्रत्यक्ष कर्माचे सुवातेर जीवनाम वा जिनसनाम घोळता.

१ ताणें ओणतिक { फातर मारलो. / बडी मारली. / बेत मारलें.

२ तिणें झाडाक { फातर बांदलो. / साडीं बांदली. / सूत बांदलें.

मार, बांद द्विकर्मक धातु. ओणतिक, झाडाक संप्रदानकारक. कांय वेळार वाक्यां अशीं घडतात.

१ रामान रावणाक खांब्याक बांदलें.
कोणाक – रावणाक खंय – खांब्याक

२ भिमान दुर्योधनाक ओणतिक आपटिलें.
कोणाक – दुर्योधनाक खंय – ओणतिक

३ छोटुन मोटुक व्यापाऱ्यांक विकलें.
कोणाक – मोटुक – कर्म कोणाक – व्यापाऱ्यांक – संप्रदान

४ रुशिन पुताक यमाक दिलें.
कोणाक – पुताक – कर्म कोणाक – यमाक – संप्रदान

कोंकणित करणकारक तिसरे विभक्तित आसता आनी कित्याक वा कसल्यान हाजी जाप दिता.

१ ताणें कातरेन कागद कापलें. कित्यान – कातरेन
२ तो पांयान चलता. कित्यान – पांयान
३ तो ताका हातान दान दिता. कित्यान – हातान

४ रामान रावणाक बाणान मारलें.   कित्यान – बाणान
५ ती रुपान सुंदर   कित्यान – रुपान
६ तो जोरान फणफणता.   कित्यान – जोरान
७ ती तकलेन हुशार.   कित्यान – तकलेन

कोंकणित अपादानकारक पांचवे बिभक्तित आसता आनी खंय-च्यान हाजी जाप दिता.

१ तो कारवारच्यान आयलो.   खंयच्यान – कारवारच्यान
२ ताणें कारवारच्यान आंबे हाडले.   खंयच्यान – कारबारच्यान
३ ताणें तिका मुंबैच्यान हाडलें.   खंयच्यान – मुंबैच्यान
४ ती फुलांतल्यान जन्मली.   खंयच्यान – फुलांतल्यान

कोंकणित अधिकरण सातवे विभक्तित आसता आनी खंय हाजी जाप दिता

१ तो कुरकुटांत पुस्तक दवरता.   खंय – कुरकुटांत
२ ताणें ताका घरांत दवरलें.   खंय – घरांत
३ तिणें चेरडाक पाळण्यांत घालें.   खंय – पाळण्यांत

ह्या स कारकांचो संबंध करणेंकडेन आसता. कोंकणित संबंध-कारक सटवे विभक्तित आसता आनीं नामांचो नामांकडेन वा सर्वना-मांचो नामांकडेन आसिल्लो संबंध अुक्तायता ह्या वेळार हीं नामां वा सर्वनामां नामांच्या लिंगवचनाप्रमाण बदलून कोणालो, कोणाली आनी कोणालें हांची जाप दिता.

रामालो चलो;   रामाली चली;   रामालें चेरडुं;
ताजो चलो;   ताजी चली;   ताजें चेरडुं;

संबोधनकारक सदांच अुलो करतना अुपकारता.

कोंकणितलें क्रियापद खंयचोय काळ पालवी क्रियापद घेनासतना स्वतंत्रपणान अुक्तायता.

हांव वतां – वर्तमान;  हांव गेलों – भूत;  हांव वतालों – अ. भूत; हांव गेल्लों – भूतभूत;  हांव वतलों – भविश्य;

मराठी बोलित अपूर्ण भूतकाळ आनी भूतभूतकाळ अुक्तावच्याक पालवी क्रियापद लागता.

मी जातो – वर्तमान;  मी गेलो – भूत;  मी जात होतो – अ. भूत;  मी गेलो होतो – भूतभूत;  मी जाणार – भविष्य.

गुजराथित वर्तमान काळ, अपूर्ण भूतकाळ, भूतभूत काळ अुक्तावच्याक पालवी क्रियापद लागता.

हूं जावूं छूं – वर्तमान;  हूं गयो–भूत;  हूं जातो हतो – अ. भूत;  हूं गयो हतो – भूतभूत;  हूं जाविश – भविश्य;

हिंदित वर्तमान काळ, अपूर्ण भूतकाळ, भूतभूत काळ अुक्तावच्याक पालवी क्रियापद लागता.

मैं जाता हूं – वर्तमान;  मैं गया – भूत;
मैं जाता था – अ. भूत;  मै गया था – भूतभूत;
मैं जावूंगा;  भविश्य;

कोंकणितलो न्हयकार असो घडता.

हांव वचनां – वर्तमान;  हांव गेलों नां, हांव वचनि } भूतकाळ

हांव वचनासलों अ. भूत;  हांव गेलों नासिल्लों हांव वचूंक नासलों } भूतभूत;

हांव वचचों नां – भविश्य;

कोंकणित सोळा स्वर आसून संयुक्त स्वर घोळना. अनुस्वार घोळता पुण विसर्ग घोळना. बिसर्गादबलाक 'अु' वा 'ओ' स्वर घोळता. कोंकणितलीं अुतरां ह्रस्व स्वरांत आसून व्यंजनांत अुतरां घोळनात. कांय

अेकाक्षरीं अुतरां, अपूर्ण भूतकाळी अकर्मी क्रियापदां, आज्ञार्थी पैलो आनी तिसरो पुरुशी अेकवचनी क्रियापदां दीर्घ स्वरांत घोळता. कांय अुतरांत मर्दीं आसिल्ल्या 'अ' स्वराचो अुच्चार घडना जाल्यार कांय अुतरांत मर्दीं आसिल्ल्या अि, ओ, अु, अू, ओ स्वराचो लोप धडून 'अ' स्वर घोळता. कांय अुतरांत आसिल्लो अंत्यस्वर अि, अु बदलून अ जाल्लो आसा आनी प्रचलित साहित्यांत हाजो प्रभाव चड दिसून येता. कोंकणिचे पोरणे शैलित हो प्रभाव दिसून येना. संस्कृत संयुक्ताक्षरांत भिन्न वर्गाचीं व्यंजनां आसल्यार कोंकणित तें अुतर घोळतना खंयच्याय अेक व्यंजनान घोळना. ही गजाल अेका वर्गाचीं व्यंजनां आसल्यारय घडता

संस्कृत 'र' युक्त संयुक्ताक्षरांतलें 'र' व्यंजन कोंकणित तें अुतर घोळतना 'र' बदला अुरिल्ल्या व्यंजनाचें द्वित्व जावन घोळता आनी कोंकणिचे पोरणे शैलित हाजो प्रभाव दिसून येता. हो प्राचीन प्राकृ-ताचो प्रभाव कोंकणी भासेंत अजूनमेरेन तिगून आसा. हो प्रभाव संयुक्ताक्षर नासिल्ल्या अुतरांतय घोळून अुतरांक विकृत रूप आयिल्लें आसा. 'गाय्ता गाय्ता गांव्कारु जाता' हें वाक्य 'गात्ता गात्ता गांवकारु जात्ता' अशें आयकूंक मेळता. निद्दला, काप्पुरु, काप्पुसु, कात्तरि, पुत्तु, सात्तें असल्या अुतरांतलें संयुक्ताक्षर वा दोडें व्यंजन नेमाक धरूनच घडल्यांत. कारवारी आनी अंत्रुजी बोलित असलीं रुपां घोळनात. पाद्री स्टीफन्साल्या व्याकरणांत असलीं रुपां घोळनासिल्लीं अशें भौ. शणै गोंयबाब आपलें मत अुक्तायतात. पुण १२०० पंलें गोंय सोडून गेल्ल्या आनी मंगळुरांत वास्तव्य करून आसिल्ल्या कोंकणी लोकांभितर असलीं अुतरां घोळतासिल्लीं जायत.

शक १२२५ तं तुळुनाडांत पट्टार आयिल्ल्या दुसऱ्या बंकिदेवान आपले आवैल्या श्राद्धादीस वामन सेनभव म्हळ्ळ्या सारस्वत ब्राह्मणाक दान दिल्लो तांब्यापटो मेळिल्ल्यान थंय कोंकणी लोकांलें वास्तव्य आसिल्ली गवाय मेळता.

पोर्तुगीज लोकांल्या बाटाबाटिक लागून कोंकणी लोक गोंयाभायर

पावले असो जो समज आसा तो चुकिचो आसून ताजें पैलेंच कोंकणी लोक थंय स्थायिक जावन त्या त्या राजांल्या दरबारांत व्हड व्हड पदार आसिल्ले. विजयनगर साम्राज्यांत तर ते आसिल्ले आनी त्या साम्राज्या पैलेंय कोंकणी लोक थंय रावल्ले देखून श्रवण बेळगोळांतल्या शिला-लेखांत 'चावुंडरायें करवियलें' हें कोंकणी वाक्य मेळता. हो शिलालेख ११९६ व्या वरसांत कोंत्रायिल्लो. कोंकणितलें चडशें साहित्य नष्ट जाल्ल्यान आनी त्या लोकांमदीं संपर्क चडसो अुरलो नासिल्ल्यान कोंकणी भास भंगत रावली. शैक्षणिक क्षेत्रांतय तिका फावोसो मान आनी स्थान न मेळिल्ल्यान ती फाटी अुरली.

कोंकणित मंगळुरी, कोच्चि, कारवारी, अंत्रुजी, बारदेशी, साष्टी, कुडाळी, वसयी अशे वेगळे वेगळे प्रकार आसून जातिप्रमाण अुतरांचे अुच्चार बदल्ल्यात. मूळ कोंकणिचो प्रभाव गुजराथी, हिंदी आनी मराठी बोलित दिसून येता देखून तांतूंत कोंकणी अुतरां राशिन मेळतात. कोच्चि, मंगळुरी आनी साष्टी बोलित कोंकणिचें पोरणें रूप आसल्यार अंत्रुजिन वेगळें वळण घेतलां, कारवारी बोलिन पोरणें रूप सांबाळ्ळां पुण अंत्रुजिच्या वळणार गेल्या. बेळगांव, शापूर, गुंजी वाठारांतल्या ग्राम्यभासेचेरय कोंकणिचो जाय तो प्रभाव आसा.

कोंकणितली चडशीं अुतरां संस्कृत मुळांतल्यान आयल्यांत जाल्यार कांय प्राचीन प्राकृतांतल्यान आयल्यांत. कांय बाबतित संस्कृ-तांतलें नियमितपण कोंकणित दिसना जाल्यार कोंकणितलें नियमितपण अितर भासांत दिसना. कांय जण कोंकणिचो संबंध शौरसेनिकडेन जाल्यार कांय जण पैशाचिकडेन लायतात. कांय जण हो संबंध अपभ्रं-शाकडेन जोडतात. कोंकणी प्राकृताचो संबंध कोणेंय खंयचेय भासेकडेन जोडलो तरी धातुंक विकरण जोडून क्रियापदां घडचीं रीत संस्कृत भासे अितलीच पोरणी हांतूंत अिल्लोय दुभाव ना. शौरसेनितल्यान, नव्या प्राकृतांतल्यान वा अपभ्रंश भासेंतल्यान ही पद्धत कोंकणी भासेंत आयिल्ली जाल्यार तो अेक संशोधनात्मक विशय जातलो.

# प्राचीन प्राकृत

बुद्ध देवाली प्रवचनाची भास म्हळ्यार प्राचीन प्राकृत जाका कांय लोक पाली म्हणतात. वेदिक भास भंगून प्राचीन प्राकृत भास घडली.

हे भासेचीं कांय लक्षणां –

१ संस्कृत 'अ' कारांत नामां पैले विभक्तिच्या अेकवचनांत विसर्गयुक्त आसल्यार 'ओ' कारांत घडतात.

घोटकः > घोटको; वंशः > वंसो; अतः > अतो; ततः > ततो;

२ 'ओ' कारांत जाल्ल्या नामांचें भौवचन 'आ' कारांत वा 'अे' कारांत घडता.

घोटका = घोटके; वंसा = वंसे;

३ श, ष बदलाक स घोळता.

वंशः > वंसो; कश्यपः > कस्सपो; कलशः > कलसो;

४ पैले आनी दुसरे विभक्तिच्या स्त्रीलिंगी नामांच्या भौवचनांत 'ओ' जाता आनी 'अि' स्वरानंतर हो 'ओ' 'यो' जाता.

मालाः > मालाओ; नद्यः > नज्जो; स्त्री = अित्थि > अित्थियो;

५ 'त्यः' चें 'च्चः' आनी 'द्य' चें 'ज्ज' घडता.

मृत्युः – मच्चु; सत्यं – सच्चं; नद्यः – नज्जो; गद्यं – गज्जं;

६ संयुक्ताक्षराचे सुरवातेक दीर्घस्वर आसल्यार ह्रस्व जाता.

पांडित्यम् – पंडिच्चं; आत्मा – अत्ता;

७ संयुक्ताक्षरांत भिन्नवर्गाचीं व्यंजनां आसल्यार खंयचेंय अेक व्यंजन लोपून दुसऱ्या व्यजनाचें द्वित्व जाता.

धर्मः > धम्मो; रात्रि > रात्ति; शुष्कम् > सुक्खं;

प्रचलित कोंकणित प्राचीन प्राकृताचें सारकेपण –

१ घोटको > घोडो; वंसो > वासो;

२ 'ओ' कारांत नामांचीं भौवचनां 'अे' कारांतान घडतात.

घोटके > घोडे; वंसे > वाशे; भोमरे > भोंवरे; कलसे > कळशे;

३ श, ष बदलाक स, स बदलाक स.

वंसो > वासो; कस्सपो > कास्सवु; कलसो > कळसो;

भौवचनांत 'स' बदलाक 'श' घोळता.

असो > अशे; तसो > तशे; पसो > पैशे; कसो > कशे;

४ मालाओ > माळो; नज्जो > न्हंयो;

५ संयुक्ताक्षराचे सुरवातेचो दीर्घ स्वर ह्रस्व जाता.

संस्कृत – कादृशी; तादृशी; यादृशी;

कोंकणी – कशिश; तशिश; जशिश;

६ संयुक्ताक्षरांत अेक व्यंजन लोपून दुसऱ्याचें द्वित्व घडता.

संस्कृत — निद्रा; रात्रि; शुष्कम्; मृत्तिका; मुद्रिका

कोंकणी – निद्द > नीद; रात्ति > राति; सुक्खें > सुकें; मात्ति; मुद्दि;

बुद्ध देवालें वचन.

प्राचीन प्राकृत – न हि वेरेन वेरानि संमंतिध कुदाचनं ।
अवेरेन संमंति अेस धम्मो सनातनो ।।

संस्कृत – न हि वैरेण वैराणि शाम्यंतीह कदाचन ।
अवैरेण च शाम्यंति अेष धर्मः सनातनः ।।

प्राचीन प्राकृत – अप्पमादो अमतपदं पमादो मच्चुनो पदं।
अप्पमत्ता न मियंति ये पमत्ता यथा मता॥

संस्कृत – अप्रमादो अमृतपदं प्रमादो मृत्यो: पदम्।
अप्रमत्ता न म्रियंते प्रमत्ता यथा मृता:॥

| संस्कृत | प्राकृत | संस्कृत | प्राकृत | संस्कृत | प्राकृत |
|---|---|---|---|---|---|
| कदाचन | कुदाचन | अवैर | अवेर | शाम्यंति | संमंति |
| वैर | वेर | अेष | अेस | धर्म: | धम्मो |
| सनातन: | सनातनो | अप्रमाद: | अप्पमादो | अमृत | अमत |
| प्रमाद: | पमादो | मृत्यो: | मच्चुनो | अप्रमत्ता | अप्पमत्ता |
| म्रियंते | मियंति | प्रमत्ता | पमत्ता | मृता: | मता |

१ संस्कृतांतलीं कांय पुरुशलिंगी नामां पैले विभक्तिच्या अेकवचनांत 'अ' न सोंपिल्लीं आसून विसर्गयुक्त आसल्यार कोंकणित घोळतना 'अु' न सोंपतात.

पुत्र: > पुत्तु; वृषभ: > बसवु; कश्यप: > कास्सवु; मयूर: > मोरु;

असल्या अुतरांचीं भोवचनां 'अ' न सोंपतात.

पुत्त > पूत; बसव; कास्सव > कासव; मोर;

२ संस्कृतांतल्या 'स' बदलाक कोंकणित 'श' घोळता.

स > श; सीमा > शींव; सिंह: > शिंवु;
सिध्यति > शिजता; सिक्थ > शीत;

३ संस्कृत 'ण' चें प्राचीन प्राकृतांत आनी प्रचलित कोंकणित न जाता. वैरेण > वेरेन; वैराणि > वेरानि; प्राचीन प्राकृतांत रामेण > रामान; अुष्ण > हून; प्रचलित कोंकणित

४ 'र' युक्त संयुक्त व्यंजनांतलें 'र' चो लोप जावन अुरिल्ल्या व्यंजनाचें द्वित्व प्राचीन प्राकृतांत आनी प्रचलित कोंकणित अेकेच तरेन घोळता.

अप्रमाद: >अप्पमादो; अप्रमत्ता >अप्पमत्ता; प्राचीन प्राकृतांत

कर्पूर: >काप्पुरु; कर्पास: >काप्पुसु; प्रचलित कोंकणित.

५ संयुक्त व्यंजनांतलें अेक व्यंजन प्राचीन प्राकृतांत आनी प्रचलित कोंकणित अेकेच तरेन लोपता.

शाम्यंति >संमंति; अमृत >अमत;<br>
मृत्यो: >मच्चुनो; म्रियंने >मियंति; } प्राचीन प्राकृतांत

सप्त >सात; लिप्य >लिप; तक्रं >ताक;<br>
सपत्नी >सवति; भक्त >भात; सिक्थ >शीत; } प्रचलित कोंकणित

## शौरसेनी आनी नवी प्राकृतभास हांचीं कांय लक्षणां

१ आद्याक्षरांतलें आनी भिन्नवर्गाच्या व्यंजनावांगडा आसिल्लें ‘ त ’ सोडून अितर स्थानावयलें ‘ द ’ कारांत परिवर्तित जाता. ‘ ट ’ चें ‘ड’ आनी ‘ ठ ’ चें ‘ ढ ’ जाता.

मारुति >मारुदि; गच्छति >गच्छदि; महान्त >महंद; निश्चित >निश्चिद; अटति >अडदि; पठति >पढदि; घोटक: >घोडओ;

२ ‘ र्य ’ चें ‘ य्य ’ वा ‘ ज्ज ’ जाता.

आर्य: >अज्जो; आर्यपुत्र: >अय्यपुत्तो; कार्यं >कज्जं;

३ अुतरांतलीं क, ग, च, ज, त, द, प, य व्यंजनां लोपून स्वर मात्र अुरतात. नव्या प्राकृताची ही विशेशताय.

गत: >गतो >गदो >गओ; सागर: >साअरो; वचनं >वअणं;

४ ‘ न ’ चें ‘ ण ’ जाता.

नयनम् >णअणं; यमुना >जमुणा नट: >नडो;

५ ‘ य ’ चें ‘ ज ’ जाता.

यम: >यमो >जमो; यमुना >जमुणा >जअुणा;

६ 'थ' चें 'ह' वा 'ध' जाता.

नाथः > णाहो > णाधो; कथम् > कहं > कधं;

७ कांय वेळार 'भ' चें 'ह' जाता. भवति > होदि > भोदि;

८ 'ख', 'घ', 'थ', 'ध', 'भ' हांचे वदलाक 'ह' येता.
नख > णह; मेत्र > मेह; कथा > कहा; बधिरः > बहिरो; नभ > णह;

९ शौरसेनिंत पूर्वकालिक कृदंत धातुक 'ता' 'दूण' वा 'अिय' लागून जाता.

भू – भोत्ता=भोदूण=भविय; पठ – पढित्ता=पडिदूण=पढिय;

१० वररुचिल्या प्राकृत प्रकाशांत दिल्लेप्रमाण 'कृ' आनी 'गम्' ह्या धातुंचें पूर्वकालिक कृदंत वैकल्पिक नेमाप्रमाण 'कदुअ' 'गदुअ' जाता जाल्यार हेमचंद्राल्या सूत्राप्रमाण 'कडुअ', 'गडुअ' वा 'करिदूण' 'गच्छिदूण' जाता.

११ वररुचिल्या नेमाप्रमाण नव्या प्राकृतांत पूर्वकालिक कृदंत धातुक 'ऊण' लागून घडता जाल्यार हेमचंद्राल्या सूत्राप्रमाण 'ऊण', 'तूण' आनी 'आण' लागून घडता.

वररुचि – घे + ऊण > घेऊण; का + ऊण > काऊण; दा + ऊण > दाऊण; हेमचंद्र – घे + तूण > घेतूण; भेत + तूण > भेत्तूण;

१२ कांय वेळार 'द' चें 'ल' घडता. दोहदः > दोहलो > धुवाळो;
आर्द्रम् > ओद्दं > ओल्लं; आर्द्रम् > आद्दं > आल्लं;
प्रचलित कोंकणित हांचें सारकेपण –

१ 'त' चें 'द' जाता. पुण क्वचित् आयतन > आयदन; कियत् > केद; अियत् > येद; यावत् > जेद; तावत् > तेद;
'ट' चें 'ड' जाता. तट > तड; घट > घड; घटिका > घडि;
घोटक. > घोडो; 'ठ' चें 'ढ' जायना. पठ > पढ हिंदित घडता.

२ 'र्य' चें 'ज्ज' जाता.

आर्यः > आज्जो; कार्यं > काज्ज > काज;

३ अुतरांतलीं व्यंजनां लोपतात.

क – कर्मकारिन् > कम्मआरिन् > कामरि; चर्मकारः > चम्मआरु > चाम्मारु; राजकुलः > राअुळ > रावुळ; देवकुल > देअुळ > देवुळ;

ग – आगतः > आअलो > आयलो; छगन > शअण > शेण;
पुगफल > पुअफळ > फोपळ;

च – सूचि > सूअि > सूयि; पिशाचकः > पिसाअओ > पिसो;

ज – अजगर > अअअर > आर > हार; राजकुल > राअुळ > रावुळ; बीजानि > बिआं > बियां;

त – शीतं > शीअं > शीं; अितर > अिअर > अेर > हेर; घातः > घाअु > घायु; मातुलः > माअुळो > मावळो; वनवातः > वणवाओ > वणवो;

द – अिदम् > अिअं > अें > हें; बदर > बअर > बोर;
आदर्शः > आअरिसो > आरसो;

प – दीपावली > दिआअळि > दिवाळि; दीपः > दिओ > दिवो;
मेलापकः > मेळाअओ > मेळावो; तापः > ताअु > तावु;

य – मेलायन > मेळाअण > मेळावण; नियमः > निअमु > नेमु;
पानीय > पाणिअ > पाणि;

४ 'न' चें 'ण' जाता.

शुनकम् > सुणें; जन > जण; जीवन > जीण;
अंगनं > आंगण; जेमन > जेवण;

५ ‘ य ’ चें ‘ ज ’ जाता.

यादृशी > जश्शि; शय्यागार > शेज्जार., यमुना > जमुना., यदा > जेन्ना

६ ‘ थ ’ चें ‘ ह ’ जाता. कथम् > कहें > कशें., तथा > तहें > तशें., यथा > जहें > जशें., अित्थम् > अहें > अशें., कथनिका > कहृणिआ > काणि.,

७ ‘ भ ’ चें ‘ ह ’ जाता.

प्रभातम् > पहालं > फालें; प्रभव > पहव > फाव;

८ ‘ ध ’ चें ‘ ह ’ जाता. मधु: > महु > म्होंव; बधिरः > बहिरो > भअिरो > भैरो; दधिन् > दहिं > धंअि;

९ पूर्वकालिक कृदंतां ‘ अून ’ लागून घडतात.

कृ – कर + अून > करून., व्रज – वच + अून > वचून.,

धृ – धर + अून > धरून ,

१० ‘ द ’ चें ‘ ल ’ जाता.

दोहद: > दोहलो > धुवाळो,. आर्द्रम् > ओद्दं > ओल्लं;

आर्द्रम् > आद्दं > आल्लं;

मागधी भासेचीं कांय लक्षणां –

१ ‘ ओ ’ कारांत अुतरां ‘ अे ’ कारांतान सोंपतात.

२ ‘ र ’ बदलाक ‘ ल ’ येता. ३ ‘ त ’ चें ‘ ट ’ जाता.

| संस्कृत | प्राकृत | शौरसेनीं | मागधी | कोंकणी |
|---|---|---|---|---|
| धर्म: | धम्मो | धम्मो | धम्मे | धर्मु |
| प्रिय: | पियो | पियो | पिये | प्रिय |
| अनुग्रह: | अनुग्गहो | अनुगहो | अनुगहे | अनुग्रहु |
| राजन् | राजा | राजा | लाजा | राजा |

| संस्कृत | प्राकृत | शौरसेनी | मागधी | कोंकणी |
| --- | --- | --- | --- | --- |
| कृत: | कतो | किदो | कटे | केलो |
| सुकृतम् | सुकतं | सुकदं | सुकटं | सुकृत |

मागधी भासेचो प्रभाव कोंकणिचेर जाल्लो ना अुतरांतली व्यंजनां लोपून स्वर अुरून नवीं अुतरां घडची तरा शौरसेनितल्यान कोंकणिन घेतल्या.

| संस्कृत | प्राकृत | शौरसेनी | कोंकणी |
| --- | --- | --- | --- |
| चर्मकार: | चम्मकारो | चम्मआरो | चाम्मारु=चांबारु; |
| वरयितृ | वरयित | वरअित | वरैतु=होरैतु=होरेतु; |
| घोटक: | घोटको | घोडओ | घोडो; |
| चेटक: | चेटको | चेडओ | चेडो |
| शाम्यंति | संमंति | शमंदि | शमता; |
| गच्छति | गच्छति | गच्छदि | वता (व्रजति) |
| कृतम् | कतम् | किदं | केलें |
| गत: | गतो | गदो | गेलो |
| मृतम् | मतं | मिदं | मेलें |

व्यंजनलोप जावन स्वर अुरची प्रक्रिया शौरसेनितल्यान नव्या प्राकृतान अधिक प्रमाणार घेतल्या.

अजगर > अअअर > आर > हार; सुवर्णकार: > सुअन्नआरु > सोन्नारु; देवकुल > देअअुळ > देवुळ; वधुकुल > हअुकुल > होकल;

थ, ध, भ बदला 'ह' घोळता

कथम् > कहें; अित्थम् > अहें; मधु: > महु > म्होंव;
बधिर: > बहिर: > भअिरो > भैरो; प्रभातम् >
पहालं > फालें; प्रभव > पहव > फाव;

पूर्वकालिक कृदंतां ' अून ' लागून घडतात आनी हें ' अून ' कूस वैदिक ' त्वीनम् ' पासून ' तून ', ' अून ' जावन कोंकणित घोळता.

अपभ्रंश भासेचीं कांय लक्षणां –

१ धातुक अि जोडून वर्तमानकालिक रुपां घडतात.
करअि > करता; वचअि > वता;

२ भूतकालिक रुपां अशीं घडतात.
मृत: > मुआ; भूत: > हुआ; गअे > गेले;
वाढा > वाडले; मारित: > मारिआ;

३ भविश्यकालिक रुपां अशीं घडतात.
करिहुअि > करतलो; पढिल्लं > वाचतलों;

४ भूतभूतकालिक रुपां अशीं घडतात.
भणिअअु > म्हणिल्लो; भरिअअि > भरिल्लो;
सुत्तअु > निदिल्लो; जिअअु > जिकिल्लो;

५ प्रयोजक अपयति लागून घडतात.
पढाव – पढापयति; जियाव – जिवापयति;
वंकअि – वंकापयति; बचाव – बचापयति;

६ ' न ' बदलाक ' ण ' घोळता.
पाणिअ, परमाणंद;

ह्या आख्यात रुपांचो प्रभाव कोंकणिचेर निखालस पडिल्लो ना. कोंकणी भासेंतले धातु निर्दिष्ट नेमाप्रमाण चलतात आनी संस्कृता-प्रमाण धा गणांत आस्पाविल्ले आसून कांय गणांक विकरण लागूनच क्रियापदां घडतात. ही पद्धत दुसरे खंयचेय भासेंत दिसून येना. कोंक–णित विसर्ग घोळना पुण संस्कृतांतलो हो विसर्ग अु वा ओ जावन कोंकणित घोळता. कोंकणितल्या कांय पुरुशलिंगी नामांतच हो विसर्ग

'अु' कारांत रुपान घोळता. अपभ्रंशांत पुरुशलिंगी आनी नपुंसकलिंगी नामांक 'अु' लागता. कोंकणी प्राकृताचो अपभ्रंश भासेचेर जाल्लो हो प्रभाव हांतूंत कसलोच दुभाव ना. कांय अुतरां अपभ्रंश आनी कोंकणी भासेंत अेकेच तरेन घोळिल्लीं दिसतात पुण ह्या अुतरांचें मूळ संस्कृत भासेंत दिसून येता. वेदिक, आद्य प्राकृत, शौरसेनी हांचें सार– केपण कोंकणी भासेकडेन आसूनय ती अेक प्राकृत भास जावन आसा.

कांय अुतरां –

| संस्कृत | कोंकणी | संस्कृत | कोंकणी | संस्कृत | कोंकणी |
|---|---|---|---|---|---|
| अंबा | आम्मा | अुत्तप | हुलप | कठाह | कढयि |
| अस्थिर | अथीर | अुत्कर | अुक्कळ | कीरः | कीरु |
| आत्मन् | आप्पुण | अुत्कट | अुपट | कीटकः | किडो |
| अंगीकृ | आंगय | अुत्पत् | अूब | कीलकः | खिळि |
| अंगीकरण | आंगवण | अुत्पाटय | अुपाटि | कुक्कुट | कुंकड |
| अक्ष | अच्चु | अुत्संगः | अुसंगो | कुटः | गुड्डो |
| अंगारः | अिंगाळो | अुत्सर्ज | अुडुय | कुमारः | कुंवरु |
| अंभोदः | मोड | अुद्गारः | हुंवारु | कुष्ट | कोड |
| अग्निवृण | आंगरुंव | अुद्भवः | अुज्जो | कुंडं | कोंड |
| अणक | अणवो | अुद्वेगः | अुत्वेगु | कुलगृह | कुळार |
| अपरेद्युस | हेरदीस | अुपरि | वयरि | कूपकः | कुंवो |
| आग्रहः | आगरो | अुपस्करि | अुपकरि | कोष्टः | खोट्टो |
| आयतन | आयदन | अुल्लप् | अुल्लय | कोष्टम् | कूड |
| अहम् | हांवु | अुष्ण | हून | कोष्टकम् | कोडकें |
| आर्यत्व | अव्यापण | अूष्म | हून | गतः | गेलो |
| आवीजनः | आयणो | अूष्ट्र | अूंट | गृध्र | गीध |
| आस्पृश् | आप्पुड | अूनकः | अुणो | गृहस्थः | गिरेस्तु |
| आहर | हाड | अेकः | अेकु | कर्पूरः | काप्पुरु |
| आह्वय | आप्पय | ओष्ट | ओंट | कर्पासः | काप्पुसु |
| आदर्शः | आरसो | अंगिका | आंगि | ग्रामः | गांवु |

| संस्कृत | कोंकणी | संस्कृत | कोंकणी | संस्कृत | कोंकणी |
|---|---|---|---|---|---|
| आगत: | आयलो | अंगणं | आंगण | गर्भ: | गाबु |
| आरात्रिका | आरति | अंधकार: | अंधारु | ग्रंथि | गांठि |
| आश्रय: | आसरो | करोटि | करटि | गुर्विणी | गुर्बिणि |
| अंगारक: | अंगाळो | कर्णमल: | कानुलो | गुरुअुदर | गुरवार |
| अंदानि | अेन्ना | कक्ष: | खांको | गुड | गोड |
| गुलिका | गुळि | दुग्ध | दूद | मल्लकम् | माल्लें |
| ग्रीष्म: | गीमु | दधिन् | धंयि | माता | मायि |
| ग्रीष्मकाल: | गिमाळो | दीप: | दिवो | मर्यादा | मेर |
| गूथक | गू | दीपावली | दिवाळि | मिल | मेळ |
| गुच्छ: | घोसु | देवकुल | देवुळ | मृद् | मोळ |
| ग्रास: | घासु | द्रोण: | दोण्णो | वृहत् | व्होड |
| घंटा | घांटि | देवृ | देरु | वधुकुल | व्होकल |
| चक्रं | चाक | दर्वी | दायि | बरयितृ | होरैतु |
| चंग | चांग | पत्तल | पात्तळ | वलयं | बळें |
| चुंबा | अुम्मा | पंक्ति | पंगति | वलयकार: | वळारु |
| चक्ष | चोय | प्रथुक: | फोवु | वापी | बांयि |
| चेटक: | चेडो | प्लव | पोंव | विवर | वेर |
| जंघा | जांग | प्रवह | पोंव (गळ) | व्रण | रूंव |
| जगर्ति | जगलि | पट्ट | पाटु | वृति | वंयि |
| जन् | जा | पिष्ट | पीठ | वेगेन | वेगि |
| जीवन | जीण | पुगफल | फोपळ | वेदिका | पेडि |
| जूर्ण | जून | पुराण: | पोरणो | व्यंग | वेंग |
| जिव्हा | जीब | प्रकोष्टिका | पोवठि | व्यंग्यम् | बेंगे |
| तृणं | तण | प्रत्याय | पातये | शर्करा | साक्कर |
| तपक: | तवो | प्रलोकय | पळै | शाद | खात |
| तृष्णा | तान | प्राकार: | पागोरु | शीतल | शेळ |
| तत्र | थंयि | पर्वन् | परब | शुल्क | सुंक |

| संस्कृत | कोंकणी | संस्कृत | कोंकणी | संस्कृत | कोंकणी |
|---|---|---|---|---|---|
| तीक्ष्ण | तीख | पर | पेलो | संक्रम | सांकव |
| तुंड | तोंड | परतटी | पलतडि | संगत्याम् | सांगाति |
| तेम | तेंवु | भृंगार | भांगर | सिक्थ | शीत |
| तट | तड | भ्रमरः | भोंवरो | सृप | साप |
| तदानिं | तेन्ना | भ्रम | भोंव | हर | व्हर |
| दीर्घः | दीगु | भ्रातृ | भावु | यत्र | जंयि |
| द्वारबंधः | दारवंदु | मरुत्पथ | म्हाळुप | रिक्तम् | रित्तें |

मंगळुरी आनी कोच्चि शैलितलीं कांय अंतरां —

| संस्कृत | मंगळुरी शैली | अंत्रुजी शैली |
|---|---|---|
| कर्पूरः | काप्पुरु | कापूर |
| कर्पासः | काप्पुसु | कापूस |
| कर्पट | काप्पड | कापड |
| पुत्रः | पुत्तु | पूत |
| सूत्रम् | सुत्त | सूत |
| चिर्भटिका | चिब्बड | चिबड |
| पर्पटः | पाप्पोड्ड | पापड |
| मृत्तिका | मात्ति | माती |
| उत्कर | उक्कळ | उकळ |
| निद्रा | निद्द | नीद |
| मल्लकम् | माल्लें | मालें |
| कर्तरी | कात्तरि | कातर |
| सुवर्णकारः | सोन्नारु | सोनार |
| कज्जालं | काज्जळ | काजळ |
| गर्दभः | गाड्डवु | गाडव |

असलीं जाय तीं अुतरां संस्कृत मुळांतल्यान कोंकणी प्राकृतांत आयल्यांत. असल्या अुतरांचो मेळ प्राचीन प्राकृतांतल्या शौरसेनितल्या आनी कांय बाबतित अपभ्रंशांतल्या अुतरांकडेन बसता पुण आख्यात रुपांचो मेळ संस्कृत आख्यात रुपांकडेनच जुळता. कोंकणी भासेचें मूळ अपभ्रंश भासेंत आसा अशें भौ. श्रीपाद र. देसाय सांगतात पुण तांणी मंगळुरी शैलिचो अभ्यास पुरायपणान केला अशें दिसना. मंगळुरी आनी कोच्चिच बोलित घोळतल्या अुतरांकडेन अपभ्रंश भासेंतल्या अुतरांची तुळा केल्यार मंगळुरी शैलितलीं अुतरां प्राकृत भासेंतलीच अशीं दिसतलीं. ह्रीं अुतरां चड विकृत जाल्लीं नात आनी आपल्या मूळ स्वरुपांतच आसात. प्रसंग आयलोच जाल्यार ह्या विशयाचेर खोलायेन अभ्यास करून दुसरो ग्रंथ अुजवाडावची सिद्धताय दवरिल्ली आसा.

कोंकणी भासेचीं कांय लक्षणां –

१ विसर्गाचो अुकार आनी ओकार घडता.

२ स्वर ह्रस्व आनी दीर्घ घोळतात.

३ कोंकणितलीं अुतरां सदांच स्वरांत (अजंत) आसून चडशीं अुतरां ह्रस्व स्वरांत आसतात. कोंकणित व्यंजनांत (हलंत) अुतरां घोळनात.

४ 'श', 'ष', 'स' चें 'स' आनी 'स' चें 'श' घडता.

५ अुतरांतलो 'ह' महाप्राण खंयच्याय स्थानार आसल्यारय आद्याक्षरांत आस्पावता.

६ ह्रस्व स्वर दीर्घ आनी दीर्घ स्वर ह्रस्व जावन घोळतात.

७ संयुक्ताक्षरांत भिन्न वर्गाचीं वा समवर्गाचीं व्यंजनां आसल्यार अेक व्यंजन अुरता.

८ 'र' युक्त संयुक्ताक्षरांत 'र' चो लोप जावन अुरिल्ल्या व्यंजनाचें द्वित्व जाता.

९ स्वरलोप, व्यंजनलोप घडता. अेका स्वराबदलाक दुसरो स्वर, अेका व्यंजनाबदलाक दुसरें व्यंजन घोळता.






१० धातुंचे वेगळे वेगळे गण आसून कांय गणांक विकरण लावनच क्रियापदां घडतात.

११ धातुंत, मूळधातु, नामधातु, धातुसाधित धातु अशे प्रकार आसून धातुसाधित धातुंत प्रयोजक धातु, शक्यतायेचे धातु, अणकारी धातु आस्पावतात.

१२ खंयचोय काळ उक्तावच्याक पालवी क्रियापदाची आवश्यकता नासता.

काळाच्या प्रभावान कोंकणिचेर जाय तो आघात जाला हें मान्य करूनय कोंकणिन आपलें खाशेलपण होगडायिल्लें ना. जंय जंय हें खाशेलपण दिसून येना थंय थंय ही भास भंगून नव्या नांवान वयर सरिल्ली आसा. प्राकृत, शौरसेनी, नवो प्राकृत हांच्या अुतरावळिंत जो जो बदल घडला तो कोंकणी प्राकृतांतय घडिल्लो आसा म्हणून त्या भासांचो प्रभाव कोंकणिचेर जाला अशी म्हणची चूक आमी करची न्हय. संस्कृत आख्यात रुपांचो प्रभाव कोंकणी आख्यात रुपांचेर दिसून येता. कोंकणी भायेचें मूळ वा कुळार वेदिक संस्कृत भासेंत आसा अशें भी. शणै गोंयबाब हांणी सांगलें आनी तें योग्यच आसा. कोंकणिचो अभ्यास करतना नवी नदर आदणावची गरज आसा. जाय त्या पंडितांनी जाय तें पांडित्य आसचेमुखार दवरलें पुण संशोधनाअुपरांत तें अर्थहीन जालां. कोंकणिंत संशोधन करसारखें खूब आसा आनी हें करतना कोंकणिचो प्रत्येक शैलो आत्मसात् करची आवश्यकता आसा. कोंकणिन खूब अितलें होगडायलां म्हणून ती दुबळी जायना. नवीं अुतरां घडोवची तांक संस्कृतावरी कोंकणितय आसा. कोंकणिच्या प्रत्येक शैलिंत कोंकणिचें पोरणें रूप दिसून येता आनी अजाणपणान आमी तें भायरायतात. कोंकणिंतलीं जाय तीं अुतरां काळाच्या प्रभावान आनी आमच्या नेणारपणान लोपिल्लीं आसात. शब्दकोशांतय तीं दिसून येनात पुण कांय कोंकणी भासिक लोकांले जिबेर तीं आयकूंक मेळटात. हांचो संग्रह करून तांचो अर्थ समजून प्रचलित करची जापसालदारकी कोंकणी साहित्यिकांची.

भासशास्त्रिंनी कोंकणिचें निश्चित स्थान खंयचें हें खंयच सांगिल्लें ना म्हणून कोंकण्यांनी निर्शेवची गरज ना. कोंकणिचें मूळ वेदिक संस्कृतांत आसा हें निश्चित आनी कोंकणी भासेचो प्रभाव अितर भासांचेर कसो पडला, त्यो खंयच्यो भासो, तांतूंत आधुनिक कितल्यो भासो आसात हाजेर संशोधन जाल्यार भासशास्त्री कोंकणिचें स्थान निश्चितरुपान पाली, शौरसेनी बरोबरच म्हणतले.

मराठी ही कोंकणिचीच अेक बोली. कोंकणी अुतरां चड विकृत जावन मराठित आस्पावल्यांत. चक्रधरस्वामिलें लीळा चरित्र, ज्ञानेश्वराली ज्ञानेश्वरी, काय शिलालेख वाचल्यार तांची भास आनी अुतरां कोंकणीच म्हणून खयचोय सूज्ञ मनीस सांगच्याक शकता. संशोधन करतल्यांनी कोंकणी साहित्य वेगळावन कोंकणिचें दायज लोकांमुखार दवरची आवश्यकता अुद्भवल्या.

कोंकणित कानडी अुतरांय आसात पुण कोंकणित समर्पक अुतरां आसूनय तीं अुतरां अुपकारावचीं न्हय. जाय तीं कोंकणी अुतरां कानडित घुस्पल्यांत आनी कानडी म्हणून मिरैतात. कोंकणी भासेन अन्यभासांचेर जाय ती अुतरासंपत्ती ओतल्या आनी कोंकणिच्यो कांय बोली तर समृद्ध जावन आधुनिक भासो म्हणून मिरैतात. हाजो अभ्यास आतां सुरु जाला.

भौगोलिक, अैतिहासिक, सामाजिक परिस्थितिकलागून खंयचेय भासेच्या अुतरांत विकृती घडत आसता आनी अेकच भास भंगून वेगळयो वेगळयो बोली निर्माण जानात. प्रदेशाकलागून अेकेच भासेक विगड विगड नांवां प्राप्त जातात. कोंकणितच मंगळुरी, कोच्चिन, कारवारी, साष्टी, बारदेशी, अंत्रुजी, कुडाळी, मालवणी अश्यो साधारण बावन्न बोली मेळतात पुण कोंकणी प्राकृतांत अश्यो जाय त्यो बोली जन्मून आतां वेगळया वेगळया नांवांनी वयर सरल्यात हें निश्चित मूळ कोंकणी प्राकृतांतलें स्वरूप कोंकणितच मेळता देखून तिका कोंकणी प्राकृत हें नांव फावता.

# चुकावळ

| पान | वळ | चूक | सारखें |
|---|---|---|---|
| १४ | १९ | अक्षर | अक्षरां |
| ३२ | १ | रोंवले | रोंबले |
| ३६ | २४ | घोळतात | घोळेतात |
| ३८ | ४ | पक्षिरूपः | पक्षिरूपम् |
| | १३ | आिदर्नि | अिदानि |
| ३९ | ७ | ३ अु– पुत्रः...... | ३ अु–तरुणः > तरणो, अनुभवः > अणभवु; अंगुष्टः > आंगटो |
| | | ३ अु– पुत्रः | ४ अू– पुत्रः > पूतु |
| | | ४ ओ– | ५ ओ ... ... ... |
| ४१ | १२ | २ – | २ आ– |
| ४४ | ३ | पक्षिरुपः > पख्खिरूअु > पाखरू | पक्षिरूपम् > पख्खिरुअु > पाखरु |
| | १२ | > पाखरू; | > पाखरु; |
| ४७ | २ | युयिका > | युथिका > |
| | १९ | गोरुप > | गोरूपम् > |
| ५० | ६ | त्‌तीयः | तृतीयः |
| | १५ | मृष्पः > | मृषः |
| ५१ | १९ | गोरूपमू पक्षिरुपं | गोरूपम् पक्षिरूपं |
| ५२ | ५ | आ + अ > ओ | अ + अ > ओ |
| | २० | अ + अु > औ | अ + अु, अ + अ } औ |
| ५४ | २१ | घटा > घांट, अंड | घंटा > घांट, अंडं |
| ५६ | १६ | सद | संद |
| ५९ | १२ | घावु | घायु |
| ६१ | ८ | पेलतलि | पेलतडि |

| पान | वळ | चूक | सारखें |
|---|---|---|---|
| | १३ | शाळा > साळ | शाला > साळ |
| | १६ | वधकुल | वधुकुल |
| ६२ | १४ | भगिणि > भणि | भगिनि > भैणि |
| ६४ | २४ | युथिका | यूथिका |
| ७० | ८ | अद्गार: | अुद्गार: |
| ७१ | ७ | चुर्णक: | चूर्णक: |
| | २० | अि > अु | अि > अू |
| ७३ | २६ | न्हयि | न्हंयि |
| ७४ | २ | कोपरु | कोंपरु |
| | १९ | पक्षिरूप: | पक्षिरूपम् |
| ७६ | १६ | तंदुल: | तंडुल: |
| | २५ | गोरुपम् | गोरूपम् |
| ७७ | १ | मड | मडें |
| ७९ | ४ | अंग | अंगं |
| ८० | २७ | दष्ट्रा > ड | दंष्ट्रा > दाड |
| ८३ | २३ | आसले | आसलें |
| ८८ | १८ | नष्टें | नष्टे |
| ९१ | २२ | कुसांपासून | कुसापासून |
| ९२ | ४ | हांच्या वांगडा | हांचेंवांगडा |
| | २१ | साक+हून्+साक+अून्+साकून | साक+हून् > साक+अून् > साकून |
| ९३ | ६ | पुरूशलिंगाची | पुरुषलिंगाची |
| ९६ | २ | हृय वो | हय वो |
| | ८ | रुपांन | रुपान |
| | १७ | म्हागडचा | म्हालगडचा |
| ९७ | २४ | पळतल्या | पळेतल्या |
| ९९ | २ | पाद+ल | पाव+ल |
| १०१ | ५ | याक्त् | यावत् |

| पान | वळ | चूक | सारखें |
|---|---|---|---|
| १०२ | १ | घडन | घडून |
| | १६ | जातलों म्हळे | जातलो म्हळें |
| १०३ | २८ | पुरूशलिंगी | पुरुशलिंगी |
| १०४ | ४ | अडज | अडेच |
| | ७ | तश्यांची | तश्यांची |
| १०५ | ८ | नकाअि | नाकाअि |
| | १५ | भौवचना | भौवचनी |
| १०६ | २ | अकवचन भौकचन | अेकवचन भौवचन |
| ११० | १९ | लातना | लागतना |
| १११ | ५ | घातुंचो | धातुंचो |
| | ११ | खरपिलो | खरपिल्लो |
| ११२ | ३ | अुलैयिल्लो | अुलयिल्लो |
| ११५ | १ | हाल, चल | – – |
| ११७ | १९ | अुलैशी | अुलैशीं |
| १२८ | १ | कुसाचीं | कुसाची |
| १४३ | ६ | वाडवुन माडवुन | वाडवुवन माडवुवन |
| १३४ | २ | धालौसुवचे | घालौसुवचें |
| १४४ | ४ | लागन | लागून |
| १४५ | ९ | बपलावसूंक | बदलावसूंक |
| १४६ | १६ | निमगिअत + | निमगि + अत |
| १५२ | १३ | करंशितकी + | करैशित + की |
| १६० | ३ | बदलता | बदलना |
| | ६ | बदलना | बदलता |
| १६७ | ७ | शोलित | शैलित |
| १७४ | ४ | कामरि | कामारि |

# संदर्भ ग्रंथ....


१ कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ

भौ. शणै, वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार

2 Formation of Konkani - Dr. S. M. Katre.

३ कोंकणी मत्तु मराठी अिवुगळ तुलनात्मक विमर्षे हागू सारस्वत ब्राह्मणर प्राचीन अितिहास

– भौ. बस्ती पुंडलीक शणै

४ कोंकणी भासेचें व्याकरण भाग १ आनीं भाग २

– भौ. सुरेश रामचंद्र पै.

५ कोंकणी भाशेची कुळकथा

– भौ. श्रीपाद रघुनाथ देसाय

६ सोळाव्या शेकड्यांतलें कोंकणी म्हाभारत आदि पर्व

– भौ. प्रताप नायक, जे. स.

७ कोंकणी व्याकरण

– मा. फिलिप् नजरेत् आनी
श्री. पी. दिनेश पै

## दीपा प्रकाशनाचीं पुस्तकां

१ कोंकणी भासेचें व्याकरण पयलो भाग

२ गीतामृत

३ कोंकणी भासेचें व्याकरण दुसरो भाग

४ गीतसुधा

५ आरती संग्रह

६ म्हाका होलमल्ली कोंकणी भास
( संशोधनात्मक ग्रंथ )

७ कोंकणी आवय

८ जैताची घुडी